अनपेक्षीत
(कथां झेलो)

**हेरंब प्रकाशन**



**पयली उजवाडावणी**
2012

**छापणावळ**
रोहन मल्टिग्राफिक्स,
पणजी - गोंय
मो.: 9370429971

**मुखचित्र**
श्रीधर कामत बांबोळकार

**मांडावळ**
अमोल कामत
9423056333

**मोल** : रू. **125/-**

**Anapekshit**
(Collection of Poems)

**Heramb Prakashan**



**First Edition :**
2012

**Printer :**
Rohan Multigraphics,
Panaji - Goa.
Mob.: 9370429971

**Cover :**
Shridhar Kamat Bambolkar

**Layout :**
Amol Kamat
9423056333

**Price :** Rs. **125/-**

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीचे 'पयलो चंवर' येवजणे खाला उजवाडायलां.



**भाईक**

(सर्गेस्त श्री. राया ऊर्फ सुरेश रामचंद्र प्रभु शास्त्री)

भाईनच म्हाका कथेचें मर्म सांगलें.

- किरण



# मनोगत

**म्हज्यो** कथा अश्यो संग्रहाच्या रुपांत प्रसिद्ध जातात हाचेर म्हजो विस्वासच बसना. पयलीं सावन म्हाका वाचपाचो नाद. विंगड विंगड कथा-कादंबऱ्यो हांवें वाचल्यात. वाचिल्लें चडशें सगलेंच विसरलें. पूण कांय कथांचो (कथानकांचो) परिणाम म्हजेर उरलो. कथांतल्यान होलमल्लीं कांय सत्यां, कांय दृश्टीकोण, कांय विचार म्हज्या मनाचेर संस्कार करून गेले.

एखादे हातूंतल्यानच प्रेरणा घेवन हांवें कथा बरोवंक सुरवात केली आसतली. कथा कशी आसची तें मात म्हाका भाईन, म्हज्या व्हडल्या भावान (स. श्री. राया रामचंद्र प्रभू शास्त्री ऊर्फ सुरेश) शिकयलें. भाईन वापरिल्लें 'रिपोर्टिंग' हें उतर हांव आजून विसरूंक ना. कथा फकत वृत्तांत आसून उपकारना हें म्हाका भाईच्या उतरांतल्यान होलमलें. खरें म्हणल्यार म्हज्या मनाक भिडतात त्योच गजाली कथेंतल्यान मांडपाचो म्हजो यत्न आसा देखून म्हजे संवेदनेचो एक सूर म्हजे कथेक एक आयाम दितलो अशी म्हजी अपेक्षा.

कथा बरयिल्ल्यो तरी हांवें त्यो खूब काळा मेरेन प्रसिद्ध केल्योच नात. एखादे म्हज्या सभावाचो भाग आसत. एक दीस म्हजी इश्टीण श्रीमती अंगिता नगर्सेकार हांणी म्हाका एक विशय दिवन कथा बरोवंक लायली. ताणें म्हजेर दाखयिल्ल्या त्या विस्वासाक लागून हांवें कथा प्रसिद्ध केली. ती बरी जाली हें सांगूंकय तें विसरलें ना. तेन्नाच्यान कथा प्रसिद्ध करपाचो सिलसिलो सुरू जालो. देखून ह्या कथासंग्रहाचें स्रय चडशें ताकाच वता.

जिणेच्या एका मोडणार म्हजें स्वत्व मुठींत धरिल्ले रेवें वरी निसटून वता अशें म्हाका दिसता आसतना म्हज्या भाचरांनी, भैया (चि. पार्थ प्रकाश प्रभु शास्त्री) आनी बाय (चि. इंद्रा प्रभु शास्त्री) हांणी म्हाका कथेक विशय दिवन बरोवंक लायलें. तांची लक्तुबाय उतरांनी सांगूंक जावची ना.

आनी सदाचं कोणाकय मजत करूंक तत्पर आसपी शोनू (चि. हेरंब ऊर्फ आल्हाद तेलंग) म्हाका पावला कणकणी उपकारा पडलो. ताची तोखणाय करूंक उतरां उणीं पडटात.

नामनेचे कवी भौ. श्री. माधव बोरकार हांचें हांव उपकारीच न्हय तर रिणांत आसां. तांणी लागीं लागीं म्हज्या प्रत्येक कथेचेर फोन करून प्रतिक्रिया कळयल्या आनी म्हाका उर्बा मेळ्ळ्या. माधवबाबान 'जाग' म्हयनाळ्यांत म्हजे कथे विशीं जाहीर प्रतिक्रिया दिवन म्हाका रिणांत दवरलां. ह्या कथा संग्रहाक ब्लर्बय तांचोच लाबला हें म्हजें भाग्य.

हांवें 'जाग' म्हयनाळ्या खातीर कथा धाडली तेदेवेळार श्रीमती माधवी सरदेसायान म्हाका मुजरत फोन करून म्हजी कथा खूब बरी जाल्ल्याचें कळीत केलें आनी आनीकय कथा धाडपाची सुचोवणी केली. ताचे विशीं हांव कृतज्ञ आसां. म्हजे कथेचेर वळखतल्यांनी तशेंच म्हजी वळख नाशिल्ल्यांनी लेगीत प्रत्यक्ष आनी एसएमएस करून प्रतिक्रिया कळयल्यो तांचें सगल्यांचें हांव मना पसून उपकारी.

उपरांत कथा संग्रह जावचो म्हूण जांणी म्हाका मुखार काडलें तातूंत पयलें नांव घेतां म्हजी इश्टीण श्रीमती ब्रॅण्डा मिनेझीस हांचें. ह्या कथा संग्रहा फाटल्यान म्हजे परस ताचीच कळकळ चड आशिल्ली. उपरांत श्रीमती सुफला गायतोंडे हांणी जाय ती मजत करपाचें आस्वासन दिवन म्हजो हुस्को ल्हव केलो. आनी म्हज्यो सगल्यो इश्टिणी आनी बरें मागपी, नांवां घेवन सोंपचींच नात, सगल्यांचे उपकार मानूंक म्हजे कडेन उतरांच नात.

हो कथा संग्रह प्रकाशीत करूंक गोवा कोंकणी अकादेमीन पयलो चंवर येवजणे खाला अनुदान दिल्ले खातीर हांव गोवा कोंकणी अकादेमीचें उपकारी.

मुखपृश्ठां वयल्यान अंतरंगाची वळख जावची इतलें प्रभावी चित्र काडून दिवपी चित्रकार भौ. श्री. श्रीधर कामत बांबोळकार हांणी म्हाका उपकारांत दवरलां.

हांवें सुफलाच्या सांगण्यान श्री. अमोल कामत हांकां फोन केलो आनी ताणें रोखडोच सहकार्याचो हात मुखार केलो. ताच्या मोलादीक सहकार्या खातीर हांव ताचें उपकारी.

निमाणें हें पुस्तक प्रकाशीत करतना जांच्या प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष योगदानाचो म्हाका लाव जाला तांचें सगल्यांचें हांव उपकारी आसां.

देव बरें करूं.

**- किरण म्हांबरे**

## मांडावळ



# कपयो

**कपयांची** पोटली सोडयले उपरांत तातूंत एक ल्हानशी लेंसांची पोटली मेळटा. बाकीच्या कपयां परस वेगळ्यो कपयो बांदून दवरिल्ली. इतल्या काळा उपरांत ती उसयतकच कळटा, त्योय कपयो अश्योच बाकिच्या कपयां वरी, कांयच वेगळेपण नाशिल्ल्यो! कपडे शिंवता शिंवता पडून गेल्ल्यो.

लीना मनांत हांसलें.

कितली विचित्र ही जीण!

काळ वता तशी नदरय बदलता आनी रुचय.

रेडियोक कान लावन उतरान उतर सुरांच्या धारेंतल्यान मनांत रिगोवन तातूंत रंगून वचपाचें पिशें सोंपता आनी त्याच पदांचो कणकण येता.

म्हऱ्यांतल्यान कोण कितें घेवन गेलो हाचो पत्तो लागचो ना इतलें बुडून वाचून काडिल्ल्यो कादंबऱ्यो, जेम्स हॅडली चेसाच्यो रहस्यकथा लेगीत वाज हाडटात.

हिरीरीन वाद घेवन आपलें म्हणणें खरें करून दाखोवपाचें जैतय निरर्थक दिसूंक लागता. जशीं सपनां पळोवपाची प्रक्रिया काळा बरोबर सोंपता.

पूण मनांत एक लेंसांची गांठ बांदिल्ली आसा हें आपले आपल्याकच खबर नासता.

लीनाक भुरगेपणांतली याद जाली.

पन्ना दिसूंक सुंदर आशिल्लें. आनी लीना बरें दिसना म्हूण दोगांयचे मदीं आवयबापायन केन्ना भेदभाव केलो ना. तरी येत्यावेत्याक पन्नाचेंच कवतूक आशिल्लें. शाळेंत शिकोवपी बाईक पन्नाचेच गूण दिसताले. बरोबरच्यांक पन्नाच्याच रागाची-रुसाची पर्वा दिसताली. पन्ना ना तर तोखेवपा सारकें? लीना आपल्याकच विचारतालें,

पन्ना दिसूंक बरें?
हय.
शिकूंक हुशार?
हय.
पन्ना घरांत आईक मजत करता?
हय.
पूण लीनाक पन्नाचो दुस्वास नाशिल्लोच.
ताचो रागय येनाशिल्लो.
तशें पळोवंक गेल्यार पन्नाच ताची लागींची इश्टीण आशिल्ली.
मात दुसऱ्यांनी आपल्याक उणें लेखचें हें लीनाक मान्य नाशिल्लें.
आपूण शिकूंक हुशार.
घरांतलीं कामां करूंक आईक मजत करतां.

खेळूंक हुशार. पन्ना परस हुशार. पन्ना फकत भितरले खेळ खेळूंक हुशार. मैदना वयल्या खेळांनी इनामां आपणेंच हाडल्यांत.

पूण त्या वेळार खेळाक म्हत्व आशिल्लें खंय? उरफाटो अभ्यास बुडटलो म्हणपाचो भंय आनी ते भायर उडाणटप्पूपणां केल्ले भशेन जातालीं.

पन्ना शाणें. तें आपलो आब सांबाळून वांगतालें. आपल्या आंगाक दुख लागपासारकें करूंक तें केन्ना मुखार सरलें ना. आनी खेळ्ळें ना म्हूण ताचें म्हत्वय उणें जालें ना.

शाळेच्या वर्सुकी स्नेहसंमेलनां वेळार नाच, नाटकांत पयलो भाग पन्नाचो आसतालो. शिक्षक-शिक्षिकाच ताका फुडें काडटालीं. कारण पन्ना सुंदर. त्या वेळार भाशण पाठ करून शिक्षकांनी शिकियल्ले भशेन हावभाव करून तें म्हणटकच नाटक जातालें आनी बाई शिकयता तशे हातवारे करून पांय जमनीर धोडायतकच नाच जातालो. ताच्या फाटल्या शास्त्राचें कोण्णाक सुखदुख्ख नासतालें. फकत बरें दिसप म्हत्वाचें.

ताळो बरो आशिल्लीं भुरगीं नाचाक पड्ड्या फाटल्यांतल्यान पदां म्हणटालीं.

शाळेंत त्यादिसांनी सगळीच धमाल. येसायांक लागून वर्ग सारके चलनाशिल्ले. स्नेहसंमेलनांत भाग घेवपी भुरग्यांक अवांतर म्हत्व आयिल्ल्यान तीं हवेंतल्यान उडटालीं. शिक्षक तांच्याच फाटल्यान धांवताले.

घरा कडेन पन्नाक नाचाक अमकें जाय, नाटकाक तमकें जाय म्हूण घरच्यांचो बोवाळ.

लीनाक कुशीक पडिल्ले भशेन दिसतालें.

तें काळें किडकिडीत म्हूण कित्यांतच भाग घेवंक शकनाशिल्लें. कोण ताका मुखारूय काडिनाशिल्लो आनी हें आपले आपूणय मुखार सरनाशिल्लें. हरशींच लोक आपूण बरें दिसना म्हूण आपल्याक तुच्छ जाल्ले वरी पळयतात. स्टेजीर वचून आनीक हांसून कित्याक घेवप लोकां कडसून?

पूण आपूण मातशें बरें आशिल्लें जाल्यार पत्रा भशेन नाच, नाटक करूंक शकतलें आशिल्लें अशें ताका मना पसून दिसतालें.

शाळेंत नवी बाई आयली. मुख्याध्यापिका. लीनाचें घर गांवांत प्रतिश्ठेचें. गांवांत आयिल्ल्या मानेस्तांक तांच्या घरांत आमंत्रण आसतालें. नवे बाईकय आमंत्रण आशिल्लें.

बाई आयली. घरच्यांची बाई कडेन वळख जाली.

आजी, आई, काकी, आत्या सगळ्यांचो मान राखून बाई उलयताली. आनी बाई खूब शिकल्या म्हूण घरांतलीय तिचे कडेन आदारान उलयतालीं.

बाईन सगळ्या भुरग्यांची वासपूस केली. सगळीं भुरगीं शिकूंक हुशार. बाईक अपेक्षा आशिल्लीच. बाईन सगळ्यांक शाबासकी दिली आनी सगळ्या सोयऱ्यां भशेन पत्राची खेरीत तोखणाय केली.

''नाच, गाण्यांत बी कोण हुशार आसा हांचे मदीं? कोणाचो ताळो बरो आसा?''

बाईन विचारिल्लो प्रस्न लीनाच्या कानांत शिरकलो.

लीनाक रेडियो वयलीं पदां आयकुपाचो नाद आशिल्लो. पिशेंच सामकें. ताका आँवडिल्लें प्रत्येक पद ताका रोखडेंच पाठ जातालें आनी आपशेंच ताच्या तोंडांतल्यान भायर येतालें. आयकतलीं म्हणटालीं, 'बरेंऽ म्हणटा''. बाईचो प्रस्न आयकून आत्या आतां आपलेंच नांव सांगतलें हाची लीनाक खात्री आशिल्ली. आत्याय शिकिल्लें. आत्याच्या उतराक घरांत मान आशिल्लो. आत्याक कळटा, सारकें उलोवंक येता हाचेर सगळ्यांचो विस्वास.

आपल्याक रेडियो वयलीं पदां तश्श्या तशीं म्हणूंक येतात हें आत्या केन्ना उलयलें ना तरी कोणेंय म्हळां त्यावेळार हांसून मान हालयल्या.

आत्यान बाईक आपलें नांव सांगलें जाल्यार बाई कितें करतली?

स्नेहसंमेलनांत आपल्याक पद म्हणूंक दितली?

'शी! हांव केन्नाच स्टेजीर वच्चें ना'. लीनान मनांत म्हळें. आपूण बरें दिसना. स्टेजीर गेल्यार आपल्याक लोक हांसतले हाची ताका खात्रीच आशिल्ली.

''पत्रा. पत्राक बरो ताळो आसा पदां म्हणूंक''. आत्यान बाईक सांगलें.

खुट्ट करून तकलेर खुटलो मारिल्ले भशेन जालें.

आत्यान पन्नाचें नांव सांगलें? कित्याक?

खरेंच पन्ना आपले परस बरें म्हणटा?

आंगांतल्यान सर्र करून कितें तरी देंवन गेल्ले भशेन जालें.

खरेंच पन्नाक बरें गावंक येता? आनी तें समजतालें आपूण सारकें म्हणटा म्हूण. तो भ्रमूच आशिल्लो?

काय बाईक पन्ना आवडलें म्हणून पन्नाचें नांव सांगलें आत्यान?

काय आपल्याक कोंताक धरलें ना आत्यान?

काय आपूण बरें दिसना म्हूण आपल्या ताळ्याक म्हत्व ना?

तसो लीनाक आत्याचो राग बी कांय आयलो ना. पूण मनांत एक लेंसांची गांठ बसली. लीनाचे नकळटां लेंसाची गांठ मनांत उरली.

बरो दिसपी मनशाक सट करून कोणय तोडूंक पावना. मनशाचें रूप पळयतल्याच्या मनांत ताजे विशीं एक आपलेपणाची भावना निर्माण करता. ओड निर्माण करता. आनी पळयतलो ताका दुखोवंक भियेता.

पूण एक बरें आसता कोण बरें दिसता काय दिसना हाजेर परिक्षेंतले मार्क निंबून नासतात. पन्ना भशेन शिक्षकां कडल्यान अपुरबाय जालिना तरी मार्क केन्ना उणे पडले नात. प्रत्येक परिक्षेंत चडांत चड मार्क मेळूंक लागिल्ल्यान लीना शिक्षणांत रमलें.

शाळा सोंपली, कॉलेज सोंपलें. नोकरी मेळ्ळी. लग्न जावन सगळीं आपापल्या संवसाराक लागलीं.

बुद्द आनी गिन्यान हांच्या बळग्यार जियेतना जिणेंतलो एक एक प्रस्न अचळय सुटावो जातालो. केन्ना कसलो ताण ना, चिंता ना, हुस्को ना, अडचण ना. सुरळीत आयुश्य आनी तेच बरोबर बदलिल्ली जीण.

आपूण दिसूंक बरें ना हें लीना विसरूनच गेलें.

सगळ्या कल्पनांच्यो व्याख्या बदल्ल्यो, समीकरणां बदल्लीं, आवडी निवडी बदल्ल्यो.

एखादे मनांतल्या कल्पनांचो पड्डो दोळ्यांचेर येतकच जग दुसरेच भशेन दिसता जावंये. जसो जसो जगाचो अणभव आयलो तशें तशें मनांतलें कल्पनेचें धुकें गेलें.

लेंसाची गांठठ मात नकळटां मनांत तशीच उरली. ताची जाणविकायूय जालिना.

अचकीत एक दीस मोहिनीताई मेळ्ळी. कॉलेजीच्या प्राचार्याची बायल.

समाजीक कार्यांत व्यस्त आशिल्ली बायल. तिका पळयल्यार लीनाक

कविताबाईची, मुख्याध्यापिकेची याद जाताली. दोगीय सरख्योच दिसतात आनी सभावानूय सारख्योच.

पत्राक आनी लीनाक दोगांकय हुशार भुरगीं म्हूण वळखुपी पूण पत्रा सुंदर म्हूण पत्रा कडेन ओडपी. आतां मातशी जाणटी दिसताली. पूण उत्साह मात पयलींचोच आशिल्लो.

लीना मेळना फुडें तिणें लीनाची आस्थेन चवकशी केली. पत्राय एक दीस मेळिल्लें म्हणपाचें सांगलें. दोगांय ह्याच शारांत आसात म्हूण खोस परगटायली. लीनाक मोहिनीताईन आपले संस्थेच्या कार्याची म्हायती दिली. संस्थेच्या कार्यावळींक येवपाचें आमंत्रणय दिलें.

''ए लीना, तुमचे मर्दी कोण बरें गायता गो?''

''गायता?'' लीनान प्रस्न केलो.

''हय. आमी आमचे संस्थेचे वतीन खूब कार्यावळी करतात. सोयऱ्यांक आपयतात आनी तांच्याय गुणांचो लाव घेतात. फुडले फावट आमची गावपाची सर्त आसा. जिखपा खातीर न्हय गो. फकत गावपाची उमेद भागोवपा खातीर, आनंद घेवपा खातीर.

''अशें?'' लीना तिच्यो गजालींनी आनंद घेवंक लागिल्लें.

''ए, सांग गो? तुमकां आवडटा गावंक?''

''पत्राक आवडटा. तें बरें गायता''. लीना आपसूक म्हणून गेलें. आनी काळजांतले पोटलेंतली लेंसाची गांठ फट्ट करून उकती जाली.

लेंसाचे गांठीक आशिल्ल्यो कपयो वेगळे तरेच्यो शो नाशिल्ल्योच. बाकीच्या कपयांनी आपशींच भरसून गेल्यो.

❑



# कर्मयोग आनी कर्मभोग

**हांव** अवेवस्थीत, म्हजो वेपार अवेवस्थीत हें म्हाका वळखुपी दर एकलो म्हणटलो, हांव धरून.

खरें म्हळ्यार म्हाका मांडणी आवडटा. ते मांडणे कडेन पळोवपाची म्हजी एक वेगळी नदर आसता. म्हजे दर एके वस्तीक जागो आसता. ती वस्त त्याच जाग्यार योग्य म्हणून. देखून हांव काडिल्ली वस्त त्याच जाग्यार परती दवरतां.

पूण म्हाका विसरपाची संवय. उजो लागिल्ल्यो म्हज्यो यादी म्हाका पावला कणकणी त्रासांत घालतात. आनी एका वेळार हांव काडिल्ली वस्त परत जाग्यार दवरूंक विसरतां. आनी मागीर ती खंयचे खंय पावता. मागीर हांव तर्कान हांवें ती केन्ना काडिल्ली, हाचो अदमास घेवन ती खंय पावल्या आसतली हाचो सोद लायतां. तरी तितले म्हणसर म्हज्या अवेवस्थीतपणाचो फावो तो उद्घोश जाल्लो आसता.

खरें म्हळ्यार म्हज्या घरांत वेवस्थीत मनशांनी वेवस्थीत दवरिल्ल्यो वस्ती सोदून काडूंक म्हजेंच तर्कशास्त्र उपकरा पडटा. तरीकय वेवस्थीतपण हें वेवस्थीतपण आनी अवेवस्थीतपण हें अवेवस्थीतपण.

म्हज्या अवेवस्थीतपणाची देख भोंवतणीं नदर मारल्यार पळोवंक मेळटा. म्हज्यो फायली सारख्यो लायिल्ल्यो नासतात. तारीख, वार हांची नोंद नासता. दीसपट्ट्या खर्चाचो हिशोब बरयिल्लो नासता. म्हज्या मनांत जमाखर्चाचें गणीत चालूच आसलें आनी मनाच्या कोनशाक ताची नोंद जायत उरली तरी मनाक हांवें कंप्युटर कित्याक समजुचें? ह्यो फायली उकत्यो करून दुसऱ्याचो विस्वास थोडोच बसता!

म्हजे आरमारींत कपड्यांच्यो घडयो दाळिल्ल्यो नासतात. म्हत्वाचीं कागदां पर्सींत आनी डायरेंत अशींच चोंदिलीं आसतात. एकाद्रें हांव सांबाळून दवरतां त्या कागदा

कुडक्यांक म्हत्व नासता. पूण म्हजे नोकरेच्या काळांत म्हजेर जाल्ल्या अन्याया आड झगडून न्याय मेळोवंक म्हाका असलेच कागदा कुडके उपकरा पडले. मात ते सारखे 'वेवस्थीत' लायिल्ले नाशिल्ले.

म्हजीं कामां सडसडीत जातात कारण म्हज्या मनांत तांचो क्रम लागिल्लो आसता. क्रम चुकलोना जाल्यार तातूंत चुकोय जायनात. तरी आसतना केन्ना तरी हांव च्याक साकर घालूंक विसरतां. 'साकरभात करतना हांव साकर घालूंक विसरतलें' ह्या विनोदान सगल्यांची मनरिजवण केल्या. हांवें गॅस बंद करपा वांट्याचो बारीक करून भाजी करपिल्या. उदक घालिनासतना कुकर गॅसार दवरून कुकराचो व्हाल्व वगडायला.

म्हज्या अवेवस्थीतपणाक म्हजे विसरायेची साथ मेळटकच म्हज्या व्यक्तीमत्वाच्यो जाल्ल्यो तिस्त्योभयऱ्यो, म्हज्या अबरगतपणाक समर्थन आसूंक शकना हाची म्हाका जाणविकाय करून दितात.

हांव म्हणटां, हांव वॉशिंग मशिनांत (सेमी ऑटोमॅटिक) उदक सोडटां तेन्ना कसल्याय कामांत आसलें तरी म्हजें लक्ष उदकाच्या आवाजाचेर आसता. आवाजांतलो फरक म्हाका उदक भरलां म्हणपाचें सांगता आनी एक प्रतिक्षिप्त क्रिया कशी हांव उदक बंद करतां.

तरीकय मदींच हांवें मान्न्यांत सोडिल्लो पायप म्हजे नकळटां परत मशिनाक लावन म्हज्या कामांत व्यत्यय हाडून म्हजी तकली पिड्ड्यार जावपा सारखे नसते विशय येवन म्हज्या कामांचो क्रम इबाडूंक नाशिल्लो जाल्यार वॉशिंग मशिनांतलें उदक घरभर जावचें नाशिल्लें अशें म्हणपांत अर्थ नासता.

म्हज्यो चुको अपधारांचें रूप घेवन म्हज्या व्यक्तीमत्वाक भिशण रूप दितात, तरी हांव सुदरना.

म्हज्या अवेवस्थीपणाक लागून म्हजें लुकसाण जाता वा म्हजें जाल्लें लुकसाण म्हज्या अवेवस्थीतपणाक लागून जालां हें हांव मानून घेना आनी म्हजी अवेवस्थीत कार्यपद्दत चालूच उरता.

तेदृसाय अशेंच जालें. हांव बाजारांत वचूंक भायर सरलें. बॅगेंत पर्स घाली. खंयय वतना ही पर्स बरोबर घेवपाचो म्हजो नेम. कारण हे पर्सींत म्हज्यो सगल्यो गरजेच्यो वस्तू, म्हळ्यार केन्नाय गरज पडल्यार आसच्यो असल्यो वस्तू, म्हळ्यार व्होटिंग कार्ड, लायब्ररी कार्ड, धरून वेगवेगळीं कार्डां, चावयांचो घोंस, एक ल्हानशी डायरी, तातूंत चेपिल्लीं दोतोरालीं रेसेद, लाँड्रीचें बील, बँकेची स्लीप असलीं गरजेचीं कागदां आनी पयशे आसतात.

बॅंग घेवन हांव बाजरांत गेलें. पयलीं स्टुडियोंत वचून म्हजे पासपोर्ट सायझ फोटो घेतले. म्युनिसिपल लायब्ररीचें मेंबर जावपाचें थारायिल्लें हांवें. फोटे हांवें पर्सींत चेपले, सदां भशेन, आनी फुडें गेलें. पर्स बरीच फुगिल्ली.

कामां चडशीं सगलीं जाल्लीं. एकच उरिल्लें, लायब्ररीचें मेंबर जावपाचें. पूण वाज आयलो. दुसरे फावट आयल्यार जालें. सध्याक वाचूंक खूब पुस्तकां आसात म्हळें आनी घरा आयलें.

दुसरे फावट भायर सरलें तें पयलीं लायब्ररींत गेलें. थंय फॉर्म भरले आनी फोटे दिवंक पर्स उकती केली.

आनी कितें? पर्सींत फोटे नात!

आरे! पयरच तर काडिल्ले! हेच पर्सींत दवरिल्ले (चेपिल्ले)!

याद कर कर केली. केन्ना काडले ते हांवें पर्सींतल्यान? कित्याक म्हूण काडले आसतले? आनी दवरले तरी खंय? परतें घरा वतकच सोदचे पडले.

लायब्ररींत हांवे बेठींच पुस्तकां वयल्यान नदर भोंवडायली. पूण तकलेंत फोट्यांचोच विशय घोळटालो. देखून नदरेन केल्ल्या कामाची नोंद तकली घेनाशिल्ली.

हांव थंयच्यान उठून मार्केटांत गेलें. आयज म्हाका चणे जाय आशिल्ले. चणे घेवपाचो म्हजो सदांचो चणेकार. ह्या भुरग्याची म्हाका तोखणाय दिसता. आपल्या कामांत इतलो गुल्ल आसता किं नदर उखलून तोंडाक लेगीत पळयिल्लो दिसना. हांवें ताका केन्नाच उलयिल्लो पळोवंक ना. हांशिल्लो पळोवंक ना. मालाचें मोल सांगपा पुरतें तोंड उकतें करतालो जावंये तो. स्थितप्रज्ञ कर्मयोगी कसो. हांव ताचे म्हऱ्यांत पावलें तेन्ना ताचीं बरींच गिरायकां थंय आशिल्लीं आनी तो भुरगो आयदन साकांत धोंगसून चणे-भिकणां काडून जोखूंक गुल्ल आशिल्लो.

म्हाका मातशें रावचें पडलें. ताचीं बाकीचीं गिरायकां उलगतकच हांवें म्हजी मागणी सांगली. पूण तो आयदन साकांत धोंगसुपाचें सोडून कुशीक कितें तरी उस्तिता थंय म्हजें लक्षच गेलें ना. हांव तो म्हजे खातीर चणे जोखपाची वाट पळयतालें. सट्ट करून म्हजें लक्ष ताच्या हाता कडेन गेलें. तो पाकीटांतल्यान म्हजे फोटे काडून म्हाका दाखयतालो!

म्हजे फोटे? हांगा पडले? केन्ना? कशे? आनी पडले तें म्हाका कशें कळ्ळें ना?

सगले प्रस्न एकेच फावटीन म्हजे तकलेंत आयले.

''आगे बाये! हांगा पडले?'' हांवें आकांतान म्हळें.

''तरी बरें, तुवें दवरले. आनी यादीन दिले. थँक्यू आंऽऽ!''

म्हज्या मनांत त्या भुरग्याची तोखणाय, फोटे ताणें सांबाळून दवरून म्हाका दिल्ल्याचे उपकार, तो म्हाका वळखलो ताचें अजाप, ते शेणल्यात म्हूण खबर नासतनाय मेळिल्ल्याचो आनंद आनी तेच बरोबर एक अस्वस्थकाय... ते पर्सीतल्यान पडिल्ले म्हाका कळ्ळे ना, ताची.

तो स्थितप्रज्ञ मात निस्संग जावन आपल्या कामाक लागिल्लो. म्हज्या उपकार मानपाचें आनी तोखणायेचेंय ताका पडून वचूंक नाशिल्लें. त्या कर्मयोग्याचें लक्ष आपल्या कामाचेरूच थीर आशिल्लें.

हांवें फोट्यांचें पाकीट ताचे कडसून घेतलें आनी परतें पर्सीत चेपलें. पर्सीत दवरतना म्हज्या मनांत आयलें, 'हें पडलेंच कशें हांगा? पयशे तर हांव सांबाळून काडटां. आनी, पडिल्ल्याचें कळ्ळें ना कशें?'

तातूंतल्यान आनीक एक हुस्को मनांत आयलो, 'आनीक बी कांय पडलें ना मूं? म्हत्वाचें कसलेंय कागद? गरज येतली तेन्ना कळटलें!'

हांव अस्वस्थ जालें आनी म्हज्या तोंडांतल्यान गेलें,

"आनीक कांय पडूंक नाशिलें मरे?"

कर्मभोग! खरें म्हळ्यार हें ताका विचारपाचें नाशिल्लें म्हाका. फकत म्हजीं म्हत्वाचीं कागदां शेणूंक नात मूं हाचो दिलासो सोदतालें हांव. पूण ताका विचारलें आनी म्हजी अक्षम्य चूक म्हाका होलमली.

हें ताका अशें विचारप म्हळ्यार ताचेर एके तरेचो आरोप करप.

इतली म्हत्वाची वस्त ताणें सांबाळून दवरून दिल्ली म्हाका. ताका ते वस्तीचो उपेग नाशिल्लो जायत, पूण म्हाका दिवपाची गरजय नाशिल्ली. ताका तशें म्हत्वाचें आनीक कितेंय मेळिल्लें जाल्यार तो दिले बगर कसो रावतलो आशिल्लो? ताका मेळून ताणें न दिवपा सारकी एकूच गजाल म्हळ्यार पयशे. हांवें ताका अशें विचारप म्हळ्यार ताणें ते दवरले जायत म्हणपाचो दुबव घेवप. शी! कशें सांगूं ताका तशें न्हय म्हूण?

तो मात एकूच फावट म्हजेर नदर मारून परतो आपल्या कामाक लागिल्लो.

❑



# दो. चिंतातूर

**हरीबाब** गेलो?

कसो?

काल मेरेन बरो आशिल्लो.

लक्षणां पळयल्यार काळजाचो आताक आसूंकच शकना.

कॉलायटीसाचो त्रास आसा म्हणटालो आपल्याक. तरी अंयशीं वर्सां पिरायेर लेगीत खुटखुटीत आशिल्लो. तुरतुरीत भोंवतालो.

असो अकस्मात वचपा सारकें कितें जालें?

सात-आठ वर्सां पयलीं तरी जोर आयिल्लो आनी रक्तदाब देंविल्लो म्हूण सांगतालो. तेन्ना मेल्लो जाल्यार समजूं येतालें.

ताचे उपरांत आमांश पडून रगत वतालें म्हूण आयकल्लें. तेन्नाय मेल्यार समजूं येतालें. दोन दीस हांतरुणार पडिल्लो जाल्यार समजतलें आशिल्लें.

पूण....

जिवाचें कांय बरें वायट...?

हरीबाब गेलो म्हूण आयकतकच दो. चिन्तातूराक सगले प्रस्न पडिल्ले.

हरीबाब सगल्यां कडेन फकांडां, मस्कऱ्यो करपी मनीस. पूण चडश्या जाणां कडेन आपलें केन्नाच जमलें ना अशें तोच सांगतालो. दो. चिन्तातूरा कडेन मात हरीबाबालें बरें पट्टालें. दो. चिन्तातूर हरीबाबाल्यो खबरी मन लावन आयकतालो.

दोन वर्सां फाटीं हरीबाबाची बायल अकस्मात नाच्च जाली. आपल्याक ती सोडून गेली म्हूण सांगूंक लागलो हरीबाब. आपल्याच जिवाचेर उबगल्लो. इतल्या जाण्टेपणांत कसलो प्रसंग. इतलें आयुश्य बरोबर काडून आतां कशी ही सोडून गेली अशें दिसलें

दो. चिन्तातूराक.

तकलेंत तोच विचार घेवन बिल्डिंगेचीं सोपणां चडटना वाटेर बाबुराव सकयल देंवतना मेळ्ळो.

"तूं जाणा? हरीबाबाची बायल गेली खंय". ते खबरेन पोट फुगिल्ले वरी दो. चिन्तातूरान ती बाबुरावाक सांगून सोडली.

"गेली? कशी?" बाबुराव इतलो थक्क की जशी ती मरूनच गेली.

"येदोळ सांगतालो हरीबाब. ह्या जाण्टेपणांत कसली बुद्द जाली पळय तिका". दो चिन्तातूरान हरीबाबाची काकुळट करीत म्हळें.

"तूं कितें उलयता? सोडून गेली म्हणटकच हांव भियेलों". बाबुराव शितिदार आयिल्ले भशेन उलयलो.

"ती हरीबाबाक सोडून कुळारा गेली खंय". दो. चिन्तातूरान परत स्पश्ट केलें.

"कोणें सांगलें तुका? हांगा रावल्यार कोण करतलो आशिल्लो तिजें?" बाबुराव दो. चिन्तातूराचेरच धेंगसो घाल्ले भशेन उलोवन मुखार सरकलो.

दो. चिन्तातूर उबगलो. 'आपल्याच वांट्याक कित्याक येता हें सगलें? आपली प्रॅक्टीस चलना ताच्यो बऱ्यो खबरी करतात. म्हज्याच संवसाराच्यो वादऱ्यो सगल्यांक दिसतात. हरीबाबाल्या घरांत चलता तें कित्याक दिसना हांकां?'

उपरांत हरीबाबाल्या घरांत चलिल्लो संवाद आयकुपाचो योग दो. चिन्तातूराक आयलो. आपल्या तिसऱ्या मजल्या वयल्या फ्लॅटांतल्यान पयल्या मजल्या वयल्या हरीबाबाल्या फ्लॅटा मुखार पावतना दो. चिन्तातूराक हरीबाबालो सात्वीक संतापाचो सूर आयकूंक येतालो. दारांत पावतना हरीबाबाली उतरां स्पश्ट आयकूंक आयलीं.

"म्हजेर खोंट मारून गेल्ली तुजी भयण", हरीबाब आवाज चडोवन उलयतालो.

"भावोजी, खोंट खंयच्या पांयान मारली ताणें? मोडिल्ल्या काय मोडूंक नाशिल्ल्या?" हो आवाज मेवणेचो आसतलो.

हरीबाबाची बायल परत आयली आसतली इतलें कळ्ळें दो. चिन्तातूराक. पूण पांय कोणालो मोडलो? आनी कसो? केन्ना?

हो हरीबाबय जाल्यार चकाटां मारूंक येता आपल्यागेर. आपूण दोतोर म्हूण तपासून घेवंक केन्ना आयलो ना. आपलो सल्लो केन्ना घेतलो ना ताणें. नाय म्हळ्यार दो. चिन्तातूराक मातशें खटकलेंच. इतलीं चामटेपणां कित्याक करता कोण जाणा? घोव बायल दोगांय नोकरेंतल्यान निवृत्त जाल्यांत. भुरगेंबाळ ना. म्हणटकच ताचें शिक्षण, लग्नां असल्यो जापसालदारक्यो नात. बायले वटेनच्या बेंसाचो आपल्याक वांटो आसा

म्हूण सांगता. पूण पयसो मोडूंक भियेता.

हाचो दोतोर तो - दो. बिनधास्त. बायलेलो भाचो काय कोण. ते भायर स्पेशालिस्ट. म्हणटकच दोनय सादलें. स्पेशालिस्टय जालो आनी सोयरो म्हूण फुकटय जालो. हालीं लोकांक सादो एमबीबीएस उपकारना.

मनांत अशे आरते परते विचार घेवन दो. चिन्तातूर हरीबाबाल्या फ्लॅटांत भितर सरलो. ताचे बायलेचो तो भाचो दो. बिनधास्त थंयच आशिल्लो. सगल्यांत पयलीं तोच पावलो खंय.

दो. चिन्तातूर वचून मुद्दाम दो. बिनधास्त म्हऱ्यांत बसलो.

"कितें जालें?" ताणें ल्हवू आवाजांत दो. बिनधास्त विचारता म्हणसर दो. बिनधास्त उठलो आनी म्हऱ्यांतल्या मनशाक कितें तरी सांगून भायर सरलो.

दो. चिन्तातूरान त्या मनशाक विचारलें, "कितें जालें अशें अकस्मात?"

"बरो नाशिल्लो तो". ताणें कातरून उडयिल्ले वरी उडयलें.

लोक ल्हवू ल्हवू येवंक लागिल्ले.

"बरोऽ गेलो. हांतरुणार पडून दुसऱ्यां सुवादीन जालो ना".

"वळवळ्यांत पडलो ना. मरण बरेंऽ आयलें".

"आपूण त्रासांत पडलों ना आनी दुसऱ्यांकय त्रासांत घालें ना गे बाये".

आयिल्लो जण एकलो पुटपुटत हेंच उलयतालो

जायत ताका जाल्लीं अंयशी वर्सां. नाशिल्लें जायत कोणाक दुख्ख. तशें दो. चिन्तातूराकय दुख्ख नाशिल्लेंच. पूण हरीबाब अकस्मात कसो गेलो हाचें कुवाडें दो. चिन्तातूरा बगर कोणाकच पडूंक नाशिल्लें. दो. चिन्तातूराच्या मनांत हरीबाबाच्यो यादी घोळटाल्यो.

'हांव पु. ल. देशपांडे नासन, पूण थोडेंभोव म्हाकाय बरोवंक येता'. हरीबाब आत्मस्तुती करिनासलो. पूण आपल्या आंगांतले गूण कोणाक दिसच नात जाल्यार सांगचेच पडटात.

हरीबाबान बरयिल्लें एकय उतर वाचिल्लें नासलें जावं ताणें बरयलां म्हूण खबर नासलें तरी हरीबाबान हमी दिल्ल्या ताच्या प्रतिभेचें हनन करपी, ताणें अप्रत्यक्ष आरोप केल्ले ताचे बायलेचो दो. चिन्तातूराक राग आयले बगर रावलो ना. तिका लागून हरीबाबान अविचार (उलोपाची रीत आसता अशी) केला आसतलो.

'सगलींच तशीं. हांव म्हळ्यार कांय न्ही तांकां. व्हडलीं समजतात आपल्याक. हिका आनी तांचींच वोरां' हरीबाबाचो सात्वीक संताप अशे तरेन उकतो जातालो.

कुळारचें व्हडपण मिरोवपी बायलांचो दो. चिन्तातूराकय राग येतालो.

पूण नशिबान साथ सोडटकच मेळटा तो आदार घेवचो पडटा. बापूय म्हणटालो, 'जेन्ना गरज दारांतल्यान भितर सरता तेन्ना लज जनेलांतल्यान उडी मारून पळून वता. मागीर मावोडेच्यान आदार मेळटा जाल्यार ना कशें म्हणूं येता?'.

दो. चिन्तातूराक पेशंट उणे जातकच मावोडेचोच आदार घेवचो पडिल्लो. येणावळ उणी आनी खर्च चड. तेवटेन मांव आनी मेवण्याचो धंदो वाडत आशिल्लो.

'चंदनाक आमी करपाचेंच' म्हूण सगलो खर्च तेच करतात. चलयेचें पुण्यांतलें उंचेलें शिक्षण तांच्याच खुस्तार चलता. तांणी कांय म्हळें ना तरी दो. चिन्तातूराक मनांतल्यान उणेपणांच येतात. सगल्यांचें सारकें चलता. आपलेंच कित्याक अशें? तरी बायल वोर्र सांगपाचे अवस्थेंत ना.

पूण चली पुण्यांत वचूंक भायर सरिल्लें तेन्ना चणचणून गेलें, ''पापा, मम्मी कडेन मातशें लक्ष दी. एकटी जाता ती''.

बायलेक डिप्रॅशन आसा हें तोय जाणा आशिल्लो. वखदां चलतालीं. पूण ती तशीच ओग्गी बसून रावताली. धा प्रस्न विचारतकच एक उतर उलयताली आनी भितर वचून न्हिदताली. चलयेक तिचो हुस्को. चली पुण्यांत वचत साकून घरांतलें रांदप धरून सगलें दो. चिन्तातूरच करतालो. दवाखान्यांत पिडेस्त नासले तरी घरांतलें करून दोतोर वेळार दवाखान्यांत वतालो. घरांत घरांतलो मनस्ताप आनी दवाखान्यांत थंयचो. थंय येवन कोणेंय आपल्या खुशालकायेची वोर्रा सांगली जाल्यार दो. चिन्तातूराक राग येतालो. हरीबाब बावडो आपली कर्मकाणी सांगतालो.

हरीबाब दो. चिन्तातूरालो पेशंट नासलो तरी आयल्यार दुसरे वटेन बऱ्याक पडटालो. हालीं सराक मात मातशें हरीबाबालें येवप उणें जाल्लें. आयल्यारय चड वेळ बसनाशिल्लो.

'सोंसूं नजो सगलें' अशें किदेंशें म्हणटालो परत परत.

निमाणें खरेंच ताणें सोंसूंक नजो जावन...? ताचे बायलेक लागूनच जालां सगलें.

बारा दिसां कडेन हरीबाबागेर सगलीं मनशां जमिल्लीं. दार उकतेंच आशिल्लें. एकली जाण्टी बायल सगल्यां कडेन व्हडल्या व्हडल्यान उलयताली. दुसरे दीस पळयत जाल्यार ती दो. चिन्तातूराल्या फ्लॅटार हजर.

'म्हाका मातशें तपास रे पुता, कलकलता म्हाका'. तिणें तरी आपल्याचेर विस्वास दाखोवन आपल्या म्हऱ्यांत आयली म्हूण दोतोराक लक्तुबाय दिसली. पूण तपासून जाली तरी ती थंयच बसून दोतोरा कडेन उलयत रावली. उलोवपावरसून ती हरीबाबाची भयण

म्हणपाचें कळ्ळें. तेन्ना दो. चिन्तातूरान ल्हवूच आपलो दुबाव उकतावंक पळयलो.

"हरीबाब बायलेल्यो केशी सांगतालो सदांच. ताका सूख नाशिल्लें दिसता घरांत".

आजबसून सगल्यां कडल्यान आपल्याक मेळिल्ल्या हिणसावणेंतल्यान भायर सरिल्ले भशेन दिसलें दो. चिन्तातूराक.

"तिचें कांयच सांगनाका तूं म्हाका. तिका लागूनच आटापून आयलो तो. आतां खातली ताजें पॅन्शन".

भयणीन नक्की कितें म्हणलें तें दो. चिन्तातूराक समजलें ना. पूण हरीबाबान जिवाचें कितेंय पूण बरें वायट केलें हें सेर्त. हाचेर ताच्या मनान म्होर लायली.

हरीबाबाली भयण वतना पयशे दिवन गेली ना तरी दो. चिन्तातूराच्या मनांत हरीबाबाले बायले विशींचो तिरस्कार निर्माण जालो.

हरीबाब वचून म्हयनो जालो तरी दो. चिन्तातूराक ताची याद जाताली. घरा येतना तो चिंततालो, हरीबाबाच्या घरांतली कथा हरीबाब आसतनाच लोकांक समजूंक जाय आशिल्ली. कळटलें आशिल्लें एखाद्रे बायलेक लागून हरीबाबान जिवाची वाट लावन घेतिल्ली जाल्यार.

म्हणटनाच बिल्डिंगेच्या दारांत दो. चिन्तातूराक सर्वेश मेळ्ळो.

"दोतोर, आयलो?" सर्वेशान दोतोराक हटकिलें.

"तूं खंय वता तर ह्या वेळार?" दो. चिन्तातूरान सर्वेशाक विचारलें.

"ना. हरीबाबाले बायलेची मातशी अडचण जाल्या. एकटीच आसा न्हय ती? तिका मातशी मजत करूंक जाता जाल्यार पळयतां", सर्वेशान म्हळें.

"सर्वेश तूं तिचे भानगडींत पडनाका. ती खरी न्हय. तिकाच लागून हरीबाबान..."

"कित्याक म्हणटा तूं? बरी बायल ती. आतां पांच वर्सां आसात तीं आमच्या मुखार. हांव वळखना तिका?" दो. चिन्तातूरालें उलोवन जावचे पयलीं सर्वेशान म्हळें आनी आपले वटेन चलूंक लागलो. भिरकी मारली दोतोराक.

दो. चिन्तातूर तेच भिरकेंत दोन दोन सोपणां चडून आपल्या फ्लॅटाच्या दारांत पावलो. बोल्सांतली चावी काडून ताणें दार उकतें केलें आनी मुखा वयलें दृश्य पळोवन ताचे हात-पांय गळसणले.

हॉलांत जेवपाच्या मेजा वयर आशिल्ल्या फॅनाक गोळ लावन घेतिल्ली ताची बायल हुमकळटाली. ❑



# नातीं

''हो म्हाका?'' हांवें अजापान भाभीक विचारलें.

'घे' म्हूण भाभीन म्हजे कडेन दिल्लो चुडीदार पळोवन म्हाका खूब आनंद जालो. खूब खूब आनंद जालो. कितलो सुंदर रंग! गुलाबीच आनीक ताचेर पाचवीं फुलां. हाताक लेगीत बरो सुळसुळीत लागतालो.

''कितें जालें गो?'' भाभीन विचारलें. ''आवडलो ना?''

''म्हाका खूब आवडलो'', हांवें आनंदान म्हळें आनी भाभीच्या तोंडाक पळयलें.

भाभी म्हाका पळोवन मुमुरख्यानी हांसताली. म्हाका लज जाली. हांवें मान उमथी घालून चुडीदाराची घडी केली.

''चल दवर तुजे बॅगेंत'', भाभीन म्हाका सांगलें. म्हाका मात तो आतांच घालीनसो दिशिल्लो.

''भाभी, हांव फाल्यां बाबूक पासयेक व्हरतना घालूं हो?'' हांवें भाभीक विचारलें.

''पिशा, आयतारा दीस ईद आमा तुजी'', भाभीन म्हणटकूच हांव ओगीच रावलें. म्हाका ईदाची यादूच नाशिल्ली.

रातचें न्हिदतना म्हाका चुडीदारूच दोळ्यांर येतालो. ताचो सुळसुळीत स्पर्श जायजायमो दिसतालो. तो घालून हांव कशें दिसतलें तें मनांत रंगयत हांव न्हिदलें. म्हाका सपनां लेगीत चुडीदाराचींच पडलीं. सपनांत हांव तो चुडीदार घालूंक सोदतालें आनी म्हाका तो खंय दवरला तोच मेळनाशिल्लो. हांव भियेलें. हेवटेन तेवटेन धांवलें. म्हजेर आकांत आयलो. म्हाका रडूंक येवंक लागलें. हांव जागें जालें. जागें जायना फुडें तें सपन म्हूण कळ्ळें आनी सूऽऽ जालें.

हांवें बेगिबेगीन उठून चुडीदार जाग्यार आसा मूं म्हूण पळयलें आनी मागिरूच कामाक लागलें.

भाभी म्हजे पयलींच उठून कामाक लागिल्ली. ती सदांच सकाळीं फुडें उठ्ठाली आनी नाश्तो करताली. रांदून दवरताली. आयदनां घांसूंक आनी जमीन पुसूंक बायल येताली. ती भाभी कामाक वच्चे पयलीं येताली. हांव उठना फुडें भाभी म्हाका तोंडबीण धुवन न्हावंक लायताली. मागीर ओंकार बाबू उठ्ठकूच ताका सांबाळपाचें म्हजें काम.

ओंकारबाबू अपुरबायेचोच. म्हाका खूब आवडटा. धरीन दिसता ताका. आपलो आपूण खेळत आसता. म्हाका कसलोच त्रास ना. फकत भाभीन सांगून दवरिल्ल्या वेळार ताका न्हाणोवप, पोटाक घालप, न्हिदोवप आनी सांबाळप. सांबाळप म्हणल्यार तो पडचो ना, ताका लागचें ना, तो रडचो ना इतलें पळोवप, हें म्हजें काम. भाभी कामार वतकूच ओंकार एकटो उरतलो आशिल्लो म्हूण ओंकार तीन म्हयन्याचो आसतना भाभीन म्हाका हाडिल्लें. ओंकाराक पळयतनाच म्हाका आवडिल्लो तो. अपुरबायूच दिसताली ताची.

भाभी कामाक वतकूच म्हाका परत चुडीदाराची याद जाली. हांवें तो बॅगेंतल्यान भायर काडलो आनी आंगा वयल्या कपड्यां वयल्यान घालून पळयलो. हांव हारशा मुखार रावन हेवटेन तेवटेन परततां तें  ओंकारान पळयलें. तो हातांतलें खेळणें वेंगेंत घेवन म्हजे मुखार येवन उबो रावलो. अजापान पळयत रावलो म्हाका.

''बाबू, बरो दिसता मरे?'' हांवें ओंकाराक विचारलें.

''फुर्रऽऽऽ..'' ओंकारान तोंडांतल्यान आवाज काडलो.

''मस्तो!'' हांवें ताका उबारून हारशांत दाखयलें.

खरें म्हळ्यार म्हाका आतां थोडीं कामां करपाचीं आशिल्लीं. ओंकाराक न्हाणोवंक जाय आशिल्लो, बोम घालून न्हिदोवंक जाय आशिल्लो. तो न्हिदतकूच च्याचीं आयदनां उरल्यांत तीं घांसून दवरूंक जाय आशिल्लीं. आनी भाभीन कितें सांगिल्लें? यादीन सगलीं कामां करून दवरूंक जाय आशिल्लीं.

हांवें बेगिबेगीन ओंकाराक सकयल दवरलो आनी चुडीदार काडलो. घडी करून परत बॅगेंत दवरलो. भाभीन म्हाका ईदाक घाल म्हूण सांगिल्लो तो.

ईदाक नवे कपडे घालतात म्हूण म्हाका खबरूच नाशिल्लें.

शेनवारा दीस भाभीन म्हाका विचारलें, ''मुमताज, ईदाक कितें करतात तुमी?''

म्हाका याद जाताली ती आमी अब्बू बराबर मशिदींत वचून जेवतालीं. थंय बिरयाणी, शीरखुर्मा आसता. सगलीं भुरगीं मशिदीचे भोंवतणीं खेळटालीं आनी

बिरयाणी, शीरखुर्मा खावन घरा येतालीं. सांजेचीं गार्डनांत वतालीं.

आतां म्हाका नाकाचशें दिसता तें. ओंकारा बराबर भाभी खंय व्हरता थंयूच वचन दिसता.

ईदाक कोणूय आमकां कपडे दितालीं. पूण ते केन्नाच सारके जायनाशिल्ले. भाभीन हाडला तसलो चुडीदार तर केन्ना पळोवंक लेगीत मेळूंक नाशिल्लो.

भाभी बरीच.

हांवें ओंकाराक न्हाणयलो. ओंकार हरशीं केन्नाच रडना, पूण ताका न्हावपाचो भंय दिसता. भाभी न्हाणोवंक वचत जाल्यार तो रडून घर माथ्यार घेतालो. हांव मात जाणां आशिल्लें ताका कसो न्हाणोवप तें. हांव ताचे बराबर उदकांत खेळटालें. ताचेर इल्लें इल्लें उदक फाफुडलें म्हणटकूच तोय बी म्हजेर उदक फाफुडटालो. करतां करतां हांव ताका न्हाणोवन काडटालें आनी तो म्हाका भिजोवन सोडटालो.

भाभीन एक फावट हांव भिजिल्लें पळयलें आनी सांगलें, ''आंगार वले कपडे दवरूं नाका आं. दुसरे घाल सुके''.

भाभीले भयणीचे चलयेचे खूबशे कपडे भाभीले भयणीन म्हाकाच दिल्ले. हांव न्हातकूच एक फावट आनी ओंकाराक न्हाणयतकूच एक फावट अशे करून दोन फावट कपडे बदलायतालें. उमळिल्ले कपडे घालतालें.

भाभीक सगलें निवळ जाय. सगलें निवळ कशें दवरप हें तिणेंच शिकयलां म्हाका. म्हजीं नाखटां केन्नाच वाडिल्लीं नासतात. ओंकाराक लावचे पयलीं हांव शाबू लावन हात धुतालें. ताका कुलेरान खावयतालें. जेवचे पयलीं आनी जेवले उपरांत ताचे हात आनी तोंड धुतालें. भाभीन सांगिल्लें, तुज्या उश्टयाचे बी खावोवं नाका आं ओंकाराक. हांवें तें घट्ट याद दवरलां. भाभी आपल्या उश्टयाचें लेगीत खावयना ताका.

ओंकार म्हाका आवडटालो तसो तोय म्हाका बरें करतालो. मारिनाशिल्लो. म्हजो फाटलो भाव खूब आडांगी. म्हाका खूब मारतालो. बुड्डितालो. ओंकार तसो न्हय. खूब समजीक.

आयतारा दीस भाभीन यादीन चिकन बिरयाणी केली. म्हजी ईद आशिल्ली म्हूण. आनी शीरखुर्मा. हांवें इतली रुचीक शीरखुर्मा केन्नाच खावंक ना. बदाम, काजू, खिशमीश बी खूब आशिल्ली. बरो वास येतालो.

आयतार आशिल्ल्यान भाभीन पयलीं म्हाका वाडलें आनी उपरांत ती आनी भैया जेवंक बसलीं. हांव ओंकाराक बालकनींत घेवन खेळयतालें.

भाभी म्हणटाली, ''पोर लक्तुबायेचेंच. ओंकारूय बरो खेळटा ताचे कडेन''.

म्हाका मूठभर मांस चडलें आंगार.

ओंकाराच्या पयल्या वाडदिसाक भाभी-भैया परस म्हाकाच चड उमेद आशिल्ली. सांजेचीं भुरगीं येवन धुमशेणां घालूंक लागलीं. पूण हांवें ओंकाराक कसोच पातयेलो ना. बोवाळांत ताका कितेंय जालें जाल्यार?

ओंकार आतां उलोवंक लागिल्लो. ''मुम्ता ऽऽ' करून म्हाका हालेटी घालतालो. मस्ती करतालो. पूण अपुरबायेचो. भाभीन ताका तापयल्यार हांवूच म्हणटालें, ''नाका गे भाभी, तो मस्ती करिना''.

भाभी मागीर म्हाकाच तोखेताली.

''तुवेंच चडयला ताका. दोगांकूय पेट दिवंक जाया तुमकां''.

भाभीन अशें म्हळ्यार म्हाका बरेंच दिसतालें. हांव आनी ओंकार दोगांय भाभीक सारकीं कशें दिसतालें. तरिकूय ओंकाराक तापयल्यार म्हाका मनांतल्यान वायट दिसतालें इतलें मात खरें.

ओंकार बालवाडींत वचूंक लागलो. ताका वांगडा हांव जाय आशिल्लें. हांव ताची बॅग, तातूंत उदका बाटली, तोंड पुसपाचो तुवालो बी घेवन वतालें. पयलीं कांय दीस ताणें म्हाका आपले बराबर बालवाडींत बसूंक लायलें. उपरांत बाईन म्हाका भायर धाडटकूच हांव ताका दिसतां अशें भायर बसूंक जाय आशिल्लें. मातशें दोळ्यां आड जाल्यार रडटालो तो.

ल्हवू ल्हवू ओंकाराक संवय जाली. तो बालवाडींत रमूंक लागलो. म्हाकाय घरांतल्या हेर कामांक फुरसत मेळूंक लागली. हांवें आपूण जावन करूंक सुरवात केल्लीं तीं कामां. भाभी धडपड करून सकाळची रांदून वता तें म्हज्यान पळोवंक नज जातालें. नुस्तें उजरावप, भाजी शिनप, सोय कांतप बी जमतालें म्हाका. ताका लागून भाभी वयलो कामाचो भार मातसो उणो जातालो. तशेंच घरांतलें फर्निचर पुसप, वस्ती जाग्यार दवरप, कपड्यांक इस्त्री मारप बी हांव जावन करतालें.

ओंकार व्हड जातालो आनी आपली कामां आपूण करतालो. हांव मेकळें उरतालें. टी.व्ही. लायल्यार लेगीत भाभी कांय म्हणची नाशिल्ली. पूण म्हाका ओंकाराचेर दुर्लक्ष जाल्लें नाका आशिल्लें. हांव तो अभ्यास करता थंय लेगीत ताच्या म्हऱ्यांत बसून पळयतालें. ताचो म्हाका लावच जालो. म्हाका अक्षरवळख जाली. हांवय ओंकारा बरोबर वाचूंक बरोंवक शिकलें इल्लेंशें. ओंकाराक आपूण शिकतां तें म्हाका शिकोवंक आवडटालें. आनी तो म्हजे कडल्यान वाचून घेतालो, बरोवन घेतालो. पाडे लेगीत शिकयले ताणें म्हाका.

ओंकार व्हड जाता तसो शाणो जातालो. शाळेंत वतना आपली बॅग भरतालो. अभ्यास आपले आपूण करतालो. बाकीच्या भुरग्यां बरोबर खेळटालो. आपले आपूण आपलीं झगडीं मिटयतालो. कागाळ ना, किरकीर ना कांय ना.

म्हजेर मात पयलींचे वरी माया करतालो. आपलीं नवीं पुस्तकां दाखयतालो. काणयो सांगतालो, टी.व्ही. वयल्यो बातम्यो सांगतालो. टी.व्ही. लावन म्हाका पळय म्हण सांगतालो.

एक दीस भाभीन विचारलें,

''मुमताज, कितलीं वर्सां जालीं तुका?''

हांवें याद केलीं. हांगा आयिल्लें तेन्ना हांव कांयच नकळ आशिल्लें. आतां म्हाका खूब कितें कळूंक लागिल्लें. पयलीं वरी हांव भुल्लुसून वचनाशिल्लें. म्हाका भाभी वागता तशें वागूंक येतालें.

हांव आयिल्लें तेन्ना ओंकाराक तिनूच म्हयने जाल्ले. आतां ओंकार सात वर्सांचो जालो. म्हणल्यार हांवूय सात वर्सांनी व्हड जाल्लें.

''याद जाता गो घरची?'' हांव ओगीच आसाशें पळोवन भाभीन विचारलें.

तशी याद जायनाशिल्लीशी न्ही. अब्बू-अम्मीची याद जाताली. व्हडले भयणीची, फाटल्या भावाची याद जाताली. सगल्या वाड्या वयल्यांची लेगीत याद जाताली. पूण थंय वचनशें दिसनाशिल्लें. अम्मी केन्ना केन्नाय येताली. फोन करताली.

''बेटा, कैसी है? अच्छी है ना?''

हांव हय म्हणटालें.

''भाभी की बात सुनती है ना?'' आयिल्ले फावट अम्मी विचारताली. हांव 'हय' इतलेंच उलयतालें. मागीर अम्मी म्हाका बरें करून राव म्हृ.ण सांगून वताली.

म्हाका अम्मी बराबर केन्नाच वचन दिसलें ना. भाभी आनी ओंकारूच म्हजीशीं दिसतालीं. अम्मी-अब्बू लेगीत परकी.

''फाल्यां तुजी अम्मी येतली''. भाभील्या उतरांनी म्हजी तनेरी भंगली. म्हाका अजापशें जालें. हाचे आदीं अम्मी येतली म्हृण भाभीन म्हाका केन्नाच सांगूंक नाशिल्लें. अम्मी अचकीत येताली. भाभीक लेगीत खबर नासतालें.

''फाल्यां?'' हांवें अजापान म्हणलें.

मनाक ओगीच रुखरुखशी लागली. कितें जालां काय? अशें पयलींच कशें सांगलें अम्मीन आपूण येतली म्हूण?

दुसरे दीस अम्मी आयली.

“भाभी, बहोत किया तुमने मेरे बेटी के लिए. तुमचें बरें जावं!”

अम्मी कितें उलयता काय? म्हाका सगलेंच कुवाडें जाल्लें. भाभी ओग्गी आशिल्ली. ती पयशांचो हिशोब करताली.

“पळय, फाटले फावट आयिल्ली तेन्ना तुवें इतले व्हेल्ले...”

भाभी म्हज्या कामाच्या पयशांचो हिशोब करता तें आयकून म्हाका कितेंशेंच जालें. अम्मीन भाभीचो सगलो हिशोब मानून घेतलो.

“हें पळय ताचे पास बूक. ताच्या नांवार पयशे घाल्यात तुका सांगिल्ले तशे. सतरा वर्सा जातकूच काडूंक जातात ताज्यान”, भाभीन अम्मीक सांगलें.

भाभीन म्हाका उलो केलो.

“मुमताज!”

म्हज्या हाताक धरून भाभी म्हाका पळयत रावली. तिणें ओंठ घट्ट आंवळून धरिल्ले. सकयलो ओंठ दांता मुळांत धरिल्लो म्हाका सरको दिसतालो.

“मुमताज, अम्मी तुका व्हरूंक आयल्या. बरें करून वच. बरें करून राव”, भाभीचो आवाज सदां भाशेन नाशिल्लो.

हांवें अम्मीक पळयलें. अम्मी रडटाली.

“आनी ओंकार?” म्हाका कितें उलोवचें तें कळनासून हांवें म्हळें.

“तूं गेल्यार ओंकाराकूय वायट दिसतलें. आतां शाळेंत गेला म्हूण बरें आसा. तोय आतां व्हड जाला. समजतलो मागीर. तूं यो केन्नाय ताका मेळूंक. आनी शादी जातकूच घोवाकय घेवन यो”. भाभीन म्हणलें आनी म्हाका पोटांतल्यान कवळो आयलो.

“भाभीऽऽ” म्हणून हांवें भाभीक वेंग मारली. हांव हुडकेतालें आनी भाभीन म्हाका वेंगेंत घेवन थापटिलें.

हांवें म्हजी मुस्तायकी बांदूंक सुरवात केली.

❑



# इच्छाशक्त

**मुखार** बशिल्ली बायल सामकी गांवढळ. धड रंग ना रूप. त्या वेशभुशेचें भान आशिल्ल्या घोवाक निखालस सोबपा सारकी न्हय. तरीकय घोव म्हणटा, 'हिका ताठो खूब'. सर्वज्ञान आपले बायलेच्या सभावा विशीं सांगलें तेदे वेळार म्हज्या अहंकारान फोणां काडलीं. बायलांक इतलें सदळ सोडून उपकरना.

आपणें कशें वागचें हें हिका समजुचें म्हूण तिका कांय गजाली सांगनशें दिसलें म्हाका. हांवें दोगांकय जेवंक आपयलीं. जाल्यार हिचो उपास. एके वटेन पथ्यारच पडलें म्हाका. हांवें सर्वज्ञाक जेवंक धाडलो आनी ताजे बायलेक म्हजे मुखार बसूंक लायलें. हांवें तिका सांगूंक सुरवात केली.

''कितें जालें जाणा, धायेक वर्सां जातलीं हे खबरेक. म्हजो एक इश्ट आसा मुंबय - सुधीर. एक दीस सुधीराचो म्हाका फोन - 'मेधा आपले कडेन झगडून घर सोडून गेलें'.

'''खंय गेलें?' हांवें विचारलें.

'''हांव नकळो. ताका रावंक खंयय जागो मेळटा. ताच्यो इश्टिणी आसात. पोरण्यो वळखी आसात. कोणय 'पेईंग गॅस्ट' म्हूण दवरून घेत, जोडटा न्ही तें? पयसो आसा ताचे कडेन. अडचता तें म्हजें. सद्दां हें भायलें जेवण परवडय ना आनी पचय ना. घराची आवतिकाय पळय कितें जाल्या. घालून उडयिल्ल्या कपड्यांच्यो राशी पडल्यात. घरांत कोयर तस्सो सांचला. जाय तें कांयच जाग्यार मेळना. तकली घुंवपाची वेळ आयल्या रे'. सुधीरान एकेच फावटीन सगलें सांगून उडयलें.

'''पूण जालें कितें रे?' हांवें विचारलें.

'''आरे, हांव पियेलों म्हूण निमित्त. आतां पियेतकच कितें जाता जाणा तूं. तातूंत

हाचें पेरेंपेरें सुरू जालें. हांव तिडकलों आनी उलयलों. तितल्यार हें घर सोडून गेलें'.

''सुधीराचो आवाज सामको रडकुरो जाल्लो.

''हांवें म्हळें, 'भियेनाका. हांव येतां. हांव सांगतां ताका'.

''म्हजे बँकेचें एक काम आशिल्लें मुंबय. हांवें तें म्हज्या आंगार घेतलें आनी दोन-तीन दिसां खातीर मुंबय वचपाचो बेत केलो.

''मेधाक ताच्या कार्यालयांत फोन केलो, हांव अमक्या दीस मुंबय येतां. अमक्या वेळार पावतलों. आनीक सांगलें, 'म्हाका दार तुवें काडूंक जाय'.

''सांगिल्ले प्रमाण हांव त्याच वेळार पावलों. मेधाय म्हजें आयकून घरा आयिल्लें. दार ताणेंच काडलें. म्हाका बरें दिसलें. एक लडाय हांव जिखिल्लों.

''रातचीं जेवणां जालीं आनी हांवें विशय काडलो.

'''वयनी, तूं अशी घर सोडून कशी गेली?'

''ते बराबर सुधीरान सगली कागाळ सांगूंक सुरवात केली. जाल्यार तो उलयता आसतना ही ताका मदीं मदीं 'तुवें अशें केलें ना? तुवें अशें म्हणलें ना?' करून ताचेर उसळूंक लागली.

''हांवें सुधीराक म्हळें, 'सुधीर पळयता कितें? एक फुलय'''.

सर्वज्ञाची बायल हातार तकली तेकोवन आळसायेन आयकताली. तिणें एकदम मान वयर केली आनी कदेलार फाटीं सरून सारखी बसली.

हांवें फुडें सांगूंक सुरवात केली - ''सुधीरान केन्ना बायलेचेर हात उबारून पळोवंक नाशिल्लें. म्हज्या नेटार ताणें सण्ण करून एक बायलेच्या तोंडार फुलयलें''. सर्वज्ञाचे बायलेक मनांतल्यान धाक जातलो हे अपेक्षेन हांवें तिचे कडेन पळयलें. ती ओग्गी आशिल्ली. तरी मनांतल्यान भियेतली ती हें हांव जाणा आशिल्लों. बायलांक जाग्यार हाडूंक दादल्या मनशान आपलें बळगें दाखोवंक जाय. दादल्याक ओगीच दादलो म्हणिनात.

''मागीर?'' तिणें हांव थांबलोंसो दिसून विचारलें.

'''मागीर कितें? मेधा रडलें - 'भावोजी, तुम्ही पण' म्हूण म्हजेर शिणलें. हांवें ताका ताची चूक दाखोवन दिली. घोवाक 'तूं, तूं' करता म्हळ्यार कितें?''

''आनी तो ताच्यो केशी सांगनाशिल्लो? ताणें केलें ना 'तूं, तूं'?''

ही आनी कितें विचारता? तो घोव न्हय तिचो? हिचे कट्टुलांत कांय शिरकना काय कितें? घोव हिका 'गांवांतली' म्हणटा तें ओगी न्हय. हांवें मनांत म्हळें - ''म्हाका बरें दिसलें ना हें''. ती उलयता तें आयकून म्हाका अजाप जालें तिच्या धाडसाचें. तिचें तोंड

आतां म्हाका धगधगताशें दिसूंक लागिल्लें.

''तुमकां परत मारूंक ती असमर्थ म्हणून तुमी तिका मारूंक धजले. ती परती मारपा सारकी आशिल्ली जाल्यार मारचे नाशिल्ले तुमी. अशेंच न्हय? तिचे असहायपणाचो फायदो घेतलो तुमी''.

म्हज्या मनाच्या फुलिल्ल्या फुग्याचेर तिचीं उतरां 'चिम्म' करून आदळ्ळीं.

''तें हांव नकळों. पूण ताका लागून मुखार तांचें बरें जालें'', हांवें सावध जायत म्हजें समर्थन केलें.

'''बरें' म्हळ्यार कितें?'' तिणें विचारलें.

आतां म्हाका ती आपलें किरपीन रूप सोडून व्हडलें रूप घेताशें दिसूंक लागिल्लें.

''मेधाची एक भयण आशिल्ली, अपंग. मेधा बरोबर रावताली. हांवें सांगलें, 'पयलीं ते भयणीक घरांतल्यान भायर काड'''.

''अपंग भयणीक?'' तिज्या प्रस्ना सरशी हांव खंय तरी धोक्यांत येताशें दिसूंक लागलें म्हाका.

''हय, तीच मेधाक शिकोवन चडयताली''. हांवें कोर्टांत उलट तपासणेक जाप दिवची तशी जाप दिली.

मुखार बशिल्ली बायल इल्ली इल्ली वाडत वताशें दिसलें म्हाका. म्हजीं गात्रां आंवुळ्ळीं.

कांय वेळ कोणच उलयलो ना.

''तुमच्या पांयांक कितें जालां?'' तिणें थोड्या वेळान विचारलें. विशय तिणेंच बदल्लो म्हणटकच हांवें हुस्कारो सोडलो.

''अपघात जाल्लो म्हाका''. म्हज्या लुळे पडिल्ल्या पांयां विशीं उलोवंक म्हाका आवडनाशिल्लें. पूण हे बायलेचें रूप बदलता तें पळोवन ह्या जाग्यार ह्या विशयाचेर हांव उलोवंक तयार जालों.

''तुमकां आतां दुसऱ्याच्या आदाराची चड गरज आसतली न्ही?'' ती थंडपणान उलयताली.

''आदाराची गरज सगल्यांकच आसता''. परत खंय तरी धोक्याची घांट वाजिल्ली.

''लागता सगल्यांक, पूण मेळटाच असो ना''. ती म्हजेर दोळे थीर दवरून उलयताली. हांव कांयच उलयलों ना.

''तुमकां याद नासतली दुसरे दीस मेधान कितें म्हळें तें''.

ही कितें सांगूंक सोदता तें म्हाका कळ्ळें ना. पूण म्हजो जीव भितर ओडिल्ले भशेन जालो. ताळो सुकून आयलो.

"हांव मेधाक वळखतां".

हांव अजापान तिका पळयत उरलों.

"ही खबर मेधानय सांगिल्ली म्हाका. तुमी ताच्या अपंग भयणीक भायर काडूंक लायिल्लें तें घर मेधाचेंय आशिल्लें. मेधा जोडटालें, आपले भयणीचो पत्कर घेवंक तें समर्थ आशिल्लें. तें ती आपली लागणूक समजतालें".

"मेधाच्यान आपल्या घोवाक सोडून भयणीक घेवन दुसरे कडेन रावंक येतालें".

"पूण..." हांवें कितें उलोवपाचो यत्न केलो म्हाकाच खबर ना. मुखा वयली बायल अजून राक्षीणशी वाडत आशिल्ली.

"सुधीर पियेवन संवसाराची वाट लावंक शकता? तो वागता तातूंत मेधाक मनस्ताप जातात तें दिसलें ना तुमकां? मेधा भायर काम करून घर कोणा खातीर सांबाळटा तें समजलें ना? मेधाचे भयणीन तांच्या भुरग्यांचो ल्हानपणांतलो पिरंजळ काडला तें कळ्ळें ना तुमकां?"

"मेधा कितें कुकुलें बायशें दिसलें दुसऱ्यांचें आयकून उलोवंक? आपलें सूख कोण दुसऱ्यांचे सांगणेन सोडटा? काय वापरून घेवन जातकच ती बायल मनीस तुमकां आडखळटा?"

म्हजी गची अंदल्ले वरी हांव कांय उलोवंकच शकलों ना.

"तुमकां खबर ना. मेधा देहान दुबळें आसत. पूण ताचे कडेन एक मानसीक शक्त आसा. जशी म्हजे कडेन आसा".

"हांव अन्याय सोंसून घेना. सगले शक्ती आनी युक्ती निशीं हांव अन्यायाचो प्रतिकार करतां. पूण जंय म्हजे हातपांय पावनात थंय म्हजी इच्छाशक्त काम करता. मेधाचेंय तशेंच. तुमचे मेरेन ताचे हातपांय पावंक शकनाशिल्ले. देखून ताणें म्हळें - "तुमकांय अपंगूळपणां कळूंक जाय".

"रोखडोच तुमकां अपघात जावन तुमचे पांय अशे जाले म्हूण कळ्ळें.

"सुधीर तेन्नाच्यान मेधाक आनी मेधाचे भयणीक कितेंय म्हणूंक भियेता. दुसरो आदार ना तेन्ना मेधाचो आदार तिणें घेवप हो तिचो हक्क हें आतां सुधीराक होलमलां. आनी तेन्ना हॉस्टेलांत आशिल्ली मेधाचीं भुरगींय लागणुकेचे पाठ शिकल्यांत".

म्हजे मुखा वयली बायल पुराय राक्षीण जावन म्हज्यो आंतकड्यो भायर काडटाली". ❑



# सूड

"जोश!"

राहीच्या तोंडांतल्यान एकच उतर भायर आयलें. जोश सामको गुन्यांवकारी जावन राहीच्या रागाचो भार सोंसपाचे तयारेन आशिल्लो.

पूण राही कांयच उलयलें ना. ऑफिस सुट्टकच तडक घरा येवंक आयलें. बस स्टॅण्डार बसीची वाट पळोवंक उबें आसतना झेब्रा गाडी घेवन आयलो. घरा वतना ताणें राहीक स्टॉपार उबें आशिल्लें पळयलें आनी गाडी ताचे म्हऱ्यांत थारोवन ताका येता काय म्हूण विचारलें.

हरशीं ताका झेब्रा आवडनाशिल्लो. तसो मनीस म्हण बरो तो. पूण तो आपले आवयचे फाटल्यान आसा हाची ताका खात्रीच आशिल्ली. आतां घरा पावतलें तेदे वेळार ती सदांच्या जनेलांत बशिल्ली आसतली. म्हणटली, "तुजीच वाट पळयतालें".

'म्हजी काय झेब्राची?' राहीक विचारीन दिसता केन्नाय.

तो सावत्र बापूय काम सोंपोवन वारांदार एका पोंताक बसून आसतलो. झेब्रान दारांत पावतना 'पीं ऽऽ क' करून होर्न मारतकच तिरशा दोळ्यांनी ताचे गाडयेक पळयतलो.

केन्ना तरी काळ्या धव्या पट्ट्यांचो शर्ट घाल्लो म्हूण कोणें तरी ताका 'झेब्रा' म्हळें आनी तेन्नाच्यान तेंच नांव पडलें. झेब्रा तसो वायट न्हय. मस्त मुशंड मनीस. तीस-बत्तीस वर्सांचो आसतलो. ताचो काम-धंदो कितें तें तोच जाणा. पूण झॅन घेवन झेतान भोंवता. सगल्यां कडेन बरो करून उलयता. गरजेक कोणाकय पावताय बी. तरीकय लोक ताका गुंड कित्याक म्हणटात समजनाशिल्लें.

जोशान दिल्ल्या धपक्याक लागून राहीचें रगत भितर सळसळटालें. मनांत जोशाचेच विचार आशिल्ले.

''हांव तुजो मोग करतां''.

''तूं म्हजें, म्हाका जाय तूं'' अशें म्हणून फुसलावपी जोश कांयच कळचे पयलीं लग्न जावन येवंक कसो धजलो? विचारानच ताच्या आंगाक उजो पेटिल्लो.

जोशानच ताका आपले कंपनींत नोकरी दिल्ली. धावी नापास आसून, पिराय उणी आसून ताणें कितें तरी गुड्डुलासांवां केल्लीं. राहीक सांगिल्लें, 'पिराय विचारल्यार एकुणीस-वीस बी सांग'. राहीन वीस म्हूण सांगिल्लें.

तसो नोकरेक लागून राहीक खूब फायदो जाल्लो. एक म्हळ्यार घरांतल्यान भायर सरूंक मेळटालें. आनी दुसरें, हातांत पयसो घोळटालो. ताका दिशिल्लें, आपूण आतां आवयच्या धाकांतल्यान मुक्त जातलें. जोशा कडेन लग्न जावन स्वतंत्र संवसार करतलें. आयज जोश सांगतालो, आपूण लग्न जालों. जोशान आपल्याक फटयलें, जोशाक बुद्दच शिकयतलें अशें येवजितनाच ज्युस्त झेब्रा मेळ्ळो.

बरें जालें झेब्रा मेळ्ळो तो.

''येता गो?'' म्हूण झेब्रान गाडयेचें दार उकतें केलें आनी राही गाडयेंत शिरकलें. गुंड समजतात न्ही ताका? तोच बरो. ताच्या मनान म्हळें.

''काम पे जाती है क्या?'' झेब्रान विचारलें.

''हय''. राहीन जाप दिली.

''कसलें काम करता?''

राहीन आपले कंपनीचें नांव सांगलें. आपूण तें कंपनींत कसलें काम करतां तेंय सांगलें.

''तुका कित्याक गो नोकरी? मां शादी नही करवा देती क्या?''

राहीन रागान झेब्राक पळयलें. ताचें लक्ष मुखार रस्त्यार आशिल्लें.

''मुझे नही शादी करनी''. राहीन म्हणटकच झेब्रान एक नदर मारली ताचेर. झेब्रा शिटकावलो. कितें तरी बिनसलां हे चलयेचें.

खरें म्हळ्यार राहीक इतलें लागींच्यान तो पयलेच फावट पळयतालो. हरशीं केन्नाय दिसतालें तेदे वेळार व्हडलें लक्ष दिवंक नाशिल्लें ताणें.

''राही, म्हजे बरोबर येता? हांगा लागींच वचून येवया''.

राहीक आयज 'धबधब्यावयल्यान उडी घेवया?' म्हळ्यार लेगीत तें तयार जातलें आशिल्लें. सगल्या संवसाराचेर बॉम्ब घालया म्हळ्यारय तयार आसतलें आशिल्लें. ते अवस्थेंत झेब्रा बरोबर कोणाक सांगनासतना वचप म्हळ्यार कितें व्हडलें? उरफाटें झेब्रा बरोबर वचप चड बरें. सगल्यांक बुद्द शिकोवंक जाय. जोशाक आनी आवयकय

बी.

राहीन तयारी दाखयली. झेब्रा खुशाल जालो.

"मां को बोलना है?" झेब्राच्या तोंडांतल्यान परत परत आपले आवयचो उल्लेख जाता तो राहीक चड खुपतालो. 'कित्याक सांगूंक जाय आवयक?' ताका दिसलें. ताका कोण्णाची पर्वा नाशिल्ली. आपल्याक बापाय पसून तोडूंक जबाबदार आशिल्ले आवयची कित्याक करप पर्वा?

मावशेन राहीक सांगिल्लें. राहीची आवय पंदरा वर्सांची आसतना तिका राहीचो बापूय मेळ्ळो. खंय हिरोसो दिसतालो. वृत्तीनय बेदरकार. कोणाक भियेनासलो. ती ताच्या मोगांत पडली खंय आनी लग्न जाली. "मागीर कित्याक सोडलो तिणें ताका?' राहीन विचारतकच मावशेन म्हळें, "तें तुजे आवयकच विचार".

तिकाय बी राहीली आवय आवडनाशिल्ली. राहीक मात ती बरें करी. आवय आखाताक वतकच मावशेनच राहीक सांबाळिल्लें. ल्हानपणांतच आवयबापूय आसून ना जाल्लीं राहीक. आतां ह्या घोवाचे गूण गायता, पूण आपल्या इश्टिणीं कडेन उलयतना म्हणटा, 'जिंदगीमें इश्क होना चाहिए एक बार'.

राहीक विचारीन दिसता, म्हज्या बापाय कडेन केल्लें 'तें' कितें तर? कित्याक सोडलो ताका? ताका सोडून ह्या सवंगा कडेन लग्न जाल्या आनी झेब्रा कडेन किरायता.

राहीन बरोबर येवपाची तयारी दाखयतकच झेब्रा खुशाल जालो. तो कितें कितें उलयत आशिल्लो. पूण राहीचें लक्षच नाशिल्लें. झेब्रान गाडी घुंवडायली आनी शारा भायर काडली. झेब्रान गाडी एका होटॅला मुखार थारावन म्हळें, "चल च्या घेवया".

राहीक तेदे वेळार आपल्याक भूक लागिल्ल्याची जाणविकाय जाली. खावन-पिवन परत गाडयेंत बसलें आनी राहीक गाडयेंतच झेम आयली. गाडी थांबतकच राहीन दोळे उकते केले. काळोख जाल्लो. घड्याळ पळयलें जाल्यार आठ जाल्लीं.

झेब्रान म्हळें, "एक काम करता? म्हजें इल्लेंशें काम आसा. तूं हांगा राव. हांव रूम करून दितां तुका. हांव वराभरयान येतां".

राहीन 'हां' म्हळें. राहीक रुमांत पावन झेब्रा गेलो.

वरभरयान झेब्रा आयलो. ताणें जेवण रुमार मागयिल्लें.

"राही, आमी आनी आतां परत वचूं नये. सामकें पुरो जालां म्हाका. आयज रावया हांगाच. फाल्यां सकाळीं या".

राहीन हाकाय हयकार दिलो. राहीक कसलीच पर्वा नाशिल्ली. सकाळीं राही जागें

जालें तेदे वेळार ताका जोशाची याद जाली. जोशाक बुद्द शिकयली म्हूण हांसोच आयलो ताका. पूण आतां हें जोशाक सांगूंक जाय.

ताणें जोशाक फोन केलो. "जोश, हांव मुंबय वचूंक सोदतां. म्हजे खातीर थोड्या पयशांची वेवस्था करशीत?"

राहीचो आवाज आयकून जोश एकदम गडबडलो. "राही, तूं खंय आसा? रातभर खंय आशिल्लें?" जोशान एका बरोबर सगलें विचारलें. रातच्यान राहीच्या घरच्यान दोन-तीन तरी फोन आयिल्ले. 'राही खंय गेलां खबर आसा?', 'राही पावलां तुगेर?'

राहीन जोशाक सांगलें, आपूण रातचें झेब्रा बरोबर आशिल्लें. पूण हें आवयक कळ्ळ्यार आवय आपल्याक दवरची ना म्हूण आपूण मुंबय वचूंक सोदतां. आपल्याक थोडे पयशे जाय.

जोशाचे तकलेक तोणो मारिल्ले भशेन जालो. ताणें राहीचे आवयक कळयलें. राहीची आवय आयलो तीच पुलिसांक घेवन. आवयच्या तोंडांतल्यान उतरां किटी कशी उसळटालीं.

"जीव आटोवन व्हड केलें तुका. वायट बऱ्याची देख दीत आशिल्लें. निमाणें गेलेंच न्हय तूं त्या वेसनी बापायच्या वळणार?"

"तो तुजो बापूय, ताजेरय असोच जीव उंवाळून उडयिल्लो. लग्न जातकच दाखयलें ताणें आपले प्रताप. स म्हयन्याचें पोट घेवन ती घरांत आयली तेन्ना स म्हयन्याच्या तुका घेवन भायर सरिल्लें हांव. भावान सांगिल्लें 'चलयेक हाडूं नाका'. हांवें जीण काबार केली म्हजी तुजे खातीर".

"हें फळ दिलें तुवें? कशें दवरूं तुका घरांत?"

आवयचो अवतार पळोवपाचो नाशिल्लो. राही मान उमथी घालून आयकतालें.

आपले सतरा वर्सांचे चलयेचेर बलात्कार केल्ल्याची कागाळ केली आवयन आनी झेब्रा मात भितर पडलो.

❑



# पुरुषस्य भाग्यम्

**खोंपीच्या** दारांत बसून नारायण मुखा वयले जमनी कडेन पळयतालो. तशें पळोवंक गेल्यार तळपच तें. पूण नारायण हांगा मरड पिकयतालो. उदक आशिल्लें जाल्यार दोन पिकां घेवंक जातलीं आशिल्लीं. शाक-भाजी रोवन काडूंक जाताली. उदक नासून फुकट तरीकय ताका दिसतालें ही जमीन आपली जावची.

गांव सोडून सगले शारांत गेले. शेतां पडंग पडल्यांत, भाटकाराल्या भाटांत गोरवां भरतात. ह्या गोरवांकय आवयबापूय ना. तीं पूण कशीं भरतलीं पोटां?

भाटकार फकत नाल्ल पाडून घेवंक येता. कावथे घालपाची वासपूस करिना. जाय कोणाक हो गांव? गांवांनी कितें आसा? उंचेलें शिक्षण जाय जाल्यार शार जाय. वेवसाय चलतलो जाल्यार शार जाय. भलायकेच्यो सुविधा शारांतच बऱ्यो मेळटात. सगलें सगलें शारांत. गांवांत कितें आसा? भुरग्यांचोय म्हूण गुन्यांव करून उपकरना. तांचे हावेस व्हडले. तांची भूक बुद्दीची. गांवांत कशी भागतली ती? तरीकय... नारायण अस्वस्थ जालो. पूत शारांत वचूंक सोदता शिकूंक. ताका आडावन उपकरना. आडायतलो पूण कित्या खातीर?

तरीकय नारायणाक ओड जमनीची.

घरा मुखार आशिल्ले जमनींत ताका पिकां काडीन दिसतालीं. कुशींतल्या बांदार तरेतरेचीं झाडां रोयीनशें दिसतालें. तो मनांत वेगवेगळ्या झाडांचीं नांवां याद करतालो. फुलझाडां वेगळीं, फळझाडां वेगळीं, मदेराचीं वेगळीं, वखदी वेगळीं.

नारायणान तकली हालयली. पयले सुवातेर जमीन भाटकाराली. तातूंत उदक पयस. पावसांत कितें पिकता तें खरें.

नारायण सुन्न जावन बसलो. दोळ्यां मुखार जमीन पिकयिल्लीं चित्रां येतालीं.

भोंवतणीं व्हडलीं झाडां मदीं शेत. शेताच्या मदीं धानाची व्हडलीं व्हडलीं गुडवीं घाल्लीं दिसतालीं. मळणी घाल्ली दिसताली. भात वाऱ्याक लावन साक भरतना दिसताले.

कितलें सुंदर चित्र!

सगले जाण पिरंगतात. शेतांत काम करूंक मनशां मेळनात. कामेऱ्यांचो पगार परवडना. उत्पन्नाक दर ना. ते भायर सगलें कितें पावसाचेर अवलंबून. केन्ना रोव घालता म्हणसर उटंगाराचो पावस पडून हुंवार येता आनी सगलो रोव व्हावन वता. रोव परत घालचो पडटा.

केन्ना दोळे धांपून पडिल्ल्या पावसांत धान कुसता.

केन्ना वेळार पावस पडना आनी पिकेक आयिल्ल्या धानाक कीड लागता. केन्ना टोळ कणसां मोडून उडयतात. केन्ना पावस नासून बीं धरना. मागीर पोल चड येता. उदक नासून सगलें फुकट.

नारायणाचो तरीकय ते जमनीचेरच जीव आशिल्लो.

जमनींतल्यान एक कोंब भायर सरता तें पळोवन तो धादोसतालो. पावसांत पोरसांतली शाक भाजी लवलवता ती पळोवन तो खोंपींत गळटा तें विसरतालो. आपणें रोयिल्लें झाड फळ दिता तें खावचे परस पळोवनच पोट भरता. मन धादोस जाता.

नारायण आपल्याचेरच उबगलो. 'नसतेंच चिंतत बसता हांव' ताणें मनांत म्हळें. हे जमनीर पिकोवंक जातालें जाल्यार भाटकार अशी पडंग कित्याक सोडटलो आशिल्लो? बांयचें उदक पावोवंक जाता तितले मेरेन भाटकारान उदक पावोवन जमीन फुलयिल्ली.

पुताची एस.एस.सी. जाली. पूत शिकूंक हुशार. बायलेक दिसता, पुतान शारांत वच्चें, शिकचें, नोकरी करची.

नारायणाक मात दिसतालें, पुतान शेता-भाटाचें शिकप करचें. खंयचीय पडंग जमीन फुलोवपाची विद्या सोदून काडची. रानवटी झाडां तिगोवन दवरचीं. आंगार बारीक निळ्या, जांबळ्या रंगाच्या फुलांचे तुरे घेवन फुलपी रंजन, हुस्केचो लेव पांचवे तुरे कशे नदरे आड करूं येतात?

सुरंगाचो, ओंवळांचो घमघम कसो विसरूं येता? त्या भायर ती लोखण बारीक धव्या फुलांचो एक घोंस फुल्ल्यार सगलें रान घमघमता. कुवेताक वचून चेर हाडून घालो म्हूण ह्या वासाची सर येता? पूण तीं झाडां सांबाळून दवरपाचें कोणाक पडून वचुंना.

सोनचांफ्याचें झाड एक कोणय रोयता. पूण नागचांफो खंयच दिसना. अगस्त,

ोर... देवाक फुलां घालूंक रोयताले. आतां नांवच ना जावन गेलां. झाडां रोवपाची ःदच उरली ना कोणाक. वाजांत घालून चिड्डो रोवपाची मोद जाल्या.

पुताक शारांत धाडूंक कितले दुडू लागतले काय? नारायणान जमनीचे आशेन पयशे ठठांय करून दवरिल्ले. कूळ कायदो जाता म्हण आयकल्लें. आपूण रोयता ती जमीन ापल्याक मेळटा खंय. ही घरा भोंवतणची जमीन तळपी म्हण भाटकारान सवाय भितर ल्यार जाताली.

वेठीच पिशी आशा. तरी त्या हावेसाक लागून ताणें पयशे एकठांय केल्ले. अर्दे शे काडून ताणें पुताच्या हातार दवरले. सांगलें, "खूब शीक पुता. पूण पडंग जमनी ळटल्यो अशें कितेंय सोदून काड. शेतां-भाटांचें शिकप कर".

पुतान म्हणलें, "हांवय तेंच चिंततां. हांव शेतकी शिक्षण घेतलों".

नारायणाक मळवाक हात तेंकयिल्ले वरी जालें.

कूळ कायद्या प्रमाण जमीन नांवार करून घेवपाचो वेळ आयलो. नारायणान ाटकाराक हळूच म्हळें, "भाटकारा, म्हजे घरा मुखा वयली जमीन तळपी. थंय कांय ायना. म्हाका समजून कितेंय उण्या दरान दिता जाल्यार पळय. उपकार जातले".

भाटकार खरेंच देव मनीस. शेजरा आशिल्ल्या भाटकारान कूळ कायद्याच्या भंयान ारायणाक भाटांतल्यान धांवडायलो तेदे वेळार ह्याच भाटकारान ताका खोंप बांदूंक ागो दिल्लो. नारायणाचो कळवळो आयकून ताणें चिंतलें. जमीन तळपी हें खरें. ाकोवंक जाताली जाल्यार आपूण पिकयतलों आशिल्लों इतलो तेंप. तो थंय घोळटा ाल्यार खावंदी बावड्याक रोवन.

'ह्या भाटां-बेसांचेर व्हड जाले आमी. आतां तांची सेवा आमच्यांनी जायना. बल्डरांक विकची परस कोण पिकोवंक सोदता ताकाच दिल्ली बरी'.

नारायणाक जमीन फुक्यासवाय पडली. सगलीं कागदपत्रां जाता म्हणसर पुताचीय रिक्षा जावन पूत घरा आयिल्लो.

नारायणान बँकेंत आशिल्ले सगले पयशे दिवन पुराय पडंग जमीन आपल्या नांवार करून घेतली.

खोंप खोंपच आशिल्ली. पुताक नोकरी लागची आशिल्ली. बँकेंत आशिल्ले पयशे सोंपिल्ले आनी पिकावळीचो भरवंसो नाशिल्लो.

जमनीचे खरेदीचीं कागदां जातकच हावेस पुराय जाल्ल्याचो संतोश आनी दुसरे वटेन धुकधूक.

घोव, बायल आनी पूत सोन्यांनी जेवले. पावस भरून आयिल्लो. पयस

जोगलावतालें आनी ब-याच वेळान गडगडटालें. हळू हळू गडगड लागीं पावलो. पावसाक सुरवात जाल्ली.

काळखांत पाडसा कडेन लागिल्ले दोळे केन्ना धांपले आनी नारायण न्हिदेचे सुवादीन जालो.

ठॉण्ण!

कान फुटून तकली फुट्टा असो आवाज जालो.

नारायण, बायल आनी पूत भियेवन जागीं जालीं. उटंगाराचो पावस रकतालो. खंय कितें पडलें, कितें मोडलें कांयच कळनासलें. पावसांत भायर वचपाचीय माणसुकी नाशिल्ली. तिगांय कडकडत बसून रावलीं.

''फाल्यां पळोवया. वीज पडली आसतली खंय तरी'', नारायणान म्हळें.

फांतोड मेरेन पावस पडटालो.

उजवाडटा मेरेन पावस थांबलो. नारायण पुताक घेवन भायर सरलो. बापूय पूत जमनीर मदीं आशिल्ल्या कातळा मेरेन पावले आनी अजापान थक्क जाले. कातळाचेर वीज पडून जाल्ली बांय उदकान उपाट भरून व्हांवताली.

❑



# माकडणीची काणी

**मळब** नखेत्रांनी भल्लां.
दोळे धांपतकच सगलीं सकयल देंवतात, पावससो.
हातार घेनसो दिसलो.
सगले हात भांगराच्या रंगान भल्ले.
कितें करूं? खंय पुसूं हो रंग?
तोंडाक? हातांक? पोटाक?
सगलीच कूड भांगराळी जातली.
''बाय तुज्या नशिबान आदार दिलो''. आवयचो आवाज काना कडेन घुमता.

''आई, लग्नाक कोण कोण येतलीं?''

''बाय, मामा, मावशी, आका आनी घरचीं आयल्यार पुरो. तीं व्हडलीं मनशां. आमचें दळडीर तांकां कित्याक दाखोवया? तीं जाणांत, समजून घेतात तें वेगळें''.

दळडीर? आतां खंय उल्लें? तो बँकेंत व्हडलो अधिकारी. घरदार सगलें आशिल्लो. तागेर वतकच कसलें दळडीर?

''दुसरी बायल चड जाय जाता घोवाक'', आकान अश्शें धुकलून भुजार मारिल्लें थापट तश्शें आसा.

''आसूं! दुसऱ्यापणांत जाल्यार दुसऱ्यापणांत. दोन भुरगीं आसूं ना जाल्यार चार. आपलें दळडीर सोंपता.

जात्रेक वचपा वेळार न्हेसूंक साडी ना जायना.

आवयक लग्नाक वतना व्हडल्या भाटकाराले बायलेचीं भांगरां कांकणां मागून हाडचीं पडनात.

चोरयेचो आळ येना.

भांगरां घालून भोंवतल्या कस्तुरी म्हऱ्यांत खिन्न जायना.

कस्तुरीच्या लग्नांत माथ्याक धरिल्लें कमरा मेरेन भांगर घाल्लें ताणें.

"जड लागना गो?" म्हूण विचारल्यार "म्हाका संवय आसा". कस्तुरीची जाप दुसऱ्याक तुच्छ करपाची.

कस्तुरीचो तांबडोच शालू. ताका हातभर जरीची देग. आंगार व्हडले बुटे. दोन हात लांब जरीचो पदर. चकचक, झगझग!

कस्तुरीच्या लग्नांत कितलीशीच मिठाय. खूब खावंक मेळिल्लें. काम करचें पडलें म्हूण हरकत ना.

ताचें दुसरें लग्न. ताका व्हडलो सुवाळो नाका. घरच्या घराच जाल्लें जाय.

जरीची व्हडली देग आशिल्लो शालू कोणाक दाखोवंक?

कांचेच्या कांकणां मदीं भांगराची कांकणां घाल्यांत तीं पुरो.

गळ्यांतलो गडगंज मणी सगली उणीव भरून काडटा.

लग्न तें लग्न आसता.

आपलेपणाची भावना दिवपी.

आपलीं मनशां, आपलीं नातीं.

आपलें घर, आपल्यो वस्ती.

आपलो पयसो!

आपलो अधिकार, आपली सत्ता.

घर इतलें निवळ आसूंक शकता? इतलें सामान, इतल्यो वस्ती, इतल्यो वेवस्थीत मांडूंक येतात? जमनी वयल्या टायल्सांचेर हातपांय पातळावन बसन दिसता.

व्हडलो हॉल.

रांदची कूड. रांदचे कुडींत फ्रिज, मिक्सर, गॅस. रांदतना कसलोच त्रास ना. संडास, मान्नें सगले वटेन बंद. निवळ, चकचकीत.

मांयक आनी भुरग्यांक वेगळी कूड.

आपली कूड वेगळी. व्हडली बाज्ज आशिल्ली. ॲर कंडिशनर आशिल्ली.

आपले वेगळे कुडींतल्या जनेलांतल्यान पुनवेचो वाटकुळोच चंद्र दिसता.

चकचकीत.

पूण तरीकय मदीं एक दाग आशिल्लो.

वण्टी वयलो सवतीचो फोटो आजून थंयच आसा. पळोवंक गेल्यार वायटशी दिसना.

मातशें उबें तोंड. पूण आपले इतली गोरी नासतली एखाद्री.

आपल्या पोल्यार पडटात तश्यो खळयो पडनाशिल्ल्यो जावंये.

नदरेंत मात धाक आसा.

स्मृती मुखार अशेंच दिसतलें.

मोव गुबगुबीत बाज्जेर न्हीद बरी पडटा.

उमळिल्ले गोजडेक वास बरो येता.

''स्मृती, गणेश ही तुमची नवी आवय. मम्मी म्हणप तिका''.

मांयचीं उतरां भुरग्यां परस आपल्याकच चड आयकूंक येतात.

लग्नान जीण बदलता.

कोणा खातीर कितें करूं आनी कितें नाका जाता.

आनी लग्नाक लागून दळडीर वता तेन्ना.

बाप्पा सादो. हटमटवाळां करूंक नेणा आशिल्लो.

घरच्या येद्याशा शेता कुडक्यांत आनी भाटा कुडक्यांत दीसरात घोळून दोन वेळचें जेवण घालपी.

चलयांचीं लग्नां करूंक, भांगरां घालूंक, देणी-घेणी करूंक उणो पडटलो आशिल्लो.

आपलें नशीब काय आपलें रूप!

सड्या वयली रोपी मोव मातयेंत पावली.

''श्रीनिवास, फातिमान काम सोडलें रे बाबा. आतां आनीक खंय वचूं कोणाक सोदूंक?''

कामाचें कितें व्हडलें? आयदना घांसप, कपडे उमळप ल्हानपणांतल्यान संवयेचें.

घरांत शेण काडपा वांट्याचें जमीन पुसप सोंपें. कपडे उमळपाचें तर मिशीन करता.

''आई, म्हज्या युनिफॉर्माक इस्त्री मारूंक ना आजून''.

''आई, म्हाका टिफिनांत चपाती नाका आं आयज. म्हाका शिरो जाय''.

''आई, मेय खंय म्हजे?''

''आई...''

''आतां आईक विसरात रे बाबांनो. तुमचो हक्काचो मनीस आसा आतां. म्हजीं हाडां झरलीं तुमचें करतना. ती गेली म्हजेर सोडून सगलें.

''म्हजें काळीज रडटा तुमकां लागून म्हूण खांदार माल्लें वजें''.

''आतां आनीक जायना रे हाचे फुडें. आतां वयलें आमंत्रण केन्ना येता ताची वाट पळयतां''.

लग्न म्हणल्यार अशेंच आसता. जापसालदारकी. दोरये वयली कसरत. तातूंतल्यान तड मारून वता तोच संवसार.

''श्रीनिवास, भुरग्यांक आवय नासून ना जाली. आतां बापूय आसून ना जावंक दिनाका''.

आपलो घोव आसलो तरी भुरग्यांचो बापूय न्ही म्हणूंक येना. भुरग्यां कडेन वेळ काडल्यार आपल्याक मेळना कित्याक म्हणप? भुरगीं आपलीं न्हय म्हूण? लग्न ही तडजोड.

कितलें दिलें? कितलें मेळ्ळें हाचो हिशोब करपाचें न्हय.

कर्तव्याक पर्याय ना.

सुर्याचें एक किरण पानांचे जाळयेंतल्यान झिरपता आनी जनेलांत बसून हांसता.

सतारीच्यो तारो शिरंतरांनी झिणझिणतात. आंगांतल्यान ल्हारां धांवतात.

रोम रोम रसरसता.

सगलीं गात्रां अनाहुताचो आनंदोत्सव मनयतात.

''श्रीनिवास, तुजें हांतरुण पळोवन पांय पातळाय रे पुता''.

श्रीनिवास म्हणटा, ''दोन भुरगीं आसात तीं पुरो म्हाका. आनीक भुरगें नाका''.
दोतोर म्हणटा, ''तीन म्हयने जावचे पयलीं करूंक जाय गर्भपात''.
श्रीनिवास म्हणटा, ''आनीक मुखार जावपाचेंय बंद करूंक जाय''.

ही माकडणीची काणी
माकडीणीन जीव वाटावंक पिलाक पांयां मुळांत घेतिल्लें.

तिचो जीव वांचलो.
आपली जीण वांचली, उबंत पडपा पसून.

❑



# म्हाका एकच पांख दी

तें भुरगेपणांत म्हजे बरोबर शिकपी. खूब हुशार. शिकूंक हुशार ते भायर बाकीच्याय मळार फुडें. धांवपाच्या खेळांत हुशार. बुद्धीबळांत हुशार. नाच-नाटकांत हुशार. सगले शाळेंत ताचें नांव गाजतालें. 'नीलांबरी, नीलांबरी'.

सगले शिक्षक ताकाच तोखेताले.

शाळेच्या वेगवेगळ्या सर्तींनी ताचें नांव मुखार आसतालें.

एक फावट वक्तृत्व स्पर्धा जाहीर जाली. हांवें थारायलें हांव हातूंत भाग घेतलोंच आनी जिखतलों. हांवें खंयचीं खंयचीं पुस्तकां हाडून तातूंतले उतारे एकठांय केले आनी म्हजें भाशण तयार केलें. रातदीस घोकून तें पाठ केलें.

तेवटेन तें तयार जालें आपलें भाशण घेवन.

स्पर्धेचो दीस उजवाडलो. परिक्षक म्हूण व्हडले लोक आयिल्ले. एक खंयच्या तरी दिसाळ्याचो संपादक, एक लागींच्या कॉलेजीचो प्राध्यापक.

हांवें आवेशान म्हजें भाशण ठोकलें. आवाजांतलो चड-उतार आनी शब्दोच्चार म्हजें खाशेलपण.

म्हज्या उपरांत ताचें भाशण आशिल्लें.

तें तेदे वेळार गुटगुटीत आशिल्लें. दिसतालेंय बरें. पळयतल्याक अपुरबाय दिसपा सारखें. पूण भाशण करूंक शकतलें अशें म्हाका दिसूंक नाशिल्लें.

ताचें भाशण चलतना ताणें आपल्या भाशणांत पेरिल्ल्या विनोदांक परिक्षक, सगले श्रोते हांसले. तेदे वेळार म्हाका भितरले भितर राग आयलो.

स्पर्धा सोंपली. निकालाचो वेळ आशिल्लो. निकाल जाहीर करचे पयलीं परिक्षकांचें उलोवप आशिल्लें. दोनय परिक्षकांचे वतीन संपादक उलयलो. आपल्या उलोवपांत

ताणें सगल्या स्पर्धकांची तुस्त केली. पूण... पूण तांणी खास करून नांव ताचेंच घेतलें. ताच्या भाशणांतल्या भाशेची, ताणें दिल्ल्या उदाहरणांची आनी ताच्या प्रामाणीक विचारांची तांणी मुजरत उल्लेख करून तोखणाय केली. म्हजे परिश्रम फुकट गेले.

हांगाच्यान म्हाका ताची नसाय जावंक लागली.

मागीर प्रस्नमंजुशेची कार्यावळ जाली. थंयूय तें पयलें.

आनी अजाप म्हणल्यार ताणें शाळेच्या एके कार्यावळींत आपणें बरयिल्ली कविता सादर केली.

एकलो मनीस हुशार आसूं येता, पूण हें चली जावन अशें सगल्याच मळार कशें मुखार येता? पयलीं पयलीं दिसतालें हें ओगीच फुडें फुडें करता. खरें म्हळ्यार म्हाका सदांच तशेंच दिसतालें. पूण तशें म्हळ्यार म्हाका सगलेच खातले आशिल्ले. 'वर्गांत तें दिता त्यो जापो तुका कित्याक दिवंक येनात?' हो प्रस्न आसतलोच आशिल्लो तांचो.

म्हाका खरेंच ताची नसाय जाताली. खंयच्यान तरी एक दीस ताची दुबळी बाजू म्हाका दिसची म्हूण हांव देवा कडेन मागतालों.

एक दीस शाळेंत नोटीस आयली. कोण तरी एक कलाकार येवन आपली नृत्यकला सादर करपाचो आसा. सगल्या भुरग्यांनी सभाघरांत जमचें.

आमी सगलीं भुरूभुरू करून सभाघरांत धांवलीं.

तो कलाकार नाचांत निपूण आशिल्लो. दादलो आनी इतलो बेस नाचता हें आमकां फट्टच दिसतालें. हे आतांचे नाच वेगळे. तेदे वेळार तें शास्त्रीय नृत्य आसतालें. दादल्यांचें शास्त्रीय नृत्य इतलें बरें दिसूंक शकता हें खबरच नाशिल्लें.

त्या कलाकारान एक नृत्य सादर केलें.

दुसऱ्या नृत्यांत तो मोराचो नाच दाखोवपाचो आशिल्लो. फाटीक बरीं मोरा पिसां बांदून आयिल्लो. नाचतां नाचतां ताणें हातांनी तीं पाखां फुलयलीं आनी आमचे मुखार मोराचो पिसारो उकतो जालो.

इतले म्हणसर चलयो बशिल्ल्यो तेवटेन बोवाळ जालो. नाच पळयतना नीलांबरी थरथरूंक, कडकडूंक लागलें आनी ताणें दोळे धवे केले. बशिल्लें थंयच जमनीर पडलें. कोणाक कळ्ळें ना कितें जालें. भुरग्यांचो बोवाळ. चलयांच्यो किळच्यो, रडारड. शिक्षकांची धांवाधांव.

निमाणें ताका उबारून शाळेच्या एका वर्गांत व्हेलें आनी दोतोराक आपयलो. एकेवटेन ताच्या घरा कडेन रेकाद धाडलो.

दोतोर आयलो. ताचेर उपाय जाले आनी तें सावचीत जालें. तेवटेन बापूयय पावलो.

बापायन ताका घरा व्हेलें.

उपरांत कळ्ळें तें मोरा पिसांक भिलें.

आपल्याक कोण तरी दोळे वठारून पळयता अशें दिसलें आपल्याक अशें ताणें सांगलें.

आमी भुरगे हांसले. मोरा पांखांक भिलें? मोरापांख श्रीकृष्णान आपल्या माथ्यार घेतलां. आपले वळखींत आसपावन घेतलां ताका आनी मोरा पांखाक भिता म्हणल्यार कितें?

एक फावट कितें जालें दिसता अशें समजले सगले. पूण मागीर कळ्ळें तें मोरापांख दिसल्यार तशेंच भियेता.

ताच्या घरच्यांनी शाळेंत सांगलें, ताका सगले उपाय केले तरी ताचो भंय वचना. दोतोर म्हणटा, एक वेळ मोरा पांख ताचे खातीर घातक थारूं येता.

शाळेंत आसतना ताचे नदरेक मोरा पांख पडचें न्हय हाची जतनाय घेवपाची मागणी ताच्या घरच्यान आयली.

सातवेक काय आठवेक पावंक ताणें शाळा सोडली.

ताच्या बापायची बदली जाली म्हूण आयकलें. तें खंय गेलें आमकां कळ्ळें ना.

हांव तेच शाळेंतल्यान एस.एस.सी. जालों. तशें म्हजे परस हुशार भुरगे म्हजे बरोबर शिकताले. हांव फकत अभ्यासू, रातदीस घोकून शिकपी. पूण म्हाका म्हज्या इश्टांची केन्नाच नसाय जाली ना जितली नीलांबरीची जाली.

तें शाळा सोडून गेलें तेदे वेळार दिसलें पिडा गेली.

म्हजे इश्ट लेगीत ताका हुशार म्हूण आदरान पळयताले आनी तें म्हाका तुच्छ करतालें.

हांव एक-दोन फावट ताचे कडेन उलोवंक गेल्लों जाल्यार हाणें तुटक जापो दिवन म्हाका लागीं लागीं धांवडावनच घाल्लो.

ताची यादच काडल्यार म्हज्या मस्तकाक तिडक मारताली. दिसतालें, बाकीबाबा वरी मोराक सांगचें 'म्हाका एकच पांख दी.

शाळा सोंपतकच हांव कॉलेजींत गेलों.

ते फावट वक्तृत्व स्पर्धेचो परिक्षक म्हूण आयिल्लो तो प्राध्यापक म्हाका शिकयतालो. खरें म्हणल्यार तो थंय शिकयता म्हणूनच हांवें चड करून कला विभाग घेतलो. विज्ञान म्हाका जमतय म्हूण सांगूंक जावचें नाशिल्लें.

म्हाका भासो बऱ्यो येताल्यो.

प्राध्यापक म्हाका वळखले. तो सदांच बाकीच्यां हुजीर म्हजें नांव घेवंक लागलो. म्हाका इल्लेंशें मांसय चडटालें. म्हजीं स्वता विशींचीं मतां बदलूंक लागलीं. हांवूय कोण तरी आसां अशें दिसून हड्डें मुखार येवंक लागलें.

पदवी जाले उपरांत हांवें सरकारी नोकरी धरली.

म्हजें लग्न जालें. हांव खुशाल आशिल्लों. सगलें वेवस्थीत चलतालें. एक दीस कळ्ळें आमच्या खात्यांत नवो अधिकारी येता. आमी ताच्या स्वागताचे तयारेक लागले. प्रत्येकाची एक एक कल्पना आशिल्ली आनी सगल्यां परस वेगळी कल्पना म्हजी आशिल्ली. म्हजी कल्पना सगल्यांक आवडली.

ऐन वेळार कळ्ळें, अधिकारी दादलो न्हय, बायल. 'बायलांक अक्कल नासता' जावं 'बायलांक कितें अक्कल आसता?' अशें म्हणूंक बरें दिसतालें. म्हजे बायलेक तर हांव दिसांतल्यान सतरा फावटीं म्हणटालों. आनी ती तोंड धांपून आयकताली. हांगा पळयल्यार बायल आमच्या माथ्यार बशिल्ली. आमची अक्कल तिणें वेठीक धरिल्ली.

ती येवपा दीस हांवें म्हजे आवडीचो शर्ट घालो. पयल्याच दिसा बरो प्रभाव पडूंक जाय.

ह्या कार्यालयाचे आमी कर्मचारी हाचो गर्व बाळगीत आमी खंय तरी हवेंत हुबताले. एकामेकांचीं एकदम संभावीत पातळेचेर फकांडां करूंक लागले. सगल्यांचो अहंकार फुलिल्लो. बायलांक मातशी नसाय जाल्ली आसुंये. बायलां बायलां मदीं केन्नाच पडना.

ती नवी अधिकारी भितर सरली. आमी थारायिल्ले प्रमाण जण एकल्यान एक एक फूल दिवन तिचें स्वागत केलें. ती म्हजे म्हन्यांत पावली आनी म्हाका ती वळखीची दिसली. तीय म्हजे वयल्यान गेल्ली नदर परत म्हजेर थीर करून खीणभर म्हाका पळयत रावली.

खंय तरी म्हाका गळसणिल्ले वरी जालें. हांव शेळेलों. कित्याक हें कळचे पयलीं ती आपले कॅबिनांत पावली आनी म्हाका याद जाली. ती नीलांबरी.

तीच ती. दुबावच ना.

म्हजी तकली सणसणली. जाली ती जाली उंचेली अधिकारी. हांगा म्हज्याच कार्यालयांत पावंक जाय आशिल्ली? म्हजीच सायब म्हूण?

म्हज्या मनांत त्या वेळार निर्माण जाल्ल्यो तिचे विशींच्या आकसान परत फोणां काडलीं. आनी हांवें थारायलें, हांव हिका बुद्द शिकयतलोंच.

म्हाका एक दीस वाचूंक मेळ्ळें, मोरा पांख वण्टीर लायल्यार पाल येना. म्हाका पारसमणी मेळिल्ल्याचो आनंद जालो. हांवें तें नियतकालीक हाडून रोझीक दाखयलें. रोझी म्हज्या मुखा वयल्या मेजार बसपी. ताका पाल म्हळ्यार भंय दिसता. ताचें लक्ष सदांच वण्टीर. हांगा पाल आसत थंय पाल आसत.

रोझीन हांवें दाखिल्लें नियतकालीक वाचलें. म्हळ्यार फकत त्यो दोन वळी.

''हो बोरो मुरे. सोगल्या प्रॉब्लेमांचेर उपाय सांगोता''. रोझीन खुशाल जावन म्हळें.

त्या दिसा सावन रोझी मोरा पांखां मेळोवपाच्या फाटल्यान.

निमाणें कोणें तरी ताका मोरा पांखाचो आयणो हाडून दिलो. रोझीन पंचवीस रुपया कच्च करून मोडून तो आयणो विकतो घेतलो. आयण्याचीं पांखां मेकळीं केलीं आनी वण्टीभर एक एक करून सेलो टेपीन लायलीं. पळोवंक तशें बरें दिसलें. वायट दिसलें ना. पूण म्हज्या मनांत खातकुतल्यो जाताल्यो. हांव वाट पळयतालों नीलांबरी मॅडम येवपाची.

म्हजें हें गुपीत कोणाकच खबर नाशिल्लें. देखून बाकीच्यां खातीर तातूंत कांयच फरक पडूंनाशिल्लो.

हांव चिंततालों, हांव तिका वळखतां पयलींच्यान हें कोणच नकळो. तिका तरी म्हजी याद आसा काय कितें देव जाणा. म्हणटकच म्हाका तिचें हें व्यंग खबर आसा हें कोणच नकळो. तातूंत मोरा पांखां हांवें हाडूंक नात. हांवें फकत रोझीक एक उपाय सांगला. तें पालींक भियेता हो ताचो प्रस्न. ताचेर ताणें उपाय करचो काय ना हो ताचो प्रस्न. कितें जाता ताका हांव जापसालदार ना.

हांव नीलांबरीची वाट पळोवंक लागलों. इतले म्हणसर प्यून आयलो आनी ताकतिकेन तीं पांखां काडूंक लागलो. रोझी 'आरे, आरे... ' करतालें. पूण प्यूनान आयकलें ना. सगलीं पांखां ताणें काडून व्हेलीं आनी मागीर आमकां कळ्ळें, नीलांबरीन आपूण वतां थंय पयलींच आपल्या व्यंगाची सूचना दिवन योग्य ती खबरदारी घेवपाची तजवीज केल्या.

❑



# ज्वालामुखी

"**समलिंगी** संबंद ही कल्पनाच म्हाका सहन जायना. तें अनैसर्गीक. ताका मान्यताय आसूंकच जायना", शमी आवेशान उलयतालें.

मनस्विनीक शमीची लक्तुबाय दिसता. शमी खरें म्हळ्यार वकीलच जावंक फावो आशिल्लें. आपलो मुद्दो बरो हिरीरीन मांडूंक येता ताका. तें उलयता ताका खूबशा वास्तवतायेचो आदार आसता. खूबशें खरेपण आसता.

तरीकय अणभव ही अशी एक गजाल की ताका लागून मनशाचो जिणे कडेन पळोवपाचो द्दश्टीकोणच बदलता.

शमी कडेन कितें उणें आसा जाल्यार फकत अणभव.

शमी आयज संजनाक घेवन आयिल्लें. संजना कांयच उलयनासतना ओग्गी अशिल्लें. शमी उलयता थंय ताचें लक्ष आसा अशेंय दिसनाशिल्लें. संजनाचें कितें तरी बिनसलां हें मनस्विनीक कळ्ळें. तिकाय शमी कडेन उलोवंक जमलें ना.

"संजना, तूं ओगीशें? मुंबयच्यान केन्ना आयलें?" मनस्विनीन विचारलें आनी शमीक याद जाली की आपूण संजनाचो प्रस्न घेवन मनस्विनी कडेन आयलां. उलयतां उलयतां विसरूनच गेलें.

"संजना, तूं काकीक सांग सगलें. ती खरेंच तुका मजत करूंक शकतली", शमीन संजनाक म्हळें.

संजना उलयतलें म्हण मनस्विनीन वाट पळयली. संजना तकली सकयल घालून बसून रावलें.

"संजना, कितें जालें?" संजना उलयनाशें पळोवन मनस्विनीन विचारलें.

"काकी, संजनाक घोव खूब त्रास करता", शमीनच तोंड फोडलें.

''त्रास करता? हाचो घोव तर असो बरो आनी तसो बरो म्हूण हाची आवयच सांगताली. संजनाक मागणी घाल्ली ताणें. खरें म्हळ्यार फाटल्यानच लागिल्लो ताच्या. ताचे खातीर मुंबयच्यान गोंयां फावटी घालतालो. आनी 'बरो शिकला, जोडटा बरो, वेसन नाशिल्लो, बऱ्या घरांतलो' संजनाचे आवयच्या तोंडांत जांवयाचीं वर्णनां करतना ल्हायो फुट्टाल्यो. पूण संजनाक नाका आशिल्लें.

शमी सांगतालें, ''काकी संजना म्हणटा मगे, कितें तरी विचित्र दिसता आपल्याक त्या भुरग्या विशीं म्हूण''.

संजना सडेतोड. दुसऱ्याची पर्वा करिनासतना खरें उलोवपी. म्हणटकच चडश्या जाणांक तें सुबेजशें दिसतालें. ह्या 'भांगरा सारक्या' भुरग्याक ना म्हणप हो संजनाचो गुन्यांव कोणाकच मान्य जालो ना.

संजनाचें अनुरागा कडेन लग्न जालें.

सगल्यो घटना मनस्विनीचे तकलेंत उफेवन आयल्यो.

'कितें विचित्रशें दिसता ताचे विशीं' मनस्विनीचीं उतरां सण्ण करून तकलेंत आपटलीं.

''मारिना मगो तुका?'' मनस्विनीचें सवें इंद्रीय अशें अकस्मात काम करतालें. ताकलेंत आयलें तशें मनस्विनी उलोवन गेली.

संजनान आंवडो घोंटलो.

''तो... '' इतलें म्हणटनाच ताका हुमाळून आयलें.

तोंडार हात दवरून तें रडत रावलें.

मनस्विनीक धक्कोच बसलो. हें हुशार, शिकिल्लें, वकील जाल्लें, आपलो वेवसाय स्वतंत्रपणान चलोवपी, कोणाची पर्वा करपी न्हय अशें चली इतलें असहाय्य कशें जालें?

भितर दाबून दवरिल्लो प्रक्षोभ दुकांतल्यान व्हावन गेलो आनी संजना उलोवंक लागलें. ''काकी, म्हाका सगलें असह्य जाता. मम्मीक सांगल्यार ती म्हाकाच सुबेज म्हणटा. म्हाकाच वागूंक कळना म्हणटा''.

''कितें जालें सांग म्हाका''. मनस्विनीन ताका धीर दिलो.

''काकी, तो छळटा म्हाका. म्हाका सांगूंक येना कशें तें. लग्न जायत सावन ताचें ऑफिस हांवच पळयतां. सगलें काम हांव करतां. दाखोवपा वेळार तो. अशील ताचे म्हूण पयशे तो घेता. म्हजे गरजेक हांवें ताचे कडेन मागप. तेय दितना हजार प्रस्न विचारतलो. उपकार करून भीक घाल्ले वरी दितलो. कुच्छित्रीपणान उलयतलो. आनी दिता त्या

पयशांचो पयसो पयसो करून हिशोब घेतलो''. मनस्विनी मोन्यांनी आयकताली.

''काकी, तो म्हणटा आपणें म्हजेर उपकार केल्यात लग्न जावन. ताका फकत हांव काम करून घेवंक जाय. तेंय बी फुकट. दुसऱ्याक कामाक दवरलें जाल्यार पगार दिवचो पडटा. हांव तागेर रावतां, जेवतां, खातां म्हळ्यार तो म्हाका पोसता अशें ताचें मत. म्हाका सांग काकी हांव कित्याक रावं ताचे बरोबर?''

''इतल्यान जालें ना. हाका आपल्या कामा परस आपल्या इश्टांच्या कामांत रस. हो ते आसात थंय वचून तांकां मेळटा. उलोवंक हुशार. उलोवन सगल्यांक भुलयता. मागीर हाका सांगून ताचें काम करप आनी ताका सांगून हाचें काम करप. मदले मदीं हो बरो. लोकांक दिसता हो आपले खातीर कांय मागना म्हळ्यार निसुवार्थी''.

''सगल्यांचो असो समज करून दिला ताणें की हांव निरुपेगी. म्हाका काम कळना. ताणें शिकोवचें पडटा. वकील जावपाची म्हजी लायकी नाशिल्ली. हांवें कशी तरी पदवी मेळयल्या. सगलें काम ताणें सांगून करतां. मसुदो लेगीत तयार करूंक कळना म्हाका. पूण तरीकय तो म्हजेर मोग करता. म्हळ्यार तोच बरो''.

''काकी, सामको नाटकी मनीस तो. म्हाका तुच्छ लेखता. दुसऱ्यां हुजीर म्हजो अपमान करता. पूण दाखयता म्हाका सांबाळून घेतासो. म्हाका हाणें सांबाळून घेवपाची गरज आसाशी दिसता तुका? पूण मम्मी पप्पाक लेगीत पिशीं केल्यांत ताणें''.

''घरांत आमी दोगांच उरताता तेदे वेळार कळटा ताचें खरें रूप. पूण पळोवंक कोण आस्सा? म्हजेर नसतें थापून आपल्याक जाय तशें उलयता. कारण नासतना कांगावो करता. नसतेंच घालता म्हज्या आंगार आनी मागीर हात उबारता...''

''काकी, म्हाका आतां खूब असुरक्षीत दिसूंक लागलां. सगले वटेन. म्हजें अशें कांयच उरूंक ना आतां म्हाका...''

संजनाचें सगलें उलोवप मनस्विनीन थंडसाणीन आयकून घेतलें. ताका पुरतें उलोवंक दिलें. आयकून वायट दिसतालें. विचार करतना दिसलें, आतां संजनान स्वतंत्र जावप होच उपाय. पूण ते खातीर ताका आवयबापायच्या आदाराची गरज आशिल्ली. आवयबापायन मानसीक आदार दिलो जाल्यार संजना स्वतंत्रपणान आपल्या पांयार उबें रावंक शकता.

''संजना, तुज्या मम्मीपप्पा कडेन हांव उलयतां. म्हाका दिसता तांणी वस्तुस्थिती समजून घेवंक जाय''.

संजनान तकलेनच 'हय-हां' म्हळें.

''येतां हांव काकी'', संजना वचूंक भायर सरलें. •

संजना गेलें तरी मनस्विनी आनी शमीच्या मना वयलो ताण उणो जालो ना. दोगांय उलयनासतना बसून रावलीं.

दारा वयली घांट वाजली. मनस्विनीचो घोव आयलो. बरोबर कामतबाबय आशिल्लो. कामतबाब कोनीसांवाचो मनीस. पूण मनस्विनीक आदरान वागयतालो. येना फुडें हेवटेंतल्यो तेवटेंतल्यो खबरी सांगपाचें काम तो आवडीन करतालो.

''कालचें प्रवचन मात एकदम बरें जालें'' सोफाचेर बसतनाच कामबाबान सुरवात केली. संवसार हो बायल मनशेचेर कसो निंबून आसता हें सांगलें ताणें. बायलमनीस बरी जाल्यार संवसार बरो म्हणटा तो... चॅ! उलयता कितें जाणा...''

निर्विकारपणान कामतबाबा कडल्यान प्रवचनाचो नियाळ आयकून मनस्विनी फट करून उठली. आनी फोना म्हऱ्यांत वचून तिणें फोन घुंवडायलो.

''अं... हांव मनस्विनी. म्हाका तुमच्या जांवया विशीं थोडें उलोवपाचें आशिल्लें...''

शमी कडेन मस्कऱ्यो करतलो मनस्विनीचो घोव उलोवपाचो थांबलो. ताचीं दाडवणां आंवुळ्ळीं. आनी तो नदर जमनीर थीर करून बसलो.

कामतबाब फुडलें उलोवंक रावलो.

मनस्विनी काकी मदींच उठून फोन करता तें पळोवन शमीकय अजाप जालें.

''म्हजें आयकात'', मनस्विनीकाकी उलयताली. ''तुमी तुमच्या जांवयाक दादलो समजतात आसतलीं पूण दादलेपण फकत शरीर रचनेचेर नासता. आंगांतले संप्रेरकय काम करतात काय आनीक कितें आसता कोण जाणा''.

मनस्विनीकाकी उलयताली तशें वातावरणांत ताण जाणवत वतालो.

''दादलेशे दिसून कांय जाण दादले आसनात. तांच्यो अपेक्षा गरजो वेगळ्यो आसतात ज्यो बायल मनीस पुराय करूंक शकना. मागीर बायलांक मनस्ताप आनी अत्याचार भोगचे पडटात. जशी तुमची धूव भोगता. तुमी तुमचे धुवेचेर विस्वास दवरून वस्तुस्थिती समजून घेयात''.

मनस्विनीन फोन दवरलो.

''शमी, जाणा, ते परस समलिंगी संबंदांक मान्यता मेळ्ळी जाल्यार प्रतिश्ठे खातीर लग्नां जावन केल्ली दुसऱ्यांची फसवणूक उणी जातली. बायलांचो एक मनीस म्हूण कोण विचार करिना. तिका एक उपकरण म्हूण पळोवप. संवसार नांवाचे संकल्पनेक साकार करपी, सोबोवपी. ते बायलेक विचार, विकार, इत्सा, अनित्सा, आवडनिवड आसता हाचो विचार करपाची गरज कोणाकच दिसना. फकत तिचे हात, पांय, बुद्द,

सहनशक्त, कार्यशक्त हाचो चडांत चड उपेग, वापर कसो करून घेवंक येता इतलेंच पळोवप जाता.

तिकाय एक अंतरात्मो आसता जो संतुश्ट जावचो पडटा. तिच्योय चित्तवृत्ती शांत आसच्यो पडडटात हाची कोणाक गरज दिसना.

बायल मनशेची संतुश्टता ही तिच्या घोवाचे संतुश्टतेंत आसची हें, आजूनय तो घोव तिचें पालनपोशण करूंक असमर्थ थारून तिचे कडल्यान अर्थार्जनाची अपेक्षा करता तेन्ना लेगीत मानतात.

थोडे भितर बायल मनशेक एक स्वतंत्र जीण आसता हेंच कोणाक मान्य ना. जीण ही फकत दादल्याची. बायल मनीस ही तिका पूरक अशेंच तरेची कल्पना बाळगून आमी जगतात. बरें, कांय दादल्यांक गरज आसता बायले परस दुसऱ्या दादल्याची. समाजांतल्या फटीचे प्रतिशठेक लागून तो लग्न जाता बायल मनशे कडेन. मागीर ताच्यो स्वताच्योय गरजो पुराय जायनात आनी तो बायलेच्योय अपेक्षा पुराय करूंक शकना.दृशण मात बायलेक. तिचो मानसीक छळ करप, तिचेर अत्याचार करप आनी आमचे पुरुशप्रधान संस्कृतींत दादलो सांगता तें खरें''.

''ते परस असल्या दादल्यांक समजून घेवन समलिंगी संबंदांक मान्यताय दिली जाल्यार फटीच्या लग्नाक बळी पडिल्ल्या कितल्याश्याच बायलां वयलो अत्याचार कमी जातलो. आनी दादलो मनीस सुखी जातलो''.

'समलिंगी संबंद' हीं उतरां काका आनी कामतबाबां मुखार आयकूंक पयलीं शमीक खांकुडिल्ले भशेन जालें. पूण मनस्विनीकाकी उलयली तातूंत लज दिसपा सारकें कांय नाशिल्लें. विचार करपा सारकें आशिल्लें. सगल्या अप्रिय गजालीं खातीर बायलांक जबाबदार धरून, बायलांचेर चेपण हाडूंक प्रवृत्त करपी मनोवृत्ती घडोवंक जापसालदार आशिल्ल्या त्या प्रवचनकाराक शिकपा सारकेंय आशिल्लें.

उत्साहांत आशिल्लो कामतबाब 'येतां हांव' म्हण उठलो आनी भायर सरलो.

शमीक हांसूंक आयलें. 'बरें पडलें कामतीक' अशेंय दिसलें.

सगल्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार संजनाच्या दुखण्याचें मूळ सांपडिल्ले वरी दिसलें. मनस्विनीकाकी आपलें 'सवें इंद्रीय' म्हणटा तें खरेंच आसूंक जाय. कशें आयलें तिचे तकलेंत हें तीच जाणा. पूण तिकाच घोवा मुखार अशें उलोवपाचें धाडस करूंक परवडटा. आनी कोणाचीय माणसुकी नाशिल्ली. शमीक मना पसून दिसलें.

घरांत मागीर जल्वामुखी फुटपाचो आसा हें मात मनस्विनीच जाणा आशिल्ली.





# कृष्ण कृष्ण

'**द्रोपदिसी** बंधु शोभे नारायण...'

द्रौपदी आनी कृष्णा मदलें नातें अशें आशिल्लें खंय. द्रौपदी पांच पांडवांची बायल. पांच महामानव कशे घोव. धर्मपंडित, न्याय अन्यायाची जाण आशिल्लो धर्मराज, बलदंड भीम जो तिचेर मना पसून मोग करतालो. अतिरथी धनुर्विद्येंतलो निपूण अर्जुन जाका हेर विद्याय अवगत आशिल्ल्यो. नकूल, सहदेव सगलेच सत्यनिश्ठ.

पूण आकांताच्या वेळार पांचय पराक्रमी, सत्यनिश्ठ, न्यायप्रिय घोव उणे पडले आनी द्रौपदीक पावलो कृष्ण. तिका समजून घेवंक शकलो तो कृष्ण. तिच्या आनी कृष्णा मदलें नातें तें हेंच. कृष्ण तिका समजून घेतालो. तिचो आत्मसन्मान जपतालो. ना जाल्यार खंय आशिल्ले रगताचे धागे?

आपल्या घोवाचें वेसन हाता भायर वता अशें दिसतकच तिणें आकांतान आदार सोदूंक धांव मारली.

तिच्या दुख्खांत सूख मानपी तिचो घोव तिच्या आवयबापायक, भावाभयणींक आयकुपाचो नाशिल्लो. द्रौपदी भशेन असहाय्य जावन तिका आदार सोदचो पडलो.

दारा वयली घांट वाजली. दारांत उबो आशिल्लो तो तिचो कृष्ण.

तिणें सांगून तिचो घोव कोणाकच मेळूंक वच्चों ना हें जाणा जावन ताकाच मेळूंक आयिल्लो. तिचेर आयिल्लें संकश्ट ल्हव करूंक आयिल्लो कृष्ण. दोंगरान महमदा कडेन येवचें तसो आयलो.

आपल्याक इतली बरी वागणूक फावता हेंच नकळ आशिल्ली ती. विस्वास बसलो ना तिका आपले खातीर कृष्ण आयलो म्हूण. तिणें मना पसून कृष्णाक नमस्कार केलो. 'कृष्णा, तूं धन्य! आयज म्हाका धन्य केलें'.

तिणें घोवाक ताची वळख करून दिली.

तिच्या घोवान इतले मेरेन ताचें फकत नांव आयकल्लें. समाजांत आपल्या कर्तृत्वाच्या नेटार मेळयिल्लें ताचें नांव. येसाचे आघाडेचेर आशिल्लें ताचें नांव. हो मनीस असो सहजा सहजी आपल्या घरा येवंक शकता? तोय बी आपले बायलेचीं गाराणीं आयकूंक? आपल्या अजागळ, अबरगत बायलेचीं गाराणीं आयकूंक? तिच्या घोवाक हें एके तरेचें आव्हानच आशिल्लें.

अशा मनशां कडेन लागीं वचून ताचीं बरेपणां मेळोवपाचो अधिकार तर आपलो. आपली वेशभूशा, आपली वागपाची रीत. दुसऱ्याक चकवो दिवपी आपल्या तोंडार आशिल्लो निरागसपणाचो मुखवटो, आपली नगण्य चूक मान्य करपाचीं आपली साळसूदपणां आनी ताका लागून दुसऱ्यांच्या मनांत आपले विशीं सहानुभूती निर्माण करपाची फिशालकाय... आपल्या स भावंडां पैकी एकल्याच्याय आंगांत नाशिल्ली. एकाद्रे हे गूण आपल्या बापायचे. पूण फकत ते आपल्याकच आयल्यात. ना एका भावाक, ना एके भयणीक. आयज मेरेन समाजांतल्या उच्चस्तरीय प्रतिशठीत लोकां कडेन वळखी करून घेवन तांचे भोंवतणीं वावुरपाची कला आपणेंच साधल्या. समाजांतल्या 'व्हडल्या' मनशां कडल्यान 'बरो मनीस' म्हणून घेवपाचें 'कर्तृत्व' आपणेंच दाखयलां.

हुशार आसून, चडांत चड विद्या घेवन, कामाधंद्यांत येस मेळोवप हेंच कर्तृत्व आसता अशें थोडेंच आसता?

आयज आपल्याक व्हडल्या मनशां बरोबर भोंविल्लो पळोवन लोक मान दितात तें कितें ओगीच?

हे फाटभुंयेर घरांत आयिल्लो हो 'व्हडलो मनीस', ताका आपूण वळखना, तो बायलेच्या आदाराक येता हें ताका खुपलें.

हें म्हळ्यार अशें जालें की तिच्योय व्हडल्या मनशां कडेन वळखी आसात. तीय तांचे कडेन संपर्क सादूंक शकता. ही नगण्य बायल, नीटनेटकी आकर्शक वेशभूशा करपी, वागपा उलोवपांत फिशाल आशिल्ल्या घोवा कडेन सर्तच करूंक पळयता.

ना. अशें जावन उपकारना. ह्या मनशाक आपलें म्हत्व कळूंक जाय. बायले परस आपूण कितलों वेगळों आनी वयले पातळे वयलो तें कळूंक जाय. ह्या मनशान आपले बायले परस आपल्याक चड म्हत्व दिवंक जाय तें जालेंच, ते भायर जग लोकांक लेगीत आपली ह्या मनशा कडेन वळख आसा ती दिसूंक जाय.

ताणें कृष्णा कडेन आपल्या घुमपी आवाजांत, शैलीदार इंग्लीश भाशेंत, विख्यात

मनशांनी बरयिल्ल्या सुविचारांचो उपेग करून आनी आपल्याचेर प्रभाव पडिल्ल्या भाशणांचो आदार घेवन उलोवंक सुरवात केली.

खंयच्याय अनवळखी मनशा कडेन उलयतना एक मतींत धरचें पडटा. ताचो कल खंय आसा तें समजून घेवप. देखून आपणें उलतयना आपलें उलोवप सदांच संदिग्ध आसतलें, तातूंतल्यान खंयचोच विचार वा मत स्पश्ट जावचें ना हाची काळजी घेवंक जाय.

मनशाक आपल्या कलान उलयता तो मनीस आवडूंक लागता. म्हणटकच आपलें मत हें दुसऱ्याचो कल समजतकच मांडपाचें धोरण आसूंक जाय.

आजवेरचे जिणेंत ताणें दुसऱ्यांचेर प्रभाव घालूंक आडखळूंक शकतात म्हूण आपलीं स्वतंत्र अशीं तत्त्वां केन्नाच बाळगिलीं नात. जो मुखार आसा ताची निश्ठा, ताचीं तत्त्वां हांचे, ताचे परस आपल्याक चड म्हत्व आसा अशें दाखोवन ताचे मुखार ताचे निश्ठेक पाळो दिवपाचें नाटक करप हें ताच्या येसाचें पयलें सोपण.

दुसऱ्या पांवड्यार त्या मनशाची अशी तोखणाय करप की तो सुखावतलो. हातूंतय एक फिशालकाय आशिल्ली. 'तूं असो बरो आनी तसो बरो' म्हूण केल्ली तोखणाय व्हडलीशी उपेग पडना. ज्या मनशाची तोखणाय करता त्या मनशाक आपूण प्रामाणीक म्हूण पटोवन दिवचे खातीर ताचो अहंकार पोशेतना ताका दुखना अशे सुवातेर ताचे विशींचे बरे भावनेन आपूण चाबूक ओडटां अशें दाखोवप. तो चुकनासतनाच एकादे चुकत म्हूण सादूर करप.

इतलें करून तो मनीस लागीं आयलो किं मागीर ताचेर दुसरो कसो जळटा हें ताका पटोवन दिवंक सुरवात करप. ताचेच लागींचे इश्ट, सोयरे ताचो दुस्वास करतात ही भावना ताच्या मनांत निर्माण करप आनी ती भावना एकदां निर्माण जाली किं ताच्या हितचिंतकाचे भुमिकेंतल्यान आपली सुवात घट करप.

आपले इश्ट, सोयरे आपल्या येसा खातीर आपलो दुस्वास करतात हें पटिल्लो तो मनीस मागीर इश्ट-सोयऱ्यां पसून पयस वता आनी ह्या हितचिंतकाच्या मार्गदर्शनाक म्हत्व दिवंक लागता. आपले स्वताचे बायले परस ताका हितचिंतक लागींचो दिसूंक लागता.

पूण तो जाणा येस तितल्यान सोंपना. दुसऱ्याच्या मनांत आपले विशीं निर्माण केल्ली ही हितचिंतकाची भुमिका राखून दवरची पडटा. देखून फाटल्यान त्या मनशाच्यो कितल्योय भगल्यो मारल्यो आनी बकच्छायो केल्यो - हें त्याच वेळार तिसऱ्या मनशा कडेन बरेपणां घेवंक करचेंच पडटा - तरी त्या मनशाच्या कानार पावतलें अश्या लोकां

कडेन ताची तुस्त गावची पडटा.

आपली जीण ही अशा क्लृप्त्यांनी समृद्ध आसा हें जाणा आशिल्ल्या ताणें कृष्णाचेर भूलमंत्र मारूंक सुरवात केली.

कृष्णाचेर इल्लो इल्लो ताचो प्रभाव जावंक लागिल्लो.

तातूंतल्यान दोन गजाली साधिल्ल्यो. समाजांत नवी सुवात मेळोवंक नवें साधन मेळिल्लें आनी दुसरें, बायलेच्या प्रतिकाराक बळगें उणें पडूंक लागिल्लें. उरफाटें तिका दामून दवरूंक ताकाच बळगें चडटालें. अबरगत बायल अजून कृष्णाचेर पातयेवन आशिल्ली. कृष्णाच्या प्रभावान कांय काळ उणो जाल्लो घरांतलो अच्छेव परत सुरू जालो. ताच्या तोंडा वयल्यान बुरख्या फाटल्यान लिपिल्लो ताचो अवतार प्रगट जावन तिचे जिणेची गची अंदूक लागलो. ती त्या अवताराक भियेवन आपल्याक एके कुडींत बंद करून घेताली. दारा भायल्यान रावन ताणें घाल्ली गरड तिचें काळीज हुडयताली. तिका कलकलूंक लागतालें. तो दारार खोंटी मारूंक लागतकच दिसतालें, हें दार मोडटलें, जावं खिळी तुट्टली. तो मागीर भितर येतलो आनी मागीर आपली माणसुकी ना.

निमाणें तिणें परत कृष्णाक उलो घालो.

"कृष्णा, तो रात रातभर अच्छेव करता. म्हाका, म्हज्या मनशांक गाळयांचो शिंवर घालता. दोळ्याक दोळो लागूंक दिना. रातभर गाळयांचें किर्तन चालूच आसता".

कृष्णान म्हणलें, "गाळी घालता? घालूं. तूं ओगी राव. गाळी घाल्यो म्हण आंगाचे कुडके कांय वचनात?"

कृष्ण म्हणटा जाल्यार तें तशेंच आसूंक जाय आनी आंगाचे गेल्ले कुडके लेगीत भरून येतात. आपलेच सहनशक्तीची दोरी ताणची पडटली.

ती आपलो भंयच जियेवंक शिकली.

एक दीस रातचो कृष्ण अचकीत घरा आयलो. सदांच्या प्रसन्न मुखामळार मातसो तणाव दिसतालो. मनांतल्यान तो भियेल्ले वरी दिसतालो.

दोगांय घोव बायलेन कृष्णाचो आदर सत्कार केलो. पूण कृष्ण अस्वस्थ.

कृष्णान आपल्या हितचिंतकाक आपली मनोव्यथा सांगूंक सुरवात केली.

"म्हाका एक फोन येता रे. आयज आठ दीस जाले. फाटल्या मंगळारा पयले फावट आयिल्लो".

"कोणाचो फोन? कित्या खातीर?" ताणें विचारलें.

"तो म्हाका गाळी घालता", कृष्णान सांगलें.

"कितें?" कृष्णा सारक्या देवमनशाक गाळी? कित्या खातीर? कोण आसतलो? दोगांकय अजापाचो धपकोच बसलो.

"मंगळार दीस जालो, बुधवार दीस जालो, मागीर शेनवार दीस परतो केलो आनी आयज परत. गाळी घालता तातून तकली पिड्ड्यार जाता".

"हांवें तशें टेलिफोन एक्सचेंजींतल्या म्हज्या वळखीच्या मनशाक म्हणून दवरलां. वळखीच्या पुलीस अधिकाऱ्याकय कल्पना दिल्या. पूण त्यो गाळी आयकूं नज जातात", कृष्ण उलयतालो.

"पूण कोण तो जाणा तूं फोन करपी?" ताणें विचारलें.

"हय. तो तोच आसूंक जाय. कित्या खातीर घालता हाचीय कल्पना आसा म्हाका. पूण ताचें तोंड कशें बंद करूं हें चिंततां. तुका विचारूंक आयलां". आपली व्यथा कृष्णान आपल्या हितचिंतकाक सांगली.

आपली नामना, प्रतिश्ठा आनी वेवसायीक सफलता हांचें बळगें आपल्या फाटल्यान आसतना, आपले वळखीचो फायदो आपल्याक मेळटा आसतना, आनी आपूण स्वता हातापायांनी घटमूट आसतना कृष्ण इतलो कसो गळसणलो?

फोन करपी मनीस कृष्णाक तेंकून काय ना? फोनाचेर उलोवप कितलो वेळ चलूंक शकता? कृष्ण ताचो फोन दवरून ताचें उलोवप बंद करूंक शकता आसतना कृष्णान इतलें अस्वस्थ कित्याक जावचें?

"कृष्णा, तुजो भंय म्हाका दी. हांव तो जियेवंक शिकलां".

तिचें काळीज कृष्णा खातीर कळवळ्ळें.

❑

# माडा वयल्यान पडिल्ल्याक



**लग्न** जावन आठ दिसांनी घोव गेलो म्हूण लोक ताका चुरचुरताले. पूण एल्साक ताचे किटकिटे येताले. ताचीं दुख्खां कोणाक कळ्ळ्यांत अशें खंयच दिसनाशिल्लें. फकत हेळे. आयकूंक लेर्गात वीट येतालो.

घरांत तर दुसरीच तरा. ताचो घोव गेलो. आतां ताचे कडेन कसलीच शक्त उरूंक ना हाची जाणविकाय आशिल्लीं मांयमांव, देर-जाव ताका कुंड्यापाश्ट करून उलयतालीं. वयलेचाराक म्हणप 'आपल्या पुताक खालो. वायट पयसो पायसोराचे म्हण. पूण एल्सा जाणा आशिल्लें ताका मनांतल्यान खरेंच तशें दिसना. तीं आपलीं दुस्वास करतात. तांकां, आतां आपल्या घोवाची येणावळ अडचल्या, हाडिल्लो पयसो बायलेच्या म्हणल्यार आपल्या नांवार येतलो आनी आपणें दिल्यारच तांकां मेळटलो हे खातीर तीं धुसफुसतात.

पयसो!

खरें म्हळ्यार त्या मनशान एल्साक फटयिल्लेंच. भावाचो इश्ट म्हूण सदांच घरा येवपी. एल्सा कडेन लागीं येवंक पळयतालो तेन्ना तें झळकेक राविनाशिल्लें. एल्साक शिकपाचें आशिल्लें. आपली स्वतंत्र नोकरी वा वेवसाय आसचो हें ताचें सपन. ते भायर ताका भोंवतणच्या लोकांची मनोवृत्ती केन्नाच पटली ना. संकुचीत! पूण ह्या मनशान ताच्या भावाचेर कसलो जादू केलो तोच जाणा. भावान एल्साचेर ताचे कडेन लग्न जावपाचें दडपण हाडलें.

मोग, मोग म्हूण लग्न जालो आनी पयल्याच दिसा सावन जळोवंक सुरवात. तूं अशेंच करिना आनी तशेंच करिना. तूं अशें वागूंक जाय आनी तशें वागूंक जाय. हाका वायट दिसत ताका वायट दिसूंक फावोना. इतले मदी एल्सा खंयच उरलें ना. पयल्याच

दिसा तें लग्नाक विटलें.

ताच्या घोवाक ताच्या मनाची पर्वाच नाशिल्ली. तो आखाती देशांतल्यान येतना उंची उंची वस्ती घरांत हाडटालो तशीच ही एक बायल हाडून दवरिल्ली, इतलेंच. लग्न जाल्ल्या आठ दिसांच्या सहवासांत ताची ओड लागचे परस घृणाच दिसूंक लागिल्ली. पूण म्हणून तो असो वच्चो अशें कोणाक दिसतलें? भरीक एल्साचो भावय ताचे बरोबर अपघातांत गेल्लो. एल्साचें दुख्ख दुसऱ्यांक सांगून समजुपा सारकें नाशिल्लें.

आतां प्रस्न आशिललो फुडाराचो. लग्न जावन ताचे जिणेक आपले जिणेची दोरी बांदिल्ली. शिक्षणय अर्द्यारच उरिल्लें. आतां फुडें कशें?

ताची खरी अडचण समजून ताका धीर दिवपी, मार्ग दाखोवपी कोण आशिल्लो? सगल्यांची विचारसरणी एकच, घोव गेलो म्हणटकच हाणें आतां सगल्यां कडेन उणेपणां घेवन सकयले मानेन जियवचें. दुश्काळांत तेरावो म्हयनो. दोन म्हयने जातनाच समजलें, पोटांत आनीक एक जीव वाडटा. एल्साक तें एक संकश्ट कशें दिसलें. आपलोच जीव आपल्याक जड, हो आनीक जीव कसो सांबाळूं? पूण पोटांतल्या जिवान आपल्या अस्तित्वाची जाणविकायच इतल्या प्रखरपणान करून दिल्ली की सगल्या वाड्यार समजलें.

आपल्या जिवाचोच वीट आयलो ताका. खंय तरी वचून जीव दिवचो अशें कितलेशेच फावट मनांत आयलें.पूण धाडस जालें ना. केल्लो यत्न फसलो जाल्यार अदीक घाणटलें.

देव कसो पादिगार पावलो. इगर्जेचे शाळेंत ल्हान भुरग्यांक शिकोवपाची नोकरी ताका मेळ्ळी. पगार तसो सामको थोडो. 'जावं थंय! आपलें मन रमोवंक तरी आदार!' एल्सान मनांत म्हळें.

एल्सा शाळेंत शिकोवंक लागलें. तशें तें हुशार. भुरग्यां कडेन वागूंक बरें येतालें ताका. तशेंच भुरग्यांक नाच-गाणीं शिकोवप, तांचे कडल्यान तरातरांच्यो आकर्शक वस्तू करून घेवप हातूंत ताका बरीच गती आशिल्ली.

आपूण आपले चलयेक तरी खूब शिकयतलें हो हावेस मनांत धरून एल्सा कामांत बुडूंक लागलें.

हांवें एल्साक पळयलें तेदे वेळार तें पंचविशेक वर्सांचें आशिल्लें जावंये. पांच वर्सांचे ताचे चलयेक घेवन शाळेंत येतालें. सगल्यां कडेन फकांडां, मस्कऱ्यो करून आसतालें. मनांतल्यान उदास. आपल्या एकटेपणाचो वितराग चलये कडेन काडटालें. आनी तें पांच वर्साचें चली ताका समजून घेतिल्ले वरी वागतालें. दीस वताले, वर्सां

वतालीं.

इगर्जेचे एके परबे खातीर कार्यावळ थारायिल्ली. एल्सा कडेन सुत्रां. कार्यावळीच्या येसायां वेळार गांवांतले भुरगे इगर्जेंत जमताले. एल्साचें जाण्ट्यां परस भुरग्यां कडेन बरें जमतालें. तांकां तापोवन तें धेंकय दाखयतालें आनी फकांडां, मस्कऱ्यो करून तांचे कडेन इश्टागतय जोडटालें.

एल्सान खरें म्हळ्यार परतें लग्न जावंक फावो आशिल्लें. पूण एकदां तोंड भाजलें. ताका आतां कोणाचेंच आकर्शण दिसनाशिल्लें. ते भायर गळ्याक चली. आपलें चिंतूंक गेल्यार फुडें चलयेचें कितें जायत हो हुस्को.

भुरग्यां कडल्यान नाटकुलें करून घेतना ताचें मन मातशें रंगतालें. भुरगीं करतालींय बरींच.

पूण कांय भुरगीं मस्ती करपाचें सोडिनात. ताणें भुरग्यांक तापयली. सगलीं आपापल्या जाग्यार वचून नाटकुल्याची येसाय घेवंक तयार जालीं.

तो थंयच उबो आशिल्लो. एल्साचेर नदर रोखून.

भुरगो ताच्याकय चार-पांच वर्सांनी ल्हानच आसतलो. पूण तें ताचे नदरेक भियेलें. ताची आनी आपली पिराय तें विसरलें. ताका तापोवंक धजलें ना. एल्सान अळंग आपल्याक ताचे नदरेंतल्यान पेल्यान व्हेलें.

नाटकुलें करून घेतना एल्साचें लक्ष लागलें ना. कोण काय तो? पयलेच फावट पळयलो. यत्न करूनय नदर ताचेर गेले बगर रावनाशिल्ली आनी मुमुरखो हांसून तोय ताकाच पळयतालो.

एल्सान आपले चलयेक बेठेंच तापयिल्ले भशेन केलें. ही धा वर्सांची चली आपली धूव आनी आपूण तुजे परस खूब व्हड हें ताका दाखोवपाचें आशिल्ले वरी. तो कांयच उलयलो ना. आपलोसोच हांसून फाट करून गेलो.

एल्साक सूख लागना जालें. ताची नदर फाट सोडिनाशिल्ली. परत परत तेंच येवजतालें. आनी आपूण ताचोच विचार करतां हेंय ताका जाणवतालें.

ताचे उपरांत दोन-तीन फावट तो इगर्जेंत दिसलो. पळयिल्ले फावट ताकाच पळयतालो. एल्साच्या काळजाची धडधड वाडली. कोणाकय ताचे विशीं विचारूंकच भंय दिसतालो. हरशीं एका नव्या मनशा विशी विचारूंक कांयच हरकत नाशिल्ली. कोणय विचारता. पूण हाचे विशी विचारल्यार लोक बेठेच कसलोय अर्थ काडीतशें दिसलें. शाळेंत, घरांत, इगर्जेंत येवन वचून ताचेच विचार मनांत घोळटाले. ताचें पळोवप, हांसप, चलप... तो हांगाचो आसूंकच फावोना. ताचें सगलेंच वेगळेंच.

सगल्यांत एके तरेचो आत्मविस्वास भरिल्ले वरी.

आनीक एक दीस तोच मुखार हजर. ताचे परस व्हड आसून एल्सा ताचे मुखार दबलें.

किस्तोदीन वळख करून दिली.

"टिचर, हो तुजे कडेन उलोवंक सेदता".

परत एकदां एल्साच्या मनांत खप्प जालें.

ताणें हात फुडें केलो, "हांव फ्रान्सिस्क".

काळीज धडधडटालें तरी एल्सान ताचो हात आपल्या हातांत घेतलो आनी हांसून ताका जाप केली. ताचे विशीं ल्हवू ल्हवू विचारून घेतलें.

"हांव पी.एचडी करतां मुंबय".

"किस्तोद तुजो सोयरो काय कितें रे?" एल्सान उलोवपांत सहजपण हाडपाचो यत्न केलो.

"टिचर, काकालो चेडो!"

एल्साक याद जाली. किस्तोदीक एक मावळण आशिल्ली. तिचे एके चलयेक तें वळखता. हांगाच लग्न करून दिलां. पूण तिका हो आनीक आसा हें तें नकळच आशिल्लें.

तो म्हणटालो, "तूं हांसतना बरें दिसता".

एल्सा भियेलें. ताणें किस्तोदी कडेन पळयलें. किस्तोदीचें लक्ष नाशिल्लें म्हूण बरें जालें.

"तूं खंय शिकिल्लें? तूं जें भुरग्यांक सांगता तें तांकां समजना. तांचो गजालीं कडेन पळोवपाचो दृश्टीकोण वेगळो".

एका प्रगल्भ मनशा भशेन ताका उलयतना आयकून एल्सा बाकीचें सगलें विसरलें.

तीं बरोच वेळ उलयलीं आनी आयलेपेल्यान कोण ना हें बऱ्याच उसरां ताच्या लक्षांत आयलें.

'नाका, नाका' म्हणून मनाक सांगता आसूनय एल्सा ताचे कडेन उलोवंक लागलें. आपल्याक नकळटना तें ताचे कडेन ओडटालें. आनी तो ताचे विशीं सगलें कितें जाणा जाल्ले वरी ताचे कडेन उलयतालो. ताणें सांगचे पयलीं ताच्या मनांतलें उलयतालो.

एक दीस तो अकस्मात मोटारसायकल घेवन आयलो.

"यो, पणजे चित्रांचें प्रदर्शन लागलां तें दाखयतां तुका" तें एक ल्हान भुरगें जाल्ले

भशेन तो उलयतालो.

चली म्हन्यांतच आशिल्लें. एल्सान चलये कडेन पळयलें. तें धा वर्सांचेरच जाण्टें जाल्लें. "वच तूं वता जाल्यार" ताणें म्हळें.

"तूं रावता मगो एकलें, बरें करून?"

घरांत आजो-आजी आसूनय तें एकलें हाची जाणविकाय एल्साक आशिल्ली.

"तें येतलें तर?" फ्रान्सिस्कान विचारलें.

एल्सान परत चलये कडेन पळयलें.

"ना. म्हाका अभ्यास आसा", ताणें समजिकायेन सांगलें.

एल्सा फ्रान्सिस्का वांगडा चित्रांचें प्रदर्शन पळोवन रातचें आठांक घरा पावलें. फ्रान्सिस्क इतलो भुरगो जावन समजिकायेन वागतालो. ताची तुस्त करतालो, ताका बरें दिस सारकें उलयतालो. पूण सगलें ताच्या मना वयलें निर्शेणेचें सावट काडून उडोवपा खातीर. तो एल्साचो मान इल्लोय उणो जावंक दिनामलो.

ते रातचें एल्सा सुश्रांत न्हिदलें.

आनी दुसरे दीस... घे फोग!

फ्रान्सिस्काची भयण सकाळीं फुडेंच दारांत येवन गाळी घालताली. त्या भुरग्याक ही बायल फुसलावन ताची वाट लावंक मोदता म्हणून एल्साक खेपताली. सगलो गांव एकठांय जाल्लो. चली बावडें आवयक वेंग मारून रडूंक लागलें. एल्साक उलोवंक वाचाच नाशिल्ली. ताच्या 'वायट पायसोराचो', 'घोवाक खावन' विधवा जाल्ल्याचो, इगर्जेंत 'नाटकां' करून भुरग्यां वांगडा 'नाचपाचो' उद्धार जातालो. केन्नाच आयकूंक नासल्यो अश्यो गाळी कानार पडटाल्यो. आंगणांत ती जाल्यार घरांत मांयमांव तणतणटालीं. ताच्यो तिस्त्योभयन्यो करतालीं. मदीं जावेची फोण्णां आशिल्लीं.

आपणें अशें कितें केलां म्हणून हांणी असो आकांजाव करचो? आपल्याक दुशण दिवचें? हें ताका कळनाशिल्लें. ह्या लोकांक व्हडली घरां आनी तातूंतल्यो म्हारग वस्ती हांतूंतच धादोसकाय आसा. एकलेपण म्हूण केन्ना सोंसलां हांणी?

हींच बायल घोव भायर आसतना दीस दीसभर मोटारसायकलीन भोंवता, तेन्ना तिचो गुन्यांव जायना? आनी आपणें असो कितें गुन्यांव केला? ताच्या इश्टाचें प्रदर्शन पळोवंक ताचे वांगडा वचून दोन घटका दुख्ख विसरलें जाल्यार गुन्यांव थारता? हांगा आपल्या पायसोराचो संबंद खंय येता?

एल्साक आपल्या आंगांतली सगली शक्त काडून घेतिल्ले भशेन जालें. सगलें जग परकी परकी दिसूंक लागलें. गेला तो मनीस ताचो केन्नाच नाशिल्लो. जीव तुट्टालो

फकत धुवे खातीर.

कांय तेंपान म्हाका कळ्ळें, एल्साक हॉस्पिटलांत घालां. ताच्या मनाचो समतोल गेला. तें मानसीक रुग्ण जावन पडिल्लें. चलयेक ताणेंच पयलींच बोर्डिंगांत दवरिल्लें खंय.

एक तरी हुस्को ल्हव जालो.

आयज सुमार पंचवीस वर्सांनी हांव एल्साक पळयतालें. एके ल्हान चलयेक घेवन गाडयेंत बशिल्लें. हांव दुकानांतल्यान भायर येतना म्हाका कोण तरी हात करून आपयता म्हूण हांव पळयत रावलें. तें एल्सा हें समजूंक म्हाका बरोच वेळ लागलो. एल्सा सगलेंच सुजिल्ले वरी दिसतालें. प्रमाणबद्ध आशिल्ली ताची शरीरयश्टी थुलथुलीत जाल्ली. दोळ्यांतले तेज गेल्ले.

मांडयेर आशिल्लें चली आपले धुवेची धूव म्हूण सांगूंक लागलें. धूव दुकानांत भितर गेलां. ताचीच वाट पळयतां म्हणूंक लागलें. एल्साच्या आवाजांतलीय धार नाच्च जाल्ली.

म्हज्या पोटांतल्यान एक कूप वयर सरून ताळ्याकडेन अडकलें.

एल्साची सगली जीण, पयलींय बी आनी आतांय बी फकत धुवे भोंतवणींच घुस्पून उरली.

ताचे धुवेक तरी, आवयक मरसर आदार दिवपाचें सामर्थ्य मेळचें इतलेंच हांवें मागलें.

❑



# पुरस्कार

**पंदरा** वर्सां कुवेत वचून बरोच पयसो गांठीक बांदलो आनी आंतोनीन गोंयांत वचून थीर जावपाचें थारायलें. मेवण्यान बार घालपाचें सुचोवन सगली तयारी करून दवरिल्ली.

गोंयांत पावतकच तो पयलीं मेवण्यागेर गेलो आनी बार पळोवन आयलो. सगली वेवस्था ज्युस्ताज्युस्त आशिल्ली. घर बांदूक घेतिल्लो जागोय लागींच आशिल्लो. हुस्क्या मेकळो जावन तो घरा आयलो.

घरा मांय उमेदीन ताची वाट पळयताली. तो येतलो म्हूण जायत्या जाणांक तिणें सांगून दवरिल्लें. एक एकलो करून वळखिचे, अनवळखी मेळूंक येवंक लागले. सगल्यांक मेळून ताकाय धादोसकाय जाताली.

एक दीस आवय आनी तो वारांदार बशिल्लीं आसतनाच तो आयलो. काळोसो, बारीकसो, बारीकशे तकलेर अर्द इंचाचे केंस निट्ट उबे आशिल्ले. लांब हाताचें खोमीस, पॅण्टी वयल्यान घाल्लें. नाकार वक्ल नाशिल्लें.

ताका पळोवन आतोंनीची आवय हांसत उठली.

''यो, यो पावलबाब''.

आवयन 'पावलबाब' म्हळें म्हूण आंतोनीक ताचें नांव कळ्ळें.पूण तो ताका वळखलो ना.

''बाबा. हो पावलबाब. मेळों येयला तुका''. आवयन आंतोनीची ताचे कडेन वळख करून दिली.

'हॅलो' म्हणून आंतोनीन पावलबाबाक हात दिलो आनी ताका बसूंक कदेल दिलें.

''जायत्या तेंपान येयला तूं!'' पावलबाबान म्हळें.

"व्होय. आतां हिंगा रावतों म्हूण चिंतून येयलां. पोत्तें आनी वोसों नाका". आंतोनीन सांगलें.

"आतां तुमी येयले म्हण्टरे आमकां सुसेग. तूं नोकळो हिंगा कीत चोल्लां तें. सोगलीं फोटींगपोणां".

तो कित्या विशीं उलयता तें आंतोनीच्या लक्षांत आयलें ना.

"ह्या इस्लोका पासत कितू तरास आमी काडलाय तें नोकळों तूं?"

'इश्कोल!' आंतोनीक काळजांत कस्स जालें. ह्या इश्कोलाच्यो यादीच ताका नाका आशिल्ल्यो. थंय केन्नाच कांयच जमलें ना. तकलेंत तर कांयच शिरकलेंच ना. आतां पावलबाब त्याच इश्कोला विशीं उलयतालो.

"तूं जाणा, हिंगा इस्टाफ आहा पोय तो फकत पोयशे घेवूं जाणा. तेंकां फूंस कमिटी मेंबरांची. एस.एस.सी.क आहलो भुरगो 'अमेरिका' इस्पेलिंग नेणा. कितें शिकोयताय हे?"

पावलबाबान इश्कोलांतल्या सरांक गाळी घाल्यो त्यो आयकून आंतोनीच्या निर्शेल्ल्या मनांत एकदम उमेद आयली.

'चोरांनो! देखून हांव फेल जातालों', ताणें मनांत म्हळें. 'फोकोत आमी शिकनाय म्हुणोप. आनी तुमी आहलो ते कित करूंक?'

एक सर तर सदांच तापयतालो. 'हें पांच फावटीं बरय, तें धा फावटीं वाच, घरा रावल्यार चीट घेवन यो, हें कर आनी तें कर'.

खीणभर ताका आपल्या भुरग्यांचो उगडास जालो. तींय घरां येवन फकत वाच आनी बरय करतालीं. घरा रावल्यार चीट घेवन वतालीं. पूण तांकां आनीक कितें काम आसा? ते भायर आतां सगलीं भुरगीं तेंच करतात. ताच्या वेळार कोण करतालो?

आनी जें आशिल्लें तें आशिल्लें. पावलबाब कितें म्हणटा तें आयकूंक जाय. तो म्हणटा तें फाल्स न्हय.

"जालां कितें जाणा तूं? आमगे कमिटी मेंबर आहा पोय, तांचे भितोर झोगडीं. म्हाका तेणीं भायर घायला." पावलबाब मुखार सांगतालो.

"त्या वगतार तूं ना हिंगा. हे चोर इस्कोल आपणा हातीं घेवूं सोदताय. तेंगें ह्या इस्टाफा फूंस. तुगे सारके कमिटीचेर येवूं फावो. तुका आमच्यांनी प्रिन्सिपॉल करूं येतालो".

'प्रिन्सिपॉल म्हणिना फुडें आंतोनीचें हड्डें फुल्लें. ताणें आक्ताक धा हजारांचो चेक पावलबाबाच्या हातार दवरलो, इश्कोला खातीर.

आठ दिसांनी मिटिंग जाली. आंतोन प्रिन्सिपॉल.

आनंद सर शाळेंत वचूंक आयज चड उमेदीर आशिल्लो. ताच्या 'ग्रामीण भाग आनी शिक्षण' ह्या विशयाचेर हिंदींत बरयिल्ल्या शोध निबंधाक राष्ट्रीय पांवड्यार पुरस्कार फावो जाल्लो. काल घरा कडेन पावतनाच पत्र ताच्या हातांत पडिल्लें. ताका दोट्टी खोस जाल्ली. एक म्हळ्यार ताका राष्ट्रीय पांवड्यार पुरस्कार मेळिल्लो आनी दुसरें, तो कितें सांगता तें आयज मेरेन कोणाकच कळनाशिल्लें ते ताचे विचार विचारवंतांनी उखलून माथ्यार घेतिल्ले. कोणाक सांगूं, कोणाक नाका अशें जाल्लें ताका. आयज ही बातमी शाळेंत दिवपाची. कोणाक अजाप जातलें, कोणाक नसाय. हेडमास्तर तर पुरस्कार दिवपी आपूणच जाल्ले वरी, भुरग्यांक बातमी सांगतलो. एकूण ताचो भाव आयज इश्कोलांत वाडटलो इतलें खरें.

झेत मिरोवंक न्हय. पूण ताका ही सोर्त फुटूंक नाशिल्ली. आयज मेरेन केल्ल्या यत्नाचें आनी घेतिल्ल्या अणभवांची ती पावती आशिल्ली.

बायक सदांच्या जाग्यार दवरून तो शाळेचीं सोंपणां चडूंक लागलो तेन्ना ताच्या लक्षांत आयलें, रस्त्यार एक व्हडली गाडी आसा. येदे सकाळीं कोण आसतलो? वाटेर मेळिल्ल्या जण एकल्याच्या तोंडारय गूढ भाव आशिल्ले.

मस्टर रोलार सय करूंक तो ऑफिसांत गेलो जाल्यार प्रिन्सीपॉल आनी मॅनेजमॅण्टाच्या दोन मेंबरां बरोबर एक मोटोसो मनीस बसला. हेडमास्तर तोंडार शक्य तितले लाचार भाव हाडून तांचे कडेन उलयतालो.

'आयज कोणाचेर फार काय?' म्हणत आनंद सर ऑफिसांतल्यान भायर आयलो आनी स्टाफ रुमांत गेलो. स्टाफ रुमांतय सगळें शांत. कोणच उलयना. सस्पेन्स!

''आयज कितें?'' ताणें एकल्याक विचारलें.

''प्रिन्सीपॉल नवो जाला''.

''कोण?''

''तो मोठेलो. हालीं कुवेत सावन बरी पोटली घेवन आयला''.

''पाड पडूं. हांचें दिसाक एक. इश्कोल म्हळ्यार आज्यालो फांत हांच्या'' अशें म्हणून तो वर्ग घेवंक गेलो.

पयलो तास एस.एस.सी.चेर. वर्गांत भितर सरून तो बोर्डार बरोवंक वळ्ळो आनी घम्म करून चेराचो वास आयलो. ताणें फाट वळ्ळी. मोठेलो, नवो प्रिन्सिपॉल, बारकेल्या आदल्या प्रिन्सिपॉलाक घेवन भितर सरतालो. ते भितर येवन फाटल्या बांकार बसले.

'आब्बा! म्हजो पिरेड ऑब्झर्व करूंक बसल्यात?' ताणें मनांत म्हळें. 'आनी म बी कांय ना? कांय नजो. करिनात कितें करतात ते बसून!' ताणें आपलें लक्ष शिकोव घालें. बोर्डार बरोवन परत वळटनाच ताची नदर मोठेल्याचेर गेली आनी सट्ट क तो वळखलो.

'आरे! हो आंतोन. एस.एस.सी.चे पयले बॅचींत आशिल्लो. ह्याच जाग्यार अ बसतालो. हो म्हजो पाठ ऑब्झर्व करतलो? आमचें गोंय खंयच्या देशांत आसा हें जाणा काय हो? हिंदी खंयच्या देशाची भास हें तरी सांगूंक कळत हाका? कुवेत व हिंदी बी शिकलो काय कितें? निदान पयसो तरी म्हजे परस चड जोडलो आनी म पाठ ऑब्झर्व करूंक पावलो. म्हज्या माथ्यार बसलो'. आनंदसराच्या मनांत इत सगलें वांगडाच येवन गेलें. तरी लक्ष शिकोवपांत घालूंक ताका वेळ लागलो ना. स शिताफीन शिकयतना ताच्या लक्षांत आयलें, आतां भुरगे खूब सुदारल्यात. त शिकपाचें म्हत्व कळूंक लागलां इल्लें इल्लें.

फाटल्यान बसून आंतोन चिंततालो. पंदरा वर्सां पयलीं तो ह्याच वर्गांत, ह बांकार बसतालो. आनी होच सर शिकयतालो. तेन्ना ताचें लक्ष सर कितें उलयता ता नासतालेंच. पूण सर आपल्याक कितेंय विचारीत म्हण तो भियेतालो. सरान कि विचारल्यार ताका कांयच सांगूंक येना आशिल्लें. मागीर दुसऱ्यान सांगतकच तें सा म्हणूंक येसर ताका म्हणचें पडटालें. तिडक येताली.

ताका पावलबाबाचीं उतरां याद जालीं. 'सगले चोर! फोकोत पोयशे घेवूं जाणा एस.एस.सी.च्या भुरग्यांक 'अमेरिका' स्पेलिंग येना म्हूण ते आतांच उलोवन आयित शाळेच्या तेंपावयल्या आपल्या सगल्या अपेसांचें कारण मेळिल्ले भशेन जालें ता पयलेच फावट आपूण जैतिवंत जाल्ल्याची भावना ताका जाली आनी तो फट्ट क उठून भायर आयलो.

पयल्याच पिरेडाक आनंदसराचे उमेदीचेर विरजण पडलें आनी तो पुरस्कार विसर लो. मागीर सदां भशेन तास घेत ताणें आपलें काम सोंपयलें. निमाण्या पिरे ऑफिसांतलें अपोवणें घेवन प्यून दारांत आयलो. आनंदसर घांट जातकच ऑफि गेलो. मॅनेजमॅण्टाचे मेंबर केन्नाच गेल्ले. हेडमास्तर सुतकी तोंड घेवन बशिल्ल आनंदसराक पळोवन क्लार्क मुखार आयलो. ताच्या हातांत दोन पत्रकां आशिल्ल क्लार्कान मुखार केल्लीं पत्रकां घेवन आनंदसरान वाचलीं. एकाची एक कॉपी. वा जातकच कळिल्ल्यो वा कळूंक नाशिल्ल्यो शिटकावण्यो आशिल्लो तो मेमो पाव म्हणपाची, मूळ प्रतीचेर सय करून तो घरा वचूंक भायर सरलो.



# इंद्रधनुश्य

सांजेचीं स वीस जाल्लीं.

"ट्रिंग, ट्रिंग".

मधुबाबान उठून फोन घेतलो.

"हॅलो".

"पप्पा..."

"हॅलो".

"हॅलो... हॅलो.."

"हॅलो... हॅलो... हॅलो..."

"कितें जालें? कोणाचो फोन?" फोन दवरिल्ल्याचें पळोवन मधुबाबाचे बायलेन विचारलें.

"मुत्रान केल्लो फोन. 'पप्पा' म्हणटा म्हणसर बंद जालो".

"करून पळयना कित्याक तूंच"

मधुबाबान फोन उखल्लो.

"9.. 8.. 2..."

"........."

"9.. 8.. 2...."

"........."

"कितें जालें?"

"लागना".

परत 9.. 8.. 2 करून मुत्रीचो बापूय फोन लागपाची वाट पळयतालो.

''तुमी डायल केल्लो नंबर सध्याक संपर्का भायर असा''.

पयलीं इंग्लिशींत जालें, मागीर मराठींत आनी उपरांत कोंकणींत मात जालें ना.

परत परत एकूच.

''हँ!''

''कितें जालें?''

''लागच ना''.

मुन्नीच्या बापायचो सूर त्रासीक जालो.

''कितलीं जालीं? ऑफिसांत आसतलें तें आतां?'' मुन्नीचे आवयन घडयाळी कडेन पळयलें.

''आतां स वीस जालीं. तें येदोळ भायर सरलां. बसींत आसतलें आतां''.

''फोन कित्याक केल्लो काय?''

''ॲक्सिडंट बी जालो ना मूं?'' जनेला भायर काम करपी खेमू भितरलें संभाशण आयकतालो. ताणें आपली तकली चलयली.

''ओगी राव, कित्याकितेंय उलोवं नाका''. मुन्नीचे आवयन ताचेर धेंगसो घालो.

''कोणा ॲक्सिडेंट म्हणी रे खेमू?''

वैयें भायर शिरपुटां पुंजावपी गुणावंतीच्या कानार खेमूचीं उतरां आदळ्ळीं.

''आगे! ॲक्सिडेंट म्हणोन सांगोन जाता? पयर बॉम्बे गाडयेंत बॉम्ब फुटलो म्हूण दुमींक सांगी'', खेमून आपलें रजांव गुणावंतीक सांगून आपलो राग उकतायलो.

गुणावंती वचून शेंवत्याच्या कानांत फुतफुतलें. अर्दें घरांतलें, अर्दें खेमुले. ताका आकलन जालें ते प्रमाण ताणें शेंवत्याक सांगलें,

''चली आशिल्लें खंय बशींत. बशी ॲक्शीडेण जाला म्हणटा खेमू''.

''ॲक्शीडेण आनी हो रावला? रोखडी गाडी धाडों जायी. आमी जाल्यार येतले आशिल्ले बराबर''. थंयच विडी ओडीत बशिल्ल्या वासून म्हळें.

''तूं आनी खंय वयता? बेबदो?'' वासूचे बायलेक वासूची नसती बडबड सदांच कणकण हाडटाली.

खबर इल्ली इल्ली मुखार वचत आशिल्ली.

''देवा म्हाज्या, म्हागे चली बरें आसल्यार पुरो''. मुन्नीगेर आत्र्यापयऱ्यान कामाक येतल्या साळून म्हळें.

''सकाणीं बाजारां वयतना बशीं मेळ्ळें म्हाका''. साळूच्या घोवाकय हुस्को जालो, वाड्यार एक-एकलो घरांतल्यान भायर येवंक लागलो.

''आतां मधुबाब कांय करिना जाल्यार आमी काडया गाडी''.

''तेका ह्या परसंगार सुचों नाका कितेंय?''

''कृष्णा येयला जाल्यार पळयात. तेका काडात भायर''. जाण्टेले गंगेचे सगळ्यांक पटलें. भाड्याक गाडी लावपी कृष्णा केन्ना केन्ना बेगीन घरा येतालो. ताचे टाटा सुमोंत आठ-धा लोकांक बसूंक मेळटालें. नशिबान आयज तो घराच आशिल्लो.

सगल्यांचें आयकून कृष्णान गाडी काडली. 'आयचें भाडें चुकलें ना म्हणपाचें' ताच्या मनांत आयलें.

गाडयेंत मधुबाबाच्या आदाराक बसूंक धा जाण तयार आशिल्ले. बेबंद्या वासूक मात बायलेन कसोच गाडयेंत बसूंक दिलो ना. तो बायलेचेर फडफडत रावलो.

दामू आनी मनू मात शिरकलेच भितर.

गाडी मधूबाबाचे गेटी कडेन पावता म्हणसर बस थांबली.

बसींतल्यान मुन्नी देंवतालें सगल्यांनी पळयलें.

''कितें जालें गो? फोन अर्द्यारच बंद जालो. कित्याक केल्लो?''

गेटी कडेन रावन वाट पळयतल्या मधुबाबान विचारलें.

''पप्पा, म्हाका बसींतल्यान इतलें सुंदर इंद्रधनुश्य दिसलें जाणा, तुमीय दिसता जाल्यार पळयात म्हूण फोन केल्लो. जाल्यार रेंजूच गेली''.

❑



# आयज कितलो? अठरा

**बाबू** पांचवेक पावलो आनी आल्मेदा हायस्कूलांत वचूंक लागलो. घरच्यान ताका बसीर वच्चें पडटालें. दारांत उबो रावल्यार बस मेळटाली. बाबू मागीर एकलोच बसीर बसून शाळेंत वतालो.

बाबूच्या शेजरा रावपी वासू पायलट. तोय त्याच वेळार भायर सरतालो आनी बाबू बसीक उबो राविल्लो दिसल्यार ताका फाटल्यान बसोवन शाळेंत पायतालो.

तेदूस बाबू बसीक राविल्लो तेन्नाच वासू भायर सरलो. बाबू बसीक रावता तें पळोवन वासून म्हळें, ''बाबू, शाळें वयता? फाटल्यान बस''.

वासू बरोबर मोटारसायकलीर वचूंक बाबूय खूश. तो पुट्ट करून वासू फाटल्यान बसलो. बाबू बसतकच वासून मोटारसायकल सोडली.

मोडणार पावंक वासूक दामू दिसलो.

वासून दामूक पळोवन मोटारसायकल मातशी थारायली आनी दामूक विचारलें,

''दामू आयज कितलो?''

''आयज अठरा''. दामून जाप दिली. वासू आपले वाटेक लागलो.

मुखार वता तसो जण एकलो वासूक विचारूंक लागलो,

''वासू, आयज कितलो?''

वासू म्हणटालो, ''आयज अठरा''.

फाटल्यान बशिल्ल्या बाबूक कांयच कळ्ळें ना. 'आयज कितलो? अठरा'. हाचो अर्थ कितें? आयज तारीख कितली काय म्हूण विचारपाचें जाल्यार 'आयज कितली?' म्हणपाचें. पूण आयज तारीखय अठरा नाशिल्ली. 'अठरा' म्हळ्यार कोणय मनीस आशिल्लो जाल्यार 'आयज कोण?' म्हणपाचें. 'आयज कितलो? अठरा' म्हळ्यार

कितें? सगलेंच व्याकरण कठीण जालें.

वासूची मोटारसायकल इतले म्हणसर कवळ्यां पावली. शिवानंद वासूची वाट पळयत राविल्लो. वासून ताका पळोवन मोटारसायकल थारायली. वासू रावतकच शिवानंदान विचारलें, ''आयज कितलो रे?''

'अठरा', बाबून मनांतले मनांत म्हळें. वासूनय तीच जाप दिली. बाबूक हांसूंक आयलें. पूण कुवाडें सुटलें ना.

''आरे! म्हजें गणीत चुकलें मरे''. अशें म्हणत, शिरपुट्या बाबूक मदीं घालून शिवानंद वासूचे मोटारसायकलीर बसलो.

शिवानंदान अशें म्हणटकच बाबूक कळ्ळें, 'अठरा' हें खंयचे तरी गणिताचें उत्तर. पूण ताका 'आयज, फाल्यां' कशें लागता? गणिताचें उत्तर सदांच सारकें आसता. बाबू गणितांत सामको हुशार. अदीक, वजा, गुणाकार, भागाकार इतलेंच न्हय तर उतरांचीं गणितां लेगीत चुकयनासतना सोडयतालो. म्हणून प्रत्येक परिक्षेंत ताका पैक्यां पैकीं मार्क मेळटाले.

'गणित सामकें सोंपें'. बाबून मनांत म्हळें. पूण येदे व्हडल्या शिवानंदाचें गणित कशें चुकता? बाबूक अजाप जालें.

''तुका घनशाम गावोना काल? तेणें सारकें सांगलेंलें. तेजें गणित फिट्ट आसता''. वासू शिवानंदाक म्हणटालो.

'कोण घनशाम काय?' बाबू चिंतूंक लागलो. तो सोरो पियेवन रस्त्या वयल्यान बडबडत वता तो? ताका आनी गणित कळटा? तो शाळेंत लेगीत गेलोसो दिसना. आंगार सदाचं बुरशे कपडे आसतात. खाड अर्दकुटें वाडिल्लें आनी तोंडाक सोऱ्याच्यो घाणी. न्हाय-धुयना दिसता. लोक ताका बेबदो म्हणटात. आनी वासू म्हणटा ताका गणित कळटा?

''घनशामा चुकना. ताचें गणित फिट्ट आसता'' शिवानंदान वासूचींच उतरां परत म्हणलीं.

''पूण काल ना तो आंतोनी गादयेर. सदां थंयच पडून आसता नाजाल्यार''.

बाबूचो अदमास खरो जालो. घनशाम म्हणल्यार तोच बेबदो घन:शाम. पूण ताचें गणित चुकना म्हळ्यार अजाप.

हेवटेन वासू आनी शिवानंदाचें संभाशण चालूच आशिल्लें.

''म्हजें गणित सांगतां. काल शास्त्रीऽ बांयक पाड्क पडलें न्ही? बांयचो झॅर आनी पाडका पांय चार. हांवें चाळीस सांगलो''. शिवानंद वासूक सांगतालो.

'झॅर' म्हळ्यार झिरो हें वासूक कळ्ळें. पूण बांयचो झॅर कित्याक? आनी पाडकाक चार पांय आसपाचेच. दोनूय मेळून चाळीस कशे जातले? आनी म्हणटा पसून 'सांगलो', 'सांगले' न्हय. बाबूचें कुवाडें कठीण जायत गेलें.

''चॅ, चॅ! तशें न्हू तें''. वासून शिवानंदाक दुसरी रीत सांगली. ''पाडूक पडले एक आनी फायर ब्रिगेडी मनीस येयले आठ''.

बाबूच्या मनांत परतय गोंदळ जालो. गणितांत म्हूण अशें आपल्याक जाय तशें करतात? कितें कित्या खातीर करता ताका कारण आसूंक नाका? हांचें गणित कसलें कोण जाणा. धावेक पावतकच बी आसतलें एकाद्रे.

''मातशें चुकलें म्हजें'', शिवानंद चुरचुरलो.

वासू, आनी वासू बरोबर बाबू आनी शिवानंद फोंड्यां पावले. फोंड्यां पावतकच आपलें गणित मातशें चुकलें म्हूण चुरचुरत शिवानंद आपले वाटेन गेलो आनी एक पाडूक आनी आठ मनीस मेळून अठरा कशे जातात हें येवजीत बाबू शाळेंत पावलो. बाबूच्या कानांत मात तींच उतरां घुमतालीं. 'आयज कितलो? अठरा', 'आयज कितलो? अठरा'.

ज्युस्त शाळेच्या दारांत बाबूक सर मेळ्ळो.

''सर, आयज कितलो? अठरा म्हणल्यार कितें?'' बाबून थंयचे थंयच सराक विचारून सोडलें.

''तुका अभ्यासांतलें कितेंय विचारीनशें दिसलें ना रे?'' सरान बाबूकच तापयलो.

'हो अभ्यास न्हय तर? गणित म्हणल्यार अभ्यास न्हय? शिवानंद आपलें गणित चुकलें कशें म्हणटालो तर? सर ओगी तापयता'. बाबूक राग आयलो. रागान धुसफुसत तो वर्गांत गेलो.

वर्गांत गणिताच्या होमवर्काची कॉपी करूंक रुपेश बाबूची वाट पळयत बशिल्लो. सदांच रुपेशाक गणित मात पसून समजना. बेरीज करतना हातचो कितलो घेवप हें सदांच सांगचें पडटालें. हातचो घेवपा वेळार तो बाबूक विचारतालो, 'बाबू, वयर कितलो बरोवं? सकयल खंयचो बरोवं?'

रुपेशाक गणित कळना हें सर लेगीत जाणा आशिल्लो. केन्नाय सर ताका गणित करूंक बोर्डार आपयतालो. रुपेश आंकडे मेजतालो आनी सराक विचारतालो, ''सर वयर खंयचो बरोवं? आनी सकयल?'' सगल्या वर्गा बरोबर मागीर सरय हांसताले.

रुपेशाक गणित कळ्ळें ना, अभ्यास कळ्ळो ना तरी बाबूक ताचो राग केन्ना आयलो ना. पूण आयज सरान ओगीच तापयिल्ल्यान बाबूक भिरकी मारिल्ली. ताणें आपलो राग

रुपेशाचेर काडलो. रुपेश घन:शामालो कोण तरी लागता हें तो जाणा आशिल्लो आनी घन:शामाक गणित बरें कळटा ही नविदाद ताका आजच कळिल्ली.

"रुपेश, तूं घन:शामाक कित्याक विचारना? ताका बरें कळटा खंय मरे गणित?"

रुपेशान तोंड येदेशें केलें तें पळोवन बाबूकय वायट दिसलें. ताणें मागीर सदां भशेन रुपेशाक गणितां करूंक मजत केली.

शाळेच्या वातावरणांत बाबू सकाळची गजाल विसरलो. घरा येतकच अभ्यास आनी खेळांत रमलो. पूण वासू मेळटा तेन्ना ताका याद जाताली, 'आयज कितलो? अठरा'. मजा म्हळ्यार लोक अजून मेरेन वासूक तोच प्रस्न विचारताले. वासूची जाप मात दिसानदीस बदलताली. सरान तापयिल्लो म्हण बाबू मात थंय लक्ष दिनासलो.

वर्स सोंपलें आनी बाबू बरोबर रुपेशय सवेक पावलो. सवेक पावतकच मात चमत्कार जालो. रुपेश हातचो कोणाक विचारनासतना बरोवंक लागलो.

एक दीस सरान बोर्डार गणित मांडलें. पळय जाल्यार रुपेशालो हात वयर.

"आब्बा! रुपेश, सुटयेंत गणित शिकलो काय कितें रे? कोणें शिकयलें?" सरान अजापान विचारलें. बाबूक दिसलें, घन:शामान दिसता. ताचें गणित फिट्ट म्हूण वासू आनी शिवानंद म्हणटाले तें तो विसरूंक नाशिल्लो.

"मामान सर!" रुपेशान उमेदीन जाप दिली.

"अशें? मागीर सांग पळोवया, हातचो कितलो घेवपाचो?" सरान विचारलें.

"वयर ओपन आनी सकयल क्लोज बरोवप सर", रुपेशान झेतान सांगलें आनी सराचें तोंड 'आं'च उरलें.

वर्गांतले थोडे भुरगे हांसले आनी बाबू भशेन थोडे कांय कळनासून सराक आनी रुपेशाक पळयत रावले.

उपरांत व्हड जातां जातां बाबूक कळ्ळें, वासू आनी शिवानंद करताले तें गणित न्हय. तो जुगार. ताका मटको म्हणटात. तातूंत कित्याचोच कित्या कडेन संबंद नासता.

थंय बुद्दीचो वापर जायना, शक्ती उपकारा पडना. युक्तीक वाव ना, तर्काक थारो ना. गिन्यानय लागना आनी धाडसय लागना. थंय तत्व ना. निश्ठा ना.

तातूंत कसलेंच आव्हान ना. देखून जैताचो आनंद ना.

मेळ्ळ्यार पयसो आपसोच मेळपाचो. आपसो मेळिल्लो पयसो आपसोच वता. ताची धुंद मात गिन्यान जोडूंक दिना. मागीर न्हय त्या गजालीं विशीं नसत्यो कल्पना करप जातात.

'नसत्या कल्पनांच्या फाटल्यान लागतकच मृगजळा फाटल्यान धांवन खरशेवपी,

जीव वगडावपी हरणा भशेन गत जाता'. अशें आजी म्हणटा.

रुपेशाक मात हें सांगल्यार समजना. धावी जावचे पयलींच शाळा सोडून खंय गेलो कोण जाणा.

बाबून बी.कॉम. करून सी.ए. केली.

एक दीस ऑफिसांतल्यान भायर सरून रस्त्यार येतनाच, ''ए बाबू, वळखलो ना?'' कोणें तरी ताका हटकिलो.

बाबून पळयलें, एक टी-शर्ट आनी जिन्स घाल्लो, झेनीक तेंकून उबो आशिल्लो तरनाटो मुखार येता. हाताच्या धाय बोटांनी भांगराच्यो मोठ्ठ्यो मुदयो, एका हाताक माश्कोत आनी दुसऱ्या हाताक घडयाळ चकचकतालें. दोळ्यांक काळें वक्ल. बाबू पयलीं वळखलोच ना. मागीर सट्ट जालें ताका.

''आरे! रुपेश! खूब तेंपान. कसो आसा? भायर बी वचून आयलो काय कितें रे?'' बाबून विचारलें

''च्यॅ! बॉम्बे आसलेलों'' रुपेशान जाप दिली. खूब तेंपान बाबू मेळ्ळो म्हूण ताकाय आनंद जाल्लो.

''थंय कितें बिझनेस करता काय कितें रे?'' बाबून आस्थेन चवकशी केली.

''हॅं! आमगे नकळो तूं? आदलेंच''.

''आदलें म्हळ्यार...''

''मटको!'' रुपेशान मातशें खंतीनशें म्हळें. ''आनी तूं कितें करता?'' ताणें बाबूक विचारलें.

''हांव सी.ए. जालां न्ही रे''.

''सी.ए. रे? सी.ए. करूंक 'लक' जाय. आमकां आमगे मटक्या गणित बरें जमता'' रूपेश प्रामाणीकपणान उलयलो.

सी.ए. करूंक 'लक' आनी मटक्याचें गणित!

सी.ए. करूंक 'लक' म्हणल्यार नशीब खंय लागता आनी मटक्यांत गणित खंय आसता हें समजूंक बाबूक तितलेंच कठीण आशिल्लें जितलें 'आयज कितलो? अठरा'.

❑

# देवतेचें मागणें



**बाय** पप्पा मम्माचें अपुरबायेचें. ताका जाय तें सगलें मम्मा पप्पा करतालीं. पूण तें हट्टी नाशिल्लें. पिरायेच्या मानान खूब समजीक, कोणाकय तोखणाय दिसपा सारकें. ताका कितेंय सांगल्यार रोखडेंच समजतालें. केन्नाच ताची रड नासताली.

मम्मा शाळेंत शिकयताली. मम्मा शाळेंत वताली तैन्ना बायक कल्याणबाय सांबाळटालें. कल्याणबाय तांचें सगलें सांगिल्लें आयकतालें. बायक कल्याणबायची ओड. तें कल्याणबायक आपले बालवाडींतल्यो खबरी सांगतालें, पदां म्हणून दाखयतालें. कल्याणबायक धालांचीं फुगडेचीं पदां म्हणूंक लावन आपूण शिकतालें आनी कल्याणबाय बरोबर म्हणटालें. कल्याणबाय लेगीत म्हणटालें,

"आमचें बाय शाऽऽणें. म्हाका कांयच तरास करिना".

मम्मा शाळेंतल्यान येतकच मात तें मम्माचें.

तेदूस सांजेचें बायचें खेळून जाल्लें. ताका भूकय लागिल्ली. पूण पप्पा आजून येवंक नाशिल्लो म्हणून ताका जेवन दिसनाशिल्लें. तें सदांच पप्पा बरोबर जेवतालें. गेटीचो आवाज जालो, पप्पा आयलो. पप्पान स्कूटर भितर काडीसर तें आनी मम्मा वारांदार पावलीं.

"मेळ्ळो तो?" पप्पा घरांत येतकच मम्मान विचारलें.

"हय. बायक मागणी आसा म्हणटा देवतेची. प्रसाद घेवन पळय म्हळां", पप्पान सांगलें.

"खंय?"

"पयलीं फातर्प्यां वचून पळय म्हणटालो. फातर्पेंकान्नीन मागलां जाल्यार".

"रोखडींच गेल्यार बरीं न्हय?" मम्मान म्हळें.

‘‘हांवय तेंच चिंततालों’’.

पप्पा आनी मम्मा उलयतात तें बाय मदीं घुस्पतना आयकतालें.

‘‘या मगो बाय फातर्प्याँ?’’ पप्पान ताच्या अस्तित्वाची दखल घेतली आनी सगलीं जेवंक गेलीं.

‘‘कल्याणबाय, देवतेची मागणी म्हळ्यार कितें?’’ दुसरे दीस कल्याणबाय आयदनां घासतना बायन विचारलें.

‘‘मागणें म्हळ्या बाय, देयी तशी मागता’’. कल्याणबायन सांगलें.

‘‘कशी?’’

‘‘न्हिदले कडेन सपनां येता आनी सांगता. म्हाजें न्हू बाय, एक कापड हायें उमळोन सुकों घातलेंलें. कोणें तेका बिलेड लायली. राती कडेन न्हू बाय, एक बायलमनीस म्हाज्या सपनांत येयली आनी तें कापड मागों लागली. हायें भटा इचाल्लें. तो म्हणों लागलो देयीन मागलां. हायें व्हरोन दिलें तें देयीक’’.

‘‘बाय, देवतेन मागल्या न्हूं बाय, तें दिवों जायें. देयी मागीर चड चड दिता. हायें कापड दितकच म्हाका चार कापडां येयलीं’’.

बाय खेळ सोडून उठलें. तें वारांदार बसून मम्माची वाट पळोवंक लागलें. ताच्या खाक्यांतली बावली सकयल पडली तिका बायन उबारलीच ना. ती आयज रडनाशिल्ली. पडून तिका दुखलेंय ना. ती आयज शाणी-गुणीय नाशिल्ली. तिका भूक लागना जाल्ली, ताता येना जाल्ली. बायक तिका न्हाणयन दिसलें ना, तिचे केंसय उळयन दिसलें नात. ती पिसुडिल्ल्या केंसांनी पडिल्ली थंयच उरली. फकत एक कपड्याची गुठली जावन.

कल्याणबायन सान्न मारतना कांशींत भरून दवरिल्लीं आयदनां कांशींतच उरलीं.

‘‘बाय, पेज जेयता मगो?’’ कल्याणबायन विचारलें.

‘‘म्हाका मम्मा जाय’’.

‘‘मम्मा येवूं येळ आसा बाय’’. कल्याणबायन बायक समजायलें.

‘‘म्हाका मम्मा जाय’’, बायक दुसरें कांयच येवजनाशिल्लें.

देडाक मम्मा आयली आनी बायन धांवत वचून मम्माक वेंग मारली.

‘‘कितें जालें बाय?’’

मम्मा नासतना, खेळटना पडलें म्हूण बाय रडनाशिल्लें. पूण मम्मा येतकच ताका दुखिल्ल्याची याद जाताली आनी रडूंक येतालें. आयज तें रडलेंय ना. मम्मान उबारून घेतकच तें मम्माच्या खांदार तकली चेपून रावलें.

‘‘बाय कितें जालें? कल्याणबायन कितें म्हळें?’’

बायक इल्लेंशें कितेंय म्हणचे पयलींच 'शिट्ट' जाता हें मम्मा जाणा आशिल्ली. अपुरबाय केली तरी तें सकयल देंवक तयार नाशिल्लें. ताका फुसलावन, सकयल दवरून मम्मा हातपांय धुवंक मान्न्यांत गेली जाल्यार तें मान्न्याच्या दारांत उबें रावलें. मम्मा भायर येतकच ताणें परती मम्माक वेंग मारली.

''कितें जालां गो? आयज कितें जालां तुजें?'' मम्मा परत परत विचारताली.

''मम्मा, फाल्यां आमी खंय वतलीं?'' बऱ्याऽऽ वेळान बायन मम्माक विचारलें.

''फातर्प्यां या मगो?'' मम्मान विचारलें.

बाय ओग्गी रावलें. फातर्प्या म्हळ्यार खूब पयस. पयरच त्या एका काकाबरोबर तीं थंय जात्रेक गेल्लीं. खूब वेळ लागता थंय पावंक. मम्मा पप्पा बी केन्ना चडशीं वचनात. बाय मनांत चिंततालें. ताका मम्मा-पप्पा बगर आनीक कांयच नाका आशिल्लें.

सगलो सांजवेळ तें मम्मा पप्पाक दसूनच रावलें. पप्पा घरा येतकच पप्पाकय म्हऱ्यांत बसोवन दवरलें ताणें.

बायक आयज कितें जालां कोणाकच समजलें ना.

मम्मान म्हळें लेगीत, ''आयज बायक कितें जालां समजना. वाघरें पडिल्ले भशेन करता''.

दुसरे दीस सकाळीं मम्मा आनी पप्पा बायक घेवन फातर्प्यां गेलीं. देवळांत भटमाम खंय तरी फुलांच्यो पाकळ्या लायतालो आनी सगलो लोक ओग्गी बसून पळयतालो. मम्मान सांगलें, ''भटमाम प्रसाद लायता''.

बाय रडकुऱ्या तोंडान पळयत आशिल्लें. कितें चल्लां नकळ जावन.

निमाणें भटमामान सांगलें, ''तुमच्या बायक आपणें मागृंक ना अशें देवता म्हणटा''.

बायक मातशें सूऽऽ जालें.

पूण दुसरे दीस कवळ्यां वचपाचें आशिल्लें. त्या मानान कवळ्यां बरें. लागीं तरी आसा आनी मम्मा-पप्पाय बी मदीं मदीं वतात.

बायक सकाळीं फुडें उठनच दिसलें ना. मम्मान उठयतकच ताका भायर येतनाच दारांत न्हिदिल्ल्या बुकल्याचो रागसो आयलो.

''सद्दां पातळटा हो हांगा'' बायन रागान म्हळें.

मम्मान बायक नवो पोपो घालो आनी बायचें आंग कुचकुचृंक लागलें. मम्मा ताचे कडेन उलयता तें ताका आयकूंकच येना जालें.

कवळ्यां देवळा कडेन पावतकच बायन म्हळें,

"आवयस! कितलीं सोंपणां. म्हजे पांय दुखतात".

पप्पान ताका उबारून घेतलें. तीं देवळांत पावलीं.

पप्पान प्रसाद लायलो तेन्ना बाय सगलें देवूळ बशिल्ले कडच्यान पळयतालें.

देवता न्हाता, जेवता आसा थंयच. न्हिदता खंय काय? खेळपाचें तर बायक येवजलेंच ना. पूण देवता उलयतली कशी ताचे कडेन? फकत सपनांत येवन?

बायक हुमाळ्यार हुमाळे येवंक लागले.

तें मम्माकच चिकटून बसलें.

इतले म्हणसर भटान म्हळें, "प्रसाद जालो. देवतेन मागलां ताका". बायक भितरल्यान रडूंक येवंक लागलें. पूण तें रडलें ना. मम्माच्या हाताक घट्ट धरून रावलें.

'देवता मागीर चड चड दिता' कल्याणबायन सांगिल्लें.

भटमाम सांगता तशें मम्मान-पप्पान ताटांत तांदूळ नाल्ल दवरले. आनी कितें कितें घालें. भटमाम सांगून घेतालो. मम्मा-पप्पा भटमाम सांगता तशें करतालीं. निमाणें पप्पान ताच्या माथ्या वयल्यान उदक उंवाळ्ळें आनी सकयल सोडलें. देवाक पांयां पडलीं, तीर्थप्रसाद घेतलो.

"या मगो बाय घरा?" मम्मान बायक विचारलें.

"हांवेंय येवपाचें?" बायचें अजाप आनी आनंद एकाच बराबर भस्स करून उसळ्ळो.

"आनी? तूं खंय रावतलें?" मम्मा हांसली.

बायक आतां आनंदान नाचन दिसतालें. कल्याणबायन सांगिल्लें, देवता मागता तें देवतेक दिवंक जाय म्हूण. कल्याणबायन आपलें कापड व्हरून देवतेक दिल्लें. परतें व्हरूंक नाशिल्लें.

पूण पप्पा आनीक मम्मा ताका परत घरा व्हरताली. तें मम्मा-पप्पा म्हन्यांतच रावतलें.

बायच्या मना वयलें वजें देंवलें. ताका खुब्ब आनंद जालो.

"हांव तुमकां सोडून खंयच वच्चें ना". ताणें मम्माक वेंग मारून म्हळें.

परतें येतना उडक्यो मारीत सोंपणां देंवंक ताका मज्जा आयली.

❑

# शिकिल्ली अडाणी



**रातच्या** धांक दारावेली बेल वाजली आनी अदितीन दाराचे खांचींतल्यान पळयलें. भायर महादेवी आशिल्लें. अदितीन दाराची सरपळी काडून दार उकतें केलें.

"महादेवी, तूं हांगा?"

महादेवी अदितीक जाप दिवचे पयलींच दारांतल्यान भितर घुसलें.

"साहेब, बघा मला कसं मारले त्यानं" महादेवी आपले हाता वयले वळ पात्रांवांक म्हळ्यार अदितीच्या घोवाक दाखयतालें.

महादेवीच्या धाडसाचें अदितीक अजापच दिसलें. दोन दिसां पयलीं हाचो घोव हाका आपली नवी लग्नाची व्हंकल म्हण दाखोवंक घेवन येता कितें आनी महादेवी आपल्याचेर जातले अत्याचार दाखोवंक देड दोन किलोमिटर धांवन पात्रांवां म्हऱ्यांत येता कितें. सगळेंच अजापाचें.

ह्या भालचंद्राक लग्नच पूण कित्याक जावंक जाय आशिल्लें? हो आशिल्लो पंचेचाळीस वर्सांचो आनी महादेवी बावीस वर्सांचें. भालचंद्राची पयली बायल खंय ताका सोडून दुसऱ्या बरोबर गेल्ली, हो सोरो पियेता म्हण.

'माझा मुलगा इंग्रजी शाळेत शिकतो' म्हण नेट मारपी भालचंद्राचो पूतय आवयचे बरोबरच आशिल्लो.

महादेवी भालचंद्राची दुसरी बायल. लग्न जाल्यार म्हयनो लेगीत जावंक नासलो.

महादेवी फाटल्यान धांवत आयिल्ल्या भालचंद्राक पात्रांवान तापयलो.

"असो बायलेचेर हात उबारता तूं? मारून उडोवंक लग्न जाला तिचे कडेन?"

"साहेब पण..." भालचंद्र आपली बाजू मांगपाचो यत्न करूंक लागलो.

"आरे, पूण मारता कसो तूं? कितेंय आसलें तरी तुवें मारलां हें खरें मरे? तेंच

चूक.मारिनासतना कितेंय सांग''. पात्रांवान म्हळ्यार अदितीच्या घोवान भालचंद्राक उलोवंक दिलें ना. भालचंद्र तोंड धांपून रावलो.

''तुमचे मदीं कितें आसा तें उलोवन, ताका समजावन सोडय. पूण हाचे उपरांत ताचेर हात उबारचो ना''. अदितीच्या घोवान सांगलें.

''होय साहेब'', भालचंद्रान मान्य केलें.

''मागीर बरोवन दी''. अदितीच्या घोवान म्हळें.

''देतो साहेब'', भालचंद्र पात्रांवा मुखार बिलू आशिल्लो.

पात्रांवान बरयलें आनी भालचंद्रान सय केली.

भालचंद्र आनी महादेवी गेलीं.

अदितीक भालचंद्राचो रागच येतालो. कामा परस बढायो चड. पात्रांवा मुखार फुडें फुडें करप आनी फाटल्यान कामाक आंग मारप.

'हो आनी ताका कसो सहन करता कोण जाणा', अदितीन मनांत म्हळें.

दुसरे दीस सकाळचें महादेवी परत अदितीगेर हजर जालें.

''वहिनी, काही काम असेल तर सांगा'', तें अदितीक सांगूंक लागलें.

अदिती आनी ताका कसलें काम सांगतलें? कामवालेक तर काडून उपकरान. मागीर महादेवीक आनी कसलें काम दितलें?

तरीकय महादेवीचे काकुळटेक अदितीन महादेवीक आपल्यागेर येवंक दिलें. नाय जाल्यार घोव आनी भुरगीं भायर सरतकच तें एकटेंच आसतालें घरांत. बेकार बसूं नये म्हूण अदितीन महादेवीक शिवण शिकोवंक सुरवात केली. महादेवीक एक अक्षर वाचूंक येनाशिल्लें, एक बरोवंक. पूण शिवण शिकूंक कितें हरकत आशिल्ली? महादेवीक तेंय जमनाशिल्लें.

''महादेवी, रांदलें गो घरांत?''

''कधीच वयनी. पहाटे चार वाजतां उठते मी'', महादेवी सांगतालें, आपूण चारांक उठ्ठां, न्हातां, आपलें आनी आपल्या घोवाचे कपडे उमळटां, घर झाडून निवळ करतां. दारा मुखार रांगोळी घालतां. आनी रांदून दवरून येतां. महादेवी आपलीच्च तोखणाय सांगतालें.

महाराष्ट्रांतल्या गांवगिऱ्या वाठारांतलें महादेवी, ताका घर आनी शेत हाचे बगर कांय खबरच नाशिल्लें. गांवांत बापायचें शेत सगलें आपूणच पळयतां म्हूण सांगतालें तें. पूण शेतांतल्या उत्पन्नाक दर मेळनाशिल्ली. आनी शाळेंत वचप शिकप असल्यो गजाली आजून मेरेन तांचे खातीर कल्पने भायल्यो आशिल्ल्यो. महादेवी लग्नाचें जालें. लग्न

करून दिवंक बापाय कडेन पयसो नाशिल्लो. हो भालचंद्र बरो जोडकार मेळ्ळो. गोंयांत आसा म्हळ्यार जणू सर्गांत आसा. मागीर महादेवीच्या बापायन ताचें वय आनी वेसन कांय न्हीशें थारायलें. पंदरा दिसां भितर लग्न करून महादेवीक गोंयांत धाडलें.

महादेवीक मात अजून शेताचीच ओड आशिल्ली. शेतांत घोळप, कश्ट करून पीक काडप हातूंतच ताचें मन रमतालें. गोंयांत आयलें घोवा बरोबर आनी रानांत पडिल्ले भशेन जालें ताका.

महादेवी सांगतालें आनी अदिती आयकतालें. पळोवंक गेल्यार चुरचुरेच ताचे. घोव मेळ्ळो तोय असो, जाण्टो तो जाण्टो ते भायर बेबदो, बढायखोर, नालायक! पूण भालचंद्र उरफाटेंच सांगतालो. तो म्हणटालो हांगा येतकच महादेवी दुसऱ्याच्या नादाक लागलां. आपल्या फाटल्यान ताचे बराबर सिनेमाक वता, गार्डनांत वता... कितें खरें कितें फट. भावनीक आदार सोदता जायत हें. हो बेठोच पांखाचो कावळो करता. अदितीच्या मनांत आयलें.

पूण भालचंद्रान परत गांवाक वचपाचो निर्णय घेतलो.

महादेवी सांगूंक लागलें, ''आमी दोन दिसांनी गांवाक वतात''.

महादेवी गेलें आनी अदितीक बरेंच दिसलें. निदान आपल्या मनशांनी पावलें. चार दीस तरी बरे वतले.

ताका पावोवन भालचंद्र आयलो आनी सांगूंक लागलो, ''न्हाई आननार परत तिला. नकोय ती मला''.

जालें! लग्न आनी कित्याक जाल्लो?

तें आपल्या मनशांनी पावलें, प्रस्न सोंपलो.

पूण ना प्रस्न सोंपूंक नाशिल्लो.

आठ दिसांनी महादेवी अदितीगेर हजर.

तिळसांजेचें अदिती एकटेंच आशिल्लें. घोव येवपाचो आशिल्लो आनी भुरगीं टुरार गेल्लीं. दारांत महादेवीक पळोवन अदितीक अजाप जालें. बरोबर एक दादलो मनीस आशिल्लो. महादेवीन सांगलें, आपलो बापूय म्हूण.

हें गांवांत रावपी चली एक अक्षर वाचूंक बरोवंक नकळ आशिल्लें, बस स्टॅण्डा वेल्यान अदितीगेर पाविल्लें. दोन-तीन किलोमिटर चलून. हाचे पयलीं तें एकच फावट हे वाटेन आयिल्लें तेंय बी भालचंद्रा बरोबर. लग्न जावन आयिल्लें तेन्ना. बरेंच हुशार आसा हें! अदितीन मनांत म्हळें.

''कितें गो? कितें जालें?'' अदितीन महादेवीक विचारलें.

आनी महादेवीन सांगलें, तें बापायक घेवन भालचंद्रा कडेन झगडून लग्न मोडूंव आयिल्लें. सोडचीठ दिवंक. ते खातीर तांची रीत वेगळी आशिल्ली.

''पूण हांगा कित्याक आमगेर? तूं घरा चल मगो तुज्या''. अदितीक राग येवंक लागिल्लो. ''तूं आदारा खातीर भालचंद्राच्या पात्रांवा म्हऱ्यांत आयलें, बरें आसा. पूण पात्रांव तुजो कोण न्हय. तूं पात्रांवाचें कोण न्हय. भालचंद्र ताचो कामगार म्हूण भालचंद्र कडेन आमचें नातें. तूं आतां हांगा रावनाका. आनी पात्रांवाक तुमच्या झगड्यांत मर्द ओडनाका', अदितीन सरळ सांगून सोडलें.

''वैनी, आतां रात्रीचं कुथं जानार? पात्रांव येईतों थांबतों''. महादेवी आपलेंच खरें करून बसलें. अदितीन दार धांपलें तरी दोगांय भायर इस्कादीचेर बसून रावलीं.

महादेवी आयलां म्हूण भालचंद्राक कळ्ळें आनी तो गाळी घालीत आयलो. अदितीच्या दारांत पावतनाच महादेवीचो बापूय ताच्या आंगार गेलो. दोगांयचीय झगडी अदितीच्या दारांत. अदितीन दार उकतें करून दोगांकय तापयलें. पुलिसांक आपयतां म्हळें आनी भालचंद्र फडफडत गेलो. पूण महादेवी हाल्लें ना. बापायक घेवन थंयच बसून रावलें. आतां हाचें कितें करपाचें हाची अदितीक चिंता.

तेदूस पात्रांवाक येवंक वेळ जालो. णवांक तो पावलो तेन्ना महादेवी बापायक घेवन थंयच सोंपणार बसून आशिल्लें.

पात्रांव येतकच पात्रांवा कडेन काकुळटेक येवंक लागलें. महादेवी जाणा आशिल्लें, पात्रांवाची एक कूड आसा लागींच. सगले कामगार थंयच रावताले, भालचंद्र धरून. भालचंद्र लग्न जालो तेन्ना ताका दिशिल्लें ती कूड आपल्याक दिवची आनी पात्रांवान बाकीच्यांक दुसरे कडेन धाडचें. पूण पात्रांवान आयकलें ना आनी भालचंद्रच कुशीन गेलो. आतां ते कामगार सुटयेर गेल्ले आनी कूड बंदच आशिल्ली.

महादेवी कुडीची चावी मागूंक लागलें आनी आपल्याक वेव्हारतज्ञ समजुपी बुदवंत पात्रांवान चावी काडून महादेवीक दिली फाल्यां सकाळीं दी म्हणून. आनी महादेवी, ''उद्या सकाळी आनून देईन'' म्हणून बापायक घेवन गेलें. अदितीक पटलें ना. महादेवीची रावपाची वेवस्था करपाचें पात्रांवाक कित्याक लागतालें? तें हाका विचारून आयिल्लें? सांगून आयिल्लें? एकदां सहानुभूती दाखयली म्हूण असो फायदो तें कशें घेवंक शकता?

पूण महादेवीक आयल्या पेल्या विचारां कडेन कांय कर्तव्य नाशिल्लें. पात्रांवान मजत केली, अदितीन सहानुभूती दाखयली म्हणटकच ताचो हक्क जालो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं येतां म्हूण गेल्लें महादेवी पात्रांव भायर सरपाचो जालो तरी

आयलें ना. ''तूं पळय वचून'' पात्रांवान अदितीच्या गळ्यांत घाली जापसालदारकी.

अदितीक तकलेक ताण. तें महादेवी आयल्यार पुरो बेगीन म्हण देवा कडेन मागूंक लागलें. दनपार जाली, सांज जाली, आतां वचून पळयले बगर गत्यंतर नाशिल्लें. घोव येतकच म्हणटलो आशिल्लो, 'तुका वचून पळय म्हणिल्लें. गेलें ना तूं?'

अदिती भायर सरलें. तरी कूड लागींच आशिल्ली म्हण बरी.

हें गेलें ना मूं चावी घेवन? अदितीच्या मनांत दुबाव आयलो. तशें जाल्यार खंय सोदप हाका? दाराचें सॅल्फ लॉक तें. कुलूप जाल्यार पूण फोडूंक येतालें. सॅल्फ लॉक मोडप म्हणल्यार आनीक कटकटी. नसत्यो भानगडी.

अदिती रुमार पावलें, दाराची बेल मारली. महादेवीन दार उकतें केलें.

एकेवटेन अदितीक सूऽ जालें.

''या वैनी'', महादेवीन आपूण घरकान्न जाल्ले भशेन अदितीचें स्वागत केलें.

''आगो, तूं सक्काळीं येता म्हणटालें न्ही?'' अदितीन विचारलें.

''वैनी, बगा... '' म्हादेवीन खंयचे कडेन कांयच जावंक नाशिल्ले भशेन सांगलें की ताचो बापूय भालचंद्राक मेळूंक वचपाचो आसा आनी मागीर चार जाणांक आपोवन सोडचीठ जातली. जणू काय जितले दीस लागतात तितले दीस हांगा रावपाचो ताचो हक्क. महादेवीक आपूण सांगिल्ल्या प्रमाण सकाळचें आयलें ना म्हणपाचें लेगीत भान नाशिल्लें.

अदितीक कितें उलोवचें तेंच समजलें ना.

''महादेवी, तुजे खातीर आमी ही कूड दिवंक शकनात. हांगा आमचे कामगार रावतात आनी ते केन्नाय पावंक शकतात'' अदितीन महादेवीक समजावपाचो यत्न केलो.

आपले सोडचिटये खातीर पात्रांवा कडल्यान आपली रावपाची वेवस्था जावची अशें महादेवी कशी अपेक्षा करूंक शकता हें अदितीक समजनाशिल्लें.

''वैनी आसूं द्या ना. माणुमकी म्हणून...'' महादेवी आतां अदितीक मनीसपणाचे धडे शिकोवंक लागिल्लें.

बोट दाखयल्यार हात गिळटा.

शिकिल्लें आसून अदिती अडाणी थारलें. न्याय आनी अन्यायायाच्या कोंश्टकांत स्वास घेत रावलें.

❑



# अनपेक्षीत

**जाती,** कोणें केल्यात ह्यो जाती? देवान, सैमान काय मनशान?

मनशानच केल्यात न्हय? मागीर कित्याक केल्यात?

मनशामनशां मदीं भेद करपा खातीर?

कित्याक असो हो भेद मनशामनशां मदीं?

आनी ही ओड कित्याक हो भेद आसतना?

ओड... ही जीव घेवपी ओड. विसरूंक जायना अशी, आवरूंक जायना अशी. अभिमन्यूची ही ओड शिवानीक आवयबापायचें नातें लेगीत विसरूंक लायताली. खंयय वचन, कशेंय रावन अभिमन्यू बरोबर. पण अभिमन्यू बगर रावंक जावचें ना. तो विचारच सहन जायना.

अभिमन्यू! अभिमन्यू! अभिमन्यू!

शिवानीचें काळीज फकत अभिमन्यू खातीर धडधडटालें.

पूण मदीं ही जात आडखळटाली.

दुसरी जात. 'भायली' जात. जायत काय अभिमन्यूच्या घरच्यांक?

शिवानीच्या काळजांत 'धुकधुक' जातालें.

अभिमन्यू म्हणटालो, "तूं म्हाका आवडटा, हांव तुका आवडटां. पुरो".

"पूण तुजीं घरचीं रे?" शिवानीन भियेत भियेत विचारिल्लें.

"घरचीं? तीं कांय म्हणचीं नात" अभिमन्यून विशय सोंपयलो. तो दादलो. आनी हुशार आसलो तरी सादो. ताका कळचो ना आपल्या मनांतलो भंय. सांगल्यारय पटचें ना. एकादे कळूनय दाखयना आसतलो आपल्याक वायट दिसतलें म्हूण. बेठेंच भयणीच्या लग्नाचें निमित्त सांगता. "ताचें पयलीं जावंदी म्हूण रावलां गो". म्हणून

आपल्याक समजायता. विचार करून शिवानीची तकली भणभणली.

आवयक सांगल्यार आवय म्हणूंक लागली, "तोच कित्याक जाय तर तुका? आमचे जातींत ना भुरगे?"

आवयक नाकाच तो वेगळो म्हूण.

पूण अभिमन्यून आपल्या घरच्यांक मान्य आसा म्हूण सांगलें आनी शिवानीचो एक हुस्को मेकळो जालो.

तरीपूण तीं आपले कडेन कशीं वागतलीं हो प्रस्न आशिल्लोच.

पयले फावट अभिमन्यू बरोबर ताच्या घरा गेलें तेन्ना तें अभिमन्यूचे आवयच्या म्हणल्यार मांयच्या तोंडाकच पळयतालें. ती हांसली तशी तोंडाक पळोवन पूण एकच फावट. मागीर तोंडाक पळयच ना जाली. ईशाय, अभिमन्यूची भयणय तशेंच. हांसतालें, उलयतालें, पूण शिवानीक ताचे नदरेंत हांसो दिसलो ना. शिवानीक अस्वस्थ जालें.

लग्न जालें, व्हंकलपावणी व्हेली, सगल्यो रिती रिवाज उमेदीन जाले पूण शिवानी अस्वस्थच उरलें.

एकच विचार, अभिमन्यूच्या घरच्यांनी ताका मना पसून आपणावंक ना. वयलेचाराक तीं अडेचो हांसो हाडटात. ताणें अभिमन्यूक विचारलें, "तांकां आवडूं ना रे हांव?"

"कित्याक म्हणटा?" अभिमन्यून अजापान विचारलें.

"म्हाका मां आनी ईशा लग्नांत खुशाल दिसलीं नात. तांच्या तोंडार अडेचो भाव आशिल्ले भशेन दिसलो.

"हँ! तुका बेठेंच दिसलें. ईशा आनी अडेचो भाव हाडपी? आवडलें ना जाल्यार आवडलें ना म्हणून सांगून मेकळें जावपी तें, दुसऱ्याक कितें दिसतलें हाची पर्वा करिनासतना" अभिमन्यू खरें तें उलयलो.

शिवानी ओगीच रावलें.

हनिमुनाक सावन येतकच शिवानीन रांदचे कुडींत पांय दवरलो. पूण मांय कितें करूंकच दिनाशिल्ली. कितें करूं म्हूण विचारचे पयलींच तिचें करून तयार आसतालें.

आपूण दुसरे जातीचें, आपणें केल्यार सारकें जावचें ना, तांचे भशेन जावचें ना म्हूण भियेता दिसता ती. शिवानीक दिसलें.

तशें कुळारा तें रांदंक चड वचच नाशिल्लें. पूण हांगा ताचो संवसार न्हय? ताचो संवसार ताणें करूंक नाका? काय कितें सुचोवंक सेदता ती? आपलो संवसार न्हय म्हूण?

शिवानीच्या मनांत आरते परते विचार धुमशेणां घालताले.

तकली भणभणटाली. मागीर कामांत लक्षच लागनाशिल्लें.

सुटी सोंपली आनी शिवानी शाळेंत रुजू जालें. सकाळची आठ ते एक शाळा. घरा पावता म्हणसर देड पावणेदोन जातालीं. रांदूक वचपाचो प्रस्नच येनाशिल्लो. मेज पूस, आयदनां जाग्यार घाल, इतलेंच काम घरांत. अभिमन्यू फकत दनपारचो जेवंक येतालो आनी रोखडोच वतालो. सगलो सांजवेळ तें एकटें.

सांजेचें ईशा आसतालें. पूण पळयता तेन्ना मां आनी ईशा 'गुजूगुजू' करतालीं. शिवानी शिटकावतालें. ही आपल्योच खबरी करतात, आपल्योच बकच्छायो करतात, दुसरे जातीचें म्हूण.

मां आनी पापाय अशींच फुतूफुतू करून उलयतालीं. आनी चड म्हणल्यार अभिमन्यू येतकच पापाय ताचे कडेन 'फुतूफुतू' करून उलयतालो. ताच्योच खबरी आसतल्यो. तें दुसरे जातीचें जाल्ल्यान कितें जाता तेंच सांगतात आसतलीं तीं एकामेकांक.

शिवानीक शाळेंतय हेंच येवजून येवंक लागलें. ताचें शिकोवपांतय लक्ष लागना जालें. ते दीस तें आवयच्या म्हऱ्यांत गेल्लें. येवन पळय जाल्यार मुख्याध्यापिका बसल्या घरांत. शिवानीक खप्प जालें. मां च्या बापोल भयणीची काय कोणाची सून खंय ती. पूण ती नात्यान येवंक ना हें शिवानीक पळयतनाच कळ्ळें. आपल्योच खबरी सांगूंक आयल्या ती. आतां उज्यांत तेल पडले बगर रावचें ना.

शिवानीचे हातपांय गळसणले.

मुख्याध्यापिका हांसली ताका पळोवन, तरी तें हांसलें ना.

तिणें हटकिलें तरी हाका सारकी जाप दिवंक आयली ना.

तें आपले कुडींत आयलें तेन्ना ताका रडूंक येवंक लागलें.

अभिमन्यू आयलो तेन्ना शिवानी घुस्मटून रडटालें.

"कितें जालें गो?" अभिमन्यून भियेवन विचारलें.

शिवानीन मानेनच 'कांय ना' म्हळें.

अभिमन्यून ताका खूब समजायलें. कितें जालें तें समजून घेवपाचो यत्न केलो. पूण शिवानी रडतच रावलें. ओघ वचसर रडलें. आनी ओघ वतकच ताणें अभिमन्यूक म्हळें, "म्हजी जातच आडखळटा तांकां".

अभिमन्यूक कितें जालें तें सारकें कळ्ळेंच ना. पूण घरांत वातावरण इल्लें इल्लें इबाडूंक लागलें.

आवयन जावं भयणीन कितेंय म्हळें शिवाय शिवानी अशें रडचें ना हें अभिमन्यू

जाणा आशिल्लो. पूण शिवानी तर स्पश्ट कांयच सांगिनासलें.

शिवानीक मात तकलेंत गोंदळ जायत आशिल्लो. काना कडेन आवाजच आवाज आयकूंक येताले. कोण तरी अभिमन्यूक आपले पसून पयस व्हरता अशें दिसूंक लागिल्लें. आनी....

तेदूस रातचो दोळो लागता थंय आसा, ताका 'शिवानी, शिवानी, उठ' करून कोण तरी सांगता तें स्पश्ट आयकूंक आयलें. तें कच्च करून उठलें. उठून पळय जाल्यार कोण ना. अभिमन्यू गाड न्हिदिल्लो.

शिवानीच्या काळजांत धडधड जावंक लागलें. कान दिवन आयकुपाचो यत्न केलो आनी तशेंच बसून रावलें.

परत तोच आवाज, 'शिवानी, उठ. अभिमन्यूक वगडावन बसतलें तूं. उठ भायर यो'. शिवानी तशेंच उठलें. दार उकतें करून भायर आयलें. काना कडेन आवज येत आशिल्लो, 'यो शिवानी, यो. भायर यो''.

शिवानी मागीलदार उकतें करून भायर पावलें. भायर बांय आशिल्ली.

शिवानीक त्या आवाजान बांयचे धडेर चडपाचो इशरो दिलो. शिवानी धडेर चडलें.

'शिवानी, मार उडी, उडी मार'.

शिवानीन उडी मारली.

शिवानीचे मांयचो दोळो लागनाशिल्लो. अशें कितें वागता हें चली? कोणा कडेन धड उलोवप ना, हांसप ना, कांय ना कांय ना. कामाक एक हात बोट लायना जाल्यार लावं नाका आशिल्लें. पूण अभिमन्यूक कितें सांगता? तो कित्याक खुबळटा ह्या दिसांनी?

वेगळें बी रावंक सोदता काय?

एकलो पूत. वेगळो रावतलो ह्या विचारानच तिका खिन्न जालें.

'देवते, तुजेर गे भार' तिणें न्हिदिल्ले कडेन देवतेक सांगून घेतलें.

इतले म्हणसर अभिमन्यूचे कुडीचें दार उकतें केल्लें आयकूंक आयलें. मागीलदार काडिल्ल्याचो आवाज आयलो. आनी ती सादूर जाली.

येदे रातचें मागीलदारांतल्यान कोण गेला?

ती उठून भायर आयली. मागीलदार उकतेंच आशिल्लें. तिणें दारांतल्यान भायर पळयलें आनी बांयचे धडे वेल्यान कोणें तरी बांयंत उडी मारिल्ली दिसली.

"अभीऽऽऽ..."

मांच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्ली किळांच लागींच्या घरांनी पावली. फट फट करून दिवे पेटले. दारां उकतीं जालीं.

भितरल्यान अभिमन्यू आनी पापाय आयलो.

कोणें तरी बांयंत उडी मारली आनी शिवानीक भायर काडलें.

शिवानीक हॉस्पिटलांत व्हेलें.

तशें रोखडेंच भायर काडलें, रोखड्या रोखडे उपाय जाले म्हूण शिवानी वाटावलें.

मांन देवतेक मनांतल्या मनांत नमस्कार केलो. 'तुवेंच गे बाये राखलें', तिणें मनांत म्हळें. पूण हें नस्तें कितें घडटा तें समजना जालें तिका. शिवानीक जीव कित्याक दिवंक जाय आशिल्लो?

मांचे मन सामकें विरूस जाल्लें. हातपांय काडून घेतिल्ले भशेन दिसतालें.

भरिल्ल्या घरांत खंयच कांय खटखूट नासतना हे चलयेन जीव दिवपाचो यत्न करप?

बरें म्हूण बरें. मांन परत एकदां देवतेक मना पसून नमस्कार केलो.

"आतां कितें तें स्पश्टच विचारचें पडलें. वेगळें जाल्यार वेगळें रावंदी. पूण नस्ते विचार नाकात", तिणें मनांत म्हळें.

दार उकतें करून अभिमन्यू भितर सरलो. धप्प करून सोफार बसलो.

"कितें रे? कशें आसा तें? केन्ना हाडटलो घरा?" मांन एकेच फावटीन सगले प्रस्न विचारले.

"मां, शिवनी बरें आसा तशें. उदकांत पडिल्लें काय जावंक ना ताका. रोखडेंच काडिल्ल्यान चड उदक वचूंक पावलें ना पोटांत. पूण... मां, दोतोर म्हणटा, ताची मानसीक भलायकी सारखी ना. तें स्किझोफ्रेनियाचीं लक्षणां दाखयता. ताका मानसोपचार तज्ञाची गरज आसा.

❑



# त्सुनामी

**आंब्या** मुळांत न्हिदिल्ल्या सुण्यान एकदम मान वयर काडली. ताका जमनींतल्यान एके तरेचीं कंपनां येतातशें जाणवलें. सादूर जावन ताणें कंपनांचेर लक्ष केंद्रीत केलें.

पेल्यान झाडामुळांत एक गाय चरताली. चरताली कसली? कागदां चाबडायताली बाबडी. मनशांनी खावंक दवरलां तरी कितें? वता थंय कागदां आनी प्लास्टिक. पियेतली जाल्यार उदकाचो थेंब ना. सगलें उदक पायपांतल्यान व्हांवयतात.

मनांत विचार चालू आसतना सुण्याक परत तींच कंपनां जाणवलीं. जमीन थरथरिल्ले भशेन जाताली. ताणें गायचे वटेन पळयलें. गायूय चरपाचें सोडून तकली वयर काडून पळयताली. दोगायनीय एकमेकां कडेन पळयलें. दोगांचीय दोळ्यांची भास एकामेकांक समजली.

हय. कितें तरी विपरीत घडटा.

सुण्यान बाकीच्यांक इशारो दिवंक तोंड उकतें केलें, आनी....

'भूऽऽऽ' खंयच्यान तरी दुसऱ्या एका सुण्यान दिल्लो इशारो आयकूंक आयलो. 'भूऽऽऽ', 'भूऽऽऽ',...

एकल्याचो येता म्हणसर दुसऱ्याचो. चारूय वटेन सुणीं तोंड वयर काडून इशाऱ्याचो आवाज काडूंक लागलीं. सुण्यां परी सुणीं, सवण्यां परी सवणीं, माकडां परी माकड... सगलीच जनावरां एकामेकांक सादूर करूंक लागलीं. सगले कडेन कुलकुलाट.

आतां आनीक दुबाव उरलो ना. आंब्या मुळांतल्या सुण्यान गायक पळयलें. गायन शिंगां वावुडलीं, शेंपडी फांफुडली. आनी ती चरपाचें सोडून चलूंक लागली, दोगरा वटेन.

सूंऽऽऽ करून एक बुकलो एका घराच्या जनेलांतल्यान भायर सरलो. त्याच वेळार झाडा मुळांतल्या बिळांतल्यान एक हुंदीर तकली भायर काडून परिस्थितीचो अदमास

घेतालो. बुकल्याक पळोवन ताका कच्च जालें. ताणें फट्ट करून तकली भितर घेत पूण बुकल्याचें ताचेर लक्षच नाशिल्लें. बुकलो उडी मारून जो धांविल्लो तो न जाल्लो. हुंदराकय ताकीत आशिल्ली भायर सरपाची. ताकाय कसली तरी अरिश्ट सुलूस लागिल्ली. ते भायर भोंवतणचीं जनावरां आपापले परीन एकामेकांक क करीत आशिल्लीं. जमनींतल्यान हळूहळू करून शेड्डे, शिल्ल्यो, जिवाणीं बी-भ सरूंक लागिल्लीं. जण एकलो आपले सुरक्षेचे चिंतेंत दिसतालो. ताकतिकेंत घो घुघुमा सारकीं सवणीं जमनी वयली आपली खावड पळयनाशिल्लीं, दिवड हुंदरा क लक्ष दिनासलो. माकडांनी अर्दकुटीं खावन उडयिल्लीं फळां हुंदराक नाका जाल झाडां एक्कय पान हालयनासतना ओग्गी उबीं आशिल्लीं. तांची मोनेळ जनावरां कुलकुला परस चड प्रभावकारी आशिल्ली. आपल्या आंगाखांदार, पांयां मु वावुरतल्या जनावरांक तीं मोन्यांनी येता त्या संकश्टाची सूचना दितालीं. दर एक प्राणी सादूर जाल्लो, सोडून मनीस.

मनीस बुदवंत. तो आपले बुद्दीकच तोखेत रावलो. बुद्दीचें बळगें वाप सैमाचेर जैत जोडपाच्या, सैमाचेर मात करपाच्या नादांत तो सैमाक आपले परस लेखीत वतालो आनी सैमाच्यो कुरवो वळखून तांकां म्हत्व दिवपाचें सोडून तो कुरवांक किंकोंत करूंक लागिल्लो.

इतल्या बोवाळांत सैमाचे संदेश वळखुपाचीं ताचीं इंद्रियां केन्ना बधीर जालीं क जाणा.

सगलीं जनावरां दोंगरा वटेन चलूंक लागिल्लीं तेदे वेळार मनशां आपलेच तं आशिल्लीं. खावप, पिवप, नाचप, भोंवप आनी कितें आनी कितें!

सदांच, आसा ताचे परस चड कशें मेळटलें? ह्याच विचारांत तांकां भोंवतण सैमाचें, जनावरांचें धंग नाशिल्लें. तांकां झाडांच्या मोनेळाचो अर्थ समजनाशिल्लो. सग जनावरांनी सुरू केल्ल्या प्रवासाची जाणविकाय नाशिल्ली. जमनींतल्यान येवपी कंप वातावरणांत भरून गेल्लो दर्याचो वास, पयसुल्ल्यान येवपी अनवळखी आवा मनशांक कसलेंच धंग नाशिल्लें. दर एकलो आपलेच बढायेंत, आपलेच तंद्रेंत.

जनावरां दोंगर चडूंक लागिल्लीं. अनवळखी आवाजाची तिव्रताय वाडत आशिल दर्याच्या खाऱ्या उदकाचो वासय खर जाल्लो. सगल्या जनावरांक दोंगराच्या माथ्य दिकेन वचपाची प्रेरणा जाल्ली.

जनावरां दोंगरार पावलीं. सगले तरेचीं. तीं एकामेकांक मारून खावपी आसात हा कोणाक जाणीव नाशिल्ली. वयर पावचतकच सुण्यान फाटीं वळून पळयलें. आनी त

दिसलें तें सामकेंच अजापाचें, विस्वास बसनाशिल्लों, आकांताळें आशिल्लें.

दोंगराच्या मुळांत पयस, वणत कशें एक ल्हार दर्यांतल्यान मुखार सरतालें. ल्हार कसलें? सगलो दर्योच जणू उठून उबो राविल्लो.मळबाक तेंकिल्ले माड आनी मनशांनी बांदिल्ल्यो बिल्डिंगो ताचे मुखार दबकल्ले भशेन दिसताल्यो. बोवाळ करिनासतना, मोन्यांनी पावल उबारताशें दिसपी तो दर्यो केदे खिणांत दोंगराच्या पांया कडेन पातळ्ळो. दोंगर लेगीत अर्दो बुडलो.

मनशां आनी मनशांनी म्हजें-तुजें करून सांबाळिल्लीं घरां-दारां, शेतां-भाटां सगलें दर्याच्या पोटांत नाच्च जाल्लें.

सगलीच सृश्ट आपली अशें समजतालीं हीं मनशां. हांकां खावंक, जेवंक, रावंक, भोंवंक भूंय उणी पडटाली. दोंगर, न्हंयो, झाडां-पेडां हांकां आडखळटालीं. जाय तेन्ना जाय तें जाय तशें तोडून फोडून कातरून काडप हो तांकां आपलो हक्क दिसतालो. जनावरांची तर तांकां नसायच. फकत तांणी पोसल्यार जनावरांनी जियेवपाचें, ना जाल्यार जनावरांनी मरून वचपाचें अशें तांचे विचार.

इतले बुदवंत आनी संवेदनशील समजुपी ह्या मनशांक जनावरां आनी सैमाक बरोबर घेवन जियेवपाची जीवनपद्दत कित्याक सोदूं काडूंक येना काय?

दोन पांयांनी भोंवपाचें सोडून हे तरातरांच्यो गाडयो घेवन भोंवताले. मदीं आयिल्ल्या जनावरांचो जीव घेताले. तांकां मोडून घालताले आनी वेल्यान मदीं आयलीं म्हूण जनावरांकच खेपताले. सैमान दिल्ली बुद्द हीं मनशां सैमाचेर अत्याचार करूंक वापरूंक लागिल्लीं.

आयज सैमान रुद्रावतार घेतकच हींच मनशां असहाय्य जावन बळी गेल्लीं.

जनावरांनी दोंगराच्या माथ्यार रावन सकयलो देखाव पळयलो. सगल्याक उदक भरिल्लें. जनावरां मात सगलीं सुरक्षीत आशिल्लीं. कारण तांकां सैमानच संदेश दिवन वाटायिल्लीं. सैमाच्यो कुरवो, सैमाचे संदेश वळखुपाची तांक जनावरां मदीं आशिल्ली तशीच आशिल्ली. तांणी सदांच सैमाचो आदर केल्लो. सैमाचे नेम पाळिल्ले. देखून सैमान तांकां अंतर्ज्ञान दिलें, दोंगरार येवपाची प्रेरणा दिली.

मेलीं तीं मनशां आनी तांचेर निबून आशिल्लीं जनावरां. मनशांचे पाडे बुद्दीन तांचोय बाबड्यांचो जीव घेतिल्लो.

अत्याचार करपी मनशांक फावो ती ख्याश्त मेळिल्ली.

नाय म्हणल्यार जनावरांक मातशें वायट दिसलेंच. कशीय आसली तरी जियेवपा खातीर धडपडटालीं तीं मनशां. ❑



# झुजाची आस

**ह्या** सगल्या राज्याचो राजा जावन आतां मुस्ती जाल्ल्यो. हांगा सगल्यांकच ताच्या राजेपणाची संवय जाल्ली. सगल्यां कडसून फावो तो मान सन्मान मेळटालो. फावो तो धाक सगल्यांचेर आशिल्लो.

आतां हें सदांचेंच जाल्लें. वता थंय फकत ताचेंच वरचढपण सगल्यांनी मान्य केल्लें. विरोध सोंपिल्लो. आनी तेच बरोबर मात करून जैत मेळोवपाची संवय सोंपिल्ली.

वाज! आतां जीण म्हळ्यार वाज जावंक लागिल्ली. मात ना थंय जैताची भावना येतली खंयच्यान? तीच भावना तर जियेवपाचो अर्थ.

ताणें आपलो वाठार आपलें राज्य सोडलें. आतां नवें आव्हान जाय आशिल्लें जिणेंत. तो आव्हानाच्या सोदांत भायर सरलो. पळोवया तरी दुसरे कडेन कितें आसा तें. आपले दिमाखदार चालीन तो मुखार वतालो.

वाटेर आशिलले सगले दुर्बळ, कमजोर. कोण झाडा फाटल्यान लिपतालो जाल्यार कोण फातरा खांचींत. भंयान काळीज मुठींत घेवन सगले ताका पयसल्यान तेळटाले. आयले पेल्यान तो आसप म्हळ्यारच केदो आकांत हाची जाणविकाय सगल्यांक आशिल्ली. सगले स्तब्ध. ताका गर्वच जालो.

कोण तरी, आपले शक्तीचो अदमास नाशिल्लो उसळून मुखार आयलो. ताणें ताका केदे खिणांत सोंपयलो. झगडें लेगीत करचें पडलें ना.

बेसावध आशिल्लो एकलोय असोच आपलो जीव वगडावन बसलो. निमाणें गांठ राजा कडेन आशिल्ली.

तो वचत रावलो. वचत रावलो. राजा तो. राजाच्या थाटांत मुखार वचत रावलो.

खंय तरी एकी कडेन वचपांत खीळ पडली.

मुखार कोण तरी आशिल्ल्याची सुलूस लागली.

उफ! हाजें राज्य आसतलें हांगा. येवंदी मुखार. आयलां कित्याक तर आपूण? कोणा कडेन तरी झुजून मात करपाचीच उर्मी आशिल्ली मनांत. जैताचीच उमळशीक लागिल्ली.

जिणेंत फकत खालें पिलें म्हूण जायना. प्रजाजन करूनय तृप्ती जायना. जैताची धुंद जायच पडटा. जिणेचें अमृत तेंच.

ताणें अदमास घेतलो. तो आनी ती दोगांय ह्या वाठारांत अधिपत्य गाजयतात आसतलीं. ना जाल्यार इतलीं निर्धास्त आसपाचीं न्ही. दोगांय हुस्क्या मेकळीं वावुरतात.

पूण तो दुसरो सादूर जालो. ताणें आपले जोडीदारणीक सादूर केलें. आपल्या वाठारांत कोण तरी परकी भितर सरला. तांच्या अधिपत्याक आव्हान दिवपी. ताणें आपले जोडीदारिणीक पेल्यान वचूंक सांगलें.

सादूर जावन अदमास घेतना ताका ह्या अनाहुताची सुलूस लागली.

'अशें! म्हज्या वाठारांत आयला तर. हांव हांगा आसतना दुसरो कसो येवंक शकता पळोवया तरी'.

तोय झुजाक सज्ज जालो.

अनाहूत राजा मुखार आयलो. दोगांयनीय एकामेकांचो अदमास घेतलो आनी एकामेकांचेर तुटून पडले.

दोगय तुल्यबळ एकामेकांक हारोवपाची जिद्द आशिल्ले.

अटीतटीचें झूज जालें. दुसऱ्याची साथीदारीण पयस रावन पळयताली.

निमाणें पयल्यान दुसऱ्याचेर असो वार केलो किं ताची शक्त सोंपली. दुसऱ्यान माघार घेतली. माघार घेतिल्ल्याक वाठाराचो राजा म्हणून घेवपाचो हक नासता. ताणें वाठार सोडून वचप हो नेम. ताणें फाट वळ्ळी. आपले साथीदारणी कडेन पळोवपाचें धाडस ताका जालें ना. तो तिचे वटेन पळयनासतना चलूंक लागलो.

ताची जोडीदारीण पयसल्यान पळयताली.

आपलो साथीदार हारिल्लो पळयलें तिणें. आतां ताणें हो वाठार सोडप हें क्रमप्राप्त. ओग्गी रावन ती पळयत रावली. तांच्या सुखाचो अंत जाल्लो. सांगातान सारिल्ले आनंदी दीस सोंपिल्ले. एकामेकांच्या सहवासाचें सूख सोंपिल्लें.

दुख्खान तिचें काळीज जड जालें.

ताळ्या कडेन आंवडो घेवन ती आपल्या शत्रूक पळयताली

तो तिचे वटेनच येतालो.

दादल्याक हरयतकच ताची बायल आपली हक्काची मालमत्ता. तिचेर अधिकार गाजोवंक तो तिचें म्हऱ्यांत येवंक लागलो. जैतांतल्यान मेळिल्ल्या आत्मविस्वासान तो अदीक झेतान चलतालो.

तो तिचे म्हऱ्यांत आयलो.

ताच्या मनांत कितें आसा तें ती समजली.

'हाका कोणें दिला अधिकार म्हजेर हक सांगपाचो? म्हजो जोडीदार हरलो म्हूण हांव हरलींशें जायना. म्हजे मर्जे बगर म्हज्या म्हऱ्यांत येवपाचें धाडसच कशें करूंक शकता हो? म्हज्या साथीदाराक हारोवपी आसत म्हजे परस बळिश्ट. पूण हांव शरण येतलीं अशें कोणें सांगलें हाका? हांव झुजूंक शकना अशें कित्याक दिसलें हाका? म्हजें मन म्हजेच सुवादीन आसा. बळ दाखोवन जिखूंक जावपा सारखें न्हय म्हजें मन. म्हज्या मनाची संमती आसले बगर कोण म्हऱ्यांत येवंक शकचो ना म्हजे म्हऱ्यांत'.

तिणें आपले आपल्याक झुजा खातीर तयार केलें.

तो झेतान जिखिल्ल्याचे गुर्मेत तिचे म्हऱ्यांत येतालो.

तिणें ताका आडायलो.

तो उद्धट. ताणें उर्मटपणान तिचेर हल्लो केलो.

तिणें धिटायेन ताचो प्रतिकार केलो.

तो चवताळ्ळो. ताणें क्रूरपणान तिचेर हल्ला केलो.

तिणें प्रतिकार सोडलो ना.

'ना. पळून वचचीं ना. मेल्यार उपकरता. मरतलींच, पूण मरचे पयलीं हाका मारतलीं'. तिणें मन घट केल्लें. ताच्या हल्ल्याक तितल्याच नेटान तोंड दीत रावली.

निमाणें शक्त उणी पडलीच. ताणें सामको गोमटेकच घांस घालो. तिणें सगली शक्त एकठांय करून ताका घुंवडायलो. तोंडांतल्यान रक्तां व्हांवंक लागलीं, पूण तिणें हार मानली ना.

शक्त उणी पडली आनी तिचो जीव शरीर सोडून गेलो.

तिचो प्रतिकार सोंपलो. अचेतन शरीर शांत जालें.

ती मेली हाची खात्री जातकच ताणें तोंडाचो घांस सदळ केलो. ताचें जैत जाल्लें.

'नागराज म्हणटात म्हाका, नागराज!, किंग कोब्रा!'

आयज नागराजांचो राजा जाल्लो. मेल्ले नागिणीक ताणें गिळपाचो यत्न केलो. पूण ती गाभणी आशिल्ल्यान तिच्या फुगिल्ल्या पोटाक लागून ताच्यान तिका गिळूंक जालें

ना. तिका तशीच सोडून तो मुखार वचूंक लागलो.

निमाणें जीण ही अशीच.

एकाच जाग्यार रावन सद्दां उठून तेंच तेंच करपांत कितें अर्थ आसा?

पयलीं ताचे कडेन आनी मागीर तिचे कडेन झगडटना कितलेशेच फावट ताका मरणाची सुलूस लागिल्ली. पूण ताचे कडेन झुजतकच तिचे कडेन झगडूंक चेव आयिल्लो. तिचो प्रतिकार मात उणो नाशिल्लोच. शरीराच्या बळग्या परस ती मनाचें बळगें घेवन झगडटाली. आपूण हरतां, आपूण हरतां अशें कितलेशेच फावट दिसलें. निमाणें आपलें शारिरीक बळगेंच उपकरा पडलें. तिचें शरीर दुबळेंच कितलेंय जाल्यर. ते भायर गाभणी. मनाची जिद्द मात तिची दाद दिवपा सारखी. आपूण मातसों उणो पडिल्लों जाल्यार मरतलोंच आशिल्लों. तिच्या मनाचें बळगें स्पश्ट जाणवतालें. आसूं! निमाणें हरलीच. मारून उडोवची पडली. पोटांतल्या गर्भा सयत. जैत मेळोवपाच्या ध्येयान मुखार सरिल्लो, जैत मेळ्ळें.

मनाचेर एके तरेची गंभीर सया पातळिल्ली. जैताच्या आनंदा परस एके तरेचो रागसो, तिडकशी भरिल्ली मनांत. कोणाचो राग, कसलो राग, कित्या खातीर? रागच काय आनीक कितें? एखादे तिणें प्रतिकार केलो म्हूण आसुंये. तो राग, ती तिडक घेवन तो मुखार वचत रावलो. आयल्या पेल्यान पळोवपाचें भानच उरलें ना.

अकस्मात मुखार कोण तरी दिसलो आनी ताणें तकली वयर काडली.

आपल्या पांयां म्हऱ्यांत येदो व्हडलो नाग पळोवन ते बायलेन किळची मारली.

'सोरोप, सोरोप!' आकांतान गजाल मारीत ती धांवली. लोक दांडे बडयो धेवन आयले.

आपूण मनशांच्या मेळ्यांत पाविल्ल्याची ताका जाणीव जाली. हांगा येवन कांयच उपेग ना. हो आपणें रावपाचो वाठार न्हय.

'कसले तनरेंत पावलों हांगा कोण जाणा!' आपूण वाट चुकिल्ल्याचें शितीत जालें ताका. तो परतलो. पाविल्ल्या त्या घरांतल्यान भायर सरून वचपाची वाट सोदूंक लागलो.

वण्टीचे कुशींतल्यान सामानाच्या अडगळींतल्यान तो भायर सरपाची वाट सोदूंक लागलो.

'बाबा म्हज्या! वज्या मरे!' बडी घेवन आयिल्ल्या एकट्यान म्हणलें.

तो वता थंयची अडगळ कुशीक काडपाचें काम चलिल्लें. तो भिलो. सगले जिणेंत पयलेच फावट भिलो. मेकळ्या जाग्यार येवपाचें धाडस ताका जालें ना. तो अदीक

अडगळींत शिरकूंक लागलो.

'शे! विखारी तो. चाबल्यार आनी आनी कांय नाका', दुसरो उलयलो. नागराज खांचींत खांचींत शिरकून लिपून रावपाचो यत्न करूंक लागलो. हांगा ताचें बळगें उपकरा पडचें नाशिल्लें. भोंवतणच्या लोकांची अक्कल जागी जाल्ली. तांची युक्ती आपले शक्तीचेर मात करतली हें ताका आपसूक कळ्ळें.

'रावात, रावात', कोण तरी आड्डलो, 'मारूं नाकात ताका'.

आड्डुपी मनीस हातांत बडी आनी साक घेवन आयलो. बरोबर आशिल्ल्याक ताणें दिव्याचो झोत घालूंक लायलो. खांचींत लिपिल्ल्या नागराजाक पळून वचपाची वाटच नाशिल्ली. त्या मनशान बडी घालून ताका भायर ओडलो आनी अचळय साकांत सोडलो. बरोच वेळ साकांत उरले उपरांत एका मेकळ्या रानांत ताची सुटका जाली.

निमाणें मुक्त जाल्लो तरी ती ताची हारच आशिल्ली. पाविल्लो थंय तो आपल मर्जेन येवंक नाशिल्लो, ताका दुसऱ्यांनी हाडून सोडिल्लो.

मन अस्वस्थ जालें. तो दिसता त्या बिळांत शिरकलो.

भायर ताका हाडपी दुसऱ्यांक सांगतालो, 'तांकां मारूं नाकात. आमकां उपकरा पडटात ते'.

'हांकां उपकरा पडटा म्हणून जगपाचें आमी. आमकां जगपाचो हक आसा म्हणून न्हय? ही झुजाची आस. झुजांत जैत आसता तशें मरण आसता आनी पराभव आसता. पराभव आपणें जावन मान्य केल्लो आसूं येता, जसो त्या दुसऱ्या नागराजान केल्लो. पराभव. नागिणी वरी मरण स्विकारून मान्य करूं येता आनी पराभव असो दयेचें दान मेळिल्लो, स्वताक तुच्छ लेखूंक लावपीय आसता'. बिळांतल्यान नागान हुस्कारो सोडलो.

❑



# शोनूचीं फुलां देवा खातीर

**अंगारकी** संकश्टी आशिल्ली.

मम्मान शोनूक सांगिल्लें, ''सांजेची हांव ऑफिसांतल्यान येतकच गणपतीच्या देवळांत वचून येवया''.

शोनू पयलींच तयार जावन रावलो. बुशकोट घालता तो पळोवन आज्जेन म्हळें,

''आरे, नवो बुशकोटसो घालता?''

''मम्मा येवपाची जाली'', शोनून जाप दिली.

''जाली? कितलीं जालीं?'' आज्जेक अजाप जालें.

''स जालीं मगे'', शोनू आतां घडयाळ पळोवन वरां सांगूंक जाणा आशिल्लो.

''हय रे बाबा! दीस आतां व्हड जावंक लागले. वताक पळयल्यार वेळ कळना''. आजी आपलें भाशण करीत आशिल्ली. इतले म्हणसर मम्मा पावली.

''शो ऽ ऽ नू ऽ !'' मम्मान उलो केलो.

आपले आपूण कपडे घालून तयार जाल्लो शोनू पयलींच भायर पाविल्लो.

आपलीं कामां आपणेंच करपाची शोनूक आतां संवय जाल्ली.

तो, आजी सुकत घाल्ले कपडे हाडून घडयो करता तें पळोवन आपूणयबी आपले कपडे हाडून घडयो करून दवरतालो. भायर सरपाचें जाल्यार कपडे घालून तयार जातालो. शर्टाचे बुतांव घालूंक लेगीत ताका वेळ लागनाशिल्लो. बूट घालून लेसी बांदतालो. चार वर्सांचो शोनू सगल्या कामांक हुशार आशिल्लो.

मम्मान भितर येवन हातपांय, तोंड धुलें आनी च्या घेवन ती भायर सरली. शोनूक घेवन देवळांत गेली.

गणपतीच्या देवळांत पावलीं तेन्ना देवळा भायर कितल्योश्योच बायलो फुलां

आनी दुर्वा विकूंक बशिल्ल्यो. जण एकले कडेन कुरपणे भरून तांबडीगुंद दसणी फुलां आशिल्लीं. लोक पयशे दिताले आनी एक दसणी फूल, दुर्वा, उजवाती पुडो घेताले.

शोनूच्या मम्मानय एक फूल आनी उजवातीचो पुडो घेतलो.

शोनून तें फूल आनी दुर्वा गणपतीच्या मुखार ताटांत दवरलें. मम्मान उजवाती पेटयल्यो. गणपतीच्या ताटांतय फुलां आशिल्लीं आनी गणपतीच्या गळ्यांत, माथ्यार, सगल्याक तांबडीगुंद फुलां आशिल्लीं. मदीं मदीं पाचव्योचार दुर्वा. सगले कडेन तांबडेगुंद जाल्लें. शोनूक ती फुलां-दुर्वांची सजावट बरीच दिसली.

मम्मा आनी शोनू देवाक पांयां पडलीं. प्रदक्षिणा घालीं, तीर्थ-प्रसाद घेतलो आनी घरा आयलीं.

घरा ये मेरेन साडेसात जाल्लीं. शोनून हातपांय धुले. घरांतल्या देवाक पांयां पडलो, कार्टून पळयलें... उपरांत सदांचेंच. जेवलो आनी न्हिदलो.

शोनू दुसरे दीस सक्काळीं उठलो. तोंड बी धुवन वारांदार आयलो. आपशींच ताची नदर दारांतल्या दसणी झाडार गेली. काल ताका खुब्ब तांबडीगुंद फुलां आशिल्लीं ताणें पळयिल्लें. खंय गेलीं काय? त्या गणपतीच्या देवळा कडल्या बायलांनी बी व्हेली नात मूं?

"मम्मा!" ताणें आकांतान उलो मारलो.

"कितें जालें शोनू?" मम्मा भियेवन धांवत भायर आयली.

"मम्मा, आमच्या झाडाचीं फुलां कोणें व्हेलीं?"

"फुलां? आरे तीं फुलचीं आसात आजून", मम्मान म्हळें.

"ना. हांवें काल पळयिल्लीं. सगल्या झाडार खुब्ब आशिल्लीं".

शोनूक आतां इल्लो राग आयिल्लो. ताका दिसलें आपलीं सगलीं फुलां कोणें तरी चोरूनच व्हेलीं. काय बरीं तांबडीगुंद फुलां!'

"शाण्या, कालचीं फुलां गळून मुळांत पडटात. पळय बाविल्लीं फुलां दिसनात तुका?"

शोनूक 'बाविल्लीं' म्हळ्यार कितें तें कळ्ळें ना. ताणें झाडामुळांत पळयल्यार ताका एक्कूय तांबडेगुंद फूल दिसलें ना.

"खंय गे? दिसच नात", ताणें मम्माक म्हळें.

मम्मान मागीर झाडामुळांत वचून बाविल्लें फूल हाडलें आनी शोनूक दाखयलें.

शोनू विचारांत पडलो. ह्या झाडार सद्दां फुलां पळयतालो तो. आजच कशीं गळून पडलीं?

''मम्मा, सदांच आसतालीं मगे तीं झाडार? आजच कशीं गळून पडलीं?'' शोनू रडकुरो परतलो.

''शोनू रे शोनू! शाणोच तो म्हजो. यो दाखयतां'', म्हणन मम्मा शोनूक घेवन झाडा मुळांत गेली आनी तिणें फुलचे आशिल्ले ते कळे शोनूक दाखयले. सगल्या झाडार मातश्योश्यो तांबश्यो नळयो कश्यो आशिल्ल्यो. मम्मान म्हळें.

''हे मरे कळे. आनी थोड्या वेळान म्हळ्यार वत येतकच फुलतले. आनी तांबडीगुंद फुलां दिसतलीं तुका''.

''खरें?'' शोनू अजापान पळयत रावलो.

''पळय आनी सांग आं म्हाका''. म्हणून मम्मा शोनूची पापी घेवन भितर गेली. मम्मा फाटल्यान शोनूय भितर गेलो.

परत परत तो भायर येवन पळयतालो. तांबडीगुंद फुलां जालीं काय?

पूण कळे हळूहळू फुलताले. पयलीं त्यो नळयो तोंडार मातश्यो रूंद जाल्यो. मागीर इल्लीं इल्लीं करून तोंडां उकतीं जायत गेलीं. पळयिल्ले फावट तांचें तोंड इल्लें चड उकतें दिसतालें.

निमाणें कोन्नो कशें तांबडेगुंद फूल दिसलें. ताका मदल्यान एक घोम भायर आयिल्लो. सगल्या झाडार तांबडेच कोन्ने.

शोनून धांवत वचून मम्माक सांगलें.

''हय मरे? फुलां तशींच फुलतात. फाल्यां दुसरीं फुलां फुलतलीं''.

शोनू शाळेंत वतना लेगीत झाडाक पळोवन गेलो. झाडाचेर आशिल्ले तांबडे कोन्ने पळोवन ताका आनंद जालो.

दनपारचो शाळेंतल्यान आयलो तो पयलीं शोनून दसणी झाडाक पळयलें. सगलीं फुलां तश्शीं आशिल्लीं. तांच्यो पाकळ्यो आतां फाटले वटेन परतल्ल्यो. सगलीं ताका हांसतातशीं दिसतालीं. शोनूय तांकां पळोवन हांसलो आनी भितर गेलो.

न्हावन धुवन कपडे घालून शोनू परतो वारांदार आयलो. झाडाच्या आनी फुलांच्या बोवाळांत तो भूकय विसरिल्लो. आजी जेवंक आपयताली, पूण शोनूचें लक्ष फुलांचेर आशिल्लें. आनी थंयच ताका आनीक एक अजाप दिसलें.

एक इल्लेंशें, कुकुलें शेवणें फुलाचेर बसून ताका चोंच मारतालें. पयलीं शोनूक दिसलें तें फूल तोडून उडयतलें. तो ताका आमडूंक म्हण मुखार आयलो. पूण ताका मागीर सवण्याची काकुळट दिसली. इतलें म्हणसर तें सवणें थंयचें उडून गेलें. पळय जाल्यार फूल तश्शें आशिल्लें. सवणें दुसरे ताळयेर वचून बसलें. कितें करता काय तें?

शोनू गुल्ल जावन पळयतना आजी ताका जेवंक व्हरूंक आयली.

"कितें पळयता रे शोनू? भूक लागली ना तुका? यो जेवया", आज्जेन शोनूच्या हाताक धरलें.

"आज्जे, थंय मगे एक सवणें आसा. पळय, हेंऽऽ पळय. कितलें ल्हान. तें मगे फुलार बसून फुलाक चोंच मारतालें".

"तें मरे, म्होंव खाता फुलांतलें". आज्जेन शेवण्याक पळोवन सांगलें.

"म्होवं खंय आसा?" शोनून अजापान विचारलें.

"फुलां भितर घोम आसता ताच्या मुळांत म्होंव आसता. पातळ उदका थेंबसो. तें तीं खातात आनी पोट भरतात".

"आनी तीं जेवनात तर?" शोनून विचारलें.

"तें म्होंव म्हणल्यारच तांचें जेवण", आज्जेन उलयतां उलयतां शोनूचें जेवण मुकशिलें.

"आज्जे, तें सवणें सद्दां जेवंक आमगेर येता?" शोनूच्या मनांत कल्पना आयली.

"हय रेऽ बाबा. सारकें उलयलो. तीं सवणीं आमगेर जेवंक येतात सद्दां आनी पोटभर जेवन वतात".

शोनूक मज्जा दिसली. जेवन जातकच तो तीन चाकांचे सायकलीर बसून परत परत वारांदार येवन झाडाक पळयतालो. प्रत्येक फावट खंयचे तरी एका फुलाचेर ताका एक सवणें दिसतालें.

मम्मा येतकच ताणें मम्माक नविदाद सांगली.

"मम्मा, आमगेर मगे सवणें येता जेवंक, सद्दां".

"जेवंक येता? केन्ना रे?" मम्मान अजापान विचारलें. तिका खरेंच कांय कळ्ळें ना शोनू कितें सांगता तें.

"तुका दाखयतां आं फाल्यां. पूण तूं खंय आसता दनपारची?"

"दनपाचें येता तर तें?" मम्मान म्हणलें.

"आनी? तें मगे आमच्या दसणी फुलांतलें म्होंव खाता आनी पोट भरता. ताचें तें जेवण", शोनून आज्जेचींच उतरां वापरलीं.

आतां मम्माक कळ्ळें शोनू कितें सांगता तें.

दोन-चार दीस मेरेन शोनूलें लक्ष त्या सवण्याचेरच आशिल्लें. उपरांत दुसऱ्यो गजाली मुखार आयल्यो आनी सवणें फाटीं पडलें.

इतले म्हणसर विनायकी आयली.

तेदूस शोनूक सुटी आशिल्ली. शोनूक उठूंक मातसो वेळच जालो. तोंड धुता, नाश्तो करता म्हणसर आनीक थोडो वेळ गेलो. शोनू थोड्या वेळान वारांदार आयलो. पळयत जाल्यार शेजारची काकी दसणी फुलां काडटा.

"आज्जे, आज्जे!" शोनू आकांतान आड्‌डलो.

"कितें जालें शाण्या?" आजी धांवत भायर आयली.

"आज्जे, आमचीं फुलां काडटा ती".

"बाबू, आयज विनायकी म्हूण देवाक घालूंक काडटां" काकीन दसणी मुळांतल्यान म्हळें.

"देवाक घालूंक काडटा ती शाण्या", आज्जेन शोनूक समजायलो.

"मागीर आमगेलें शवणें? तें खंय जेवतलें?" शोनूची किंवट ताळ्या कडेन आयिल्ली. ताणें माण फोडलें.

शोनूक वेंगेंत घेवन समजायतना आज्जेक मात अपराधी जालें. खरेंच शोनूचें. फूल तोडलें जाल्यार सवण्याक म्होंव कशें मेळटलें? ताचें पोट कशें भरतलें? आनी हें फूल व्हरून एके मूर्तेर घालून आमकां कितें मेळटलें? कितलीं पिशां भशेन येवजितात आमी. फूल, सवणें, म्होंव सगलें देवाचेंच तर कर्तूप. आनी आमी एक मूर्त घडोवन आमच्या सुवार्था खातीर हीं फुलां तोडून ते मुर्तेक ओंपतात. तांचें म्होंव खावन जियेवपी जिवांचें अन्न ना करतात. हीं सवणीं, फुलपांखे, मूस ह्या म्होंवाच्या बदल्यात झाडांचीच मजत करतात. तीं तांचे पराग कण व्हावोवन व्हरतात. ताका लागून झाडाक फळ धरता. फळांच्यो बियो जमनीर पडटकच किल्लून आनीक झाडां जातात. ते भायर गळून पडिल्लीं फुलां झाडा मुळांत कुसल्यार त्याच झाडाक अन्न मेळटा.

आमी मात तीं तोडून मुर्तेक घालतात. जणू देव फकत आमी केल्ल्या मूर्तेंतच आसा. आमी सवण्यांचें, फुलपांख्यांचें, मूसांचें अन्न काडून घेवन बदल्यांत तांकां कितें दितात? खरेंच आमचें चुकता.

आमी घाल्लीं हीं फुलां दुसरे दीस कोयरा डब्यांतल्यान वचून खंय तरी कोयराच्यो राशी मात वाडटात. प्राण्याकय अन्न ना आनी झाडांकय ना. कोयरा राशींक लागून घाण मात जाता.

आज्जेच्या मनांत चलताले तेच विचार काकीच्याय मनांत आयले. तिणें फूल तोडूंक घाल्लो हात फाटीं घेतलो. फाटीं सरून ती पोरसांतल्यान भायर आयली.

"शोनूऽऽ खरें रे बाबा तुजें. चुकलें म्हजें. आमी झाडावयलीं फुलां झाडाचेरच देवाक

ओंपुया. देव सगल्याक आसा''. काकीच्या उलोवपान शोनू रडटालो तो थांबलो.

''तुवें काडलें ना मगे फूल?'' शोनूक खात्री करून जाय आशिल्ली.

''ना रे बाबा!'' काकीन म्हळें.

काकीन हातांतल्यान सोडिल्ली ताळी हालताली आनी त्याच वेळार एक सव
म्हऱ्यांतले ताळयेर येवन बशिल्लें.

''काकी, हें पळय आयलें सवणें जेवंक'', शोनून आनंदान म्हळें.

शोनू, आजी आनी काकी शेवण्याक पळोवन खुशाल जालीं.

❑

किरण म्हांबरे हांचो हो पयलोच कथां झेलो. नदरेंत भरपा सारकीं तांचीं कांय खाशेलपणां आसात. मुखेलपणान ह्यो कथा नाते संबंदाच्या धाग्यांनी विणल्यात. नात्याचे संबंद म्हणल्यार गांठी आनी निसरगांठी. संवसाराचे सुरवेक सावन मनशाचो तो अणभव. ह्या नात्याक कितले तरी पदर आसतात. हीं नातीं जितलीं गोड म्हींवीं आसतात तेच भशेन केन्ना केन्ना तातूंत कोडसाण रिगिल्ली आसता. हें नातें जितलें दोग जाणा मदलें तितलेंच तें आपले कडलेंय. किरणबायच्या कथाविश्वांत ह्या नात्यांचें दर्शन घडटा. हांगा अशाच नात्याक लागून जिवितांत फटवल्लें एल्सा आसा आनी तेच भशेन घरांत काम करपाक दवरिल्ल्या परधर्माच्या भुरग्याक माया लावपी भाभीय आसा. लग्न संबंदांतल्यान जुळिल्लें नातें... आपलेपणाची भावना दिवपी... आपलीं मनशां... आपलीं नातीं. पूण केन्ना केन्ना ह्या नात्याक दाग लागिल्लो आसता. तें विटकळटा तेन्ना तातूंतली गोडसाण सोंपता. हो मानवी अणभव अनादी काळा पासूनचो. जिविताचे वाटेर दोडपी सगळेच एक सारके आसतले अशें समजप समा न्हय. ह्या कथांनी मनीस सभावाचेंय दर्शन घडटा. मनशा मदीं आशिल्लें नश्ट पाडेपण, सुवार्थ हाचे बराबर ताचे भितर आशिल्लें बरेपण पळोवन मन दर्वेता. कथा लेखक म्हूण किरणबायची ती व्हड शक्त.

निखटें तंत्र म्हणल्यार कथा न्हय. तिचो आशय तितलोच म्हत्वाचो. आनी तिचे लांबाय रुंदाये वयल्यान तिचें श्रेश्ठत्व थारावपाक येना हें तितलेंच खरें. तिचो आशय वीस पानांत बसोवं येता, तेच प्रमाण देड पानाचीय ती आसूं येता. किरणबायची कथा तिचे लांबायेचो विचार करिना. तिका आशयाचो अचूक वेध घेवपाचो आसता. ताका लागून ती रुपान रेखीव, वाचप्याच्या मनांत रिगपा सारकी. अस्सल कथेंत सुरवेक कथा वाचतना तिचो शेवट कसो आसतलो हें कळना. तो अनपेक्षीत आसपाक जाय. हो परिणाम ही कथा बेस बरी सादता. शीला कोळंबकार, मीना काकोडकार, जयमाला दणायत, हेमा नायक हांचे पाथावळींत बसपी ही कथाकार एकूण कोंकणी कथा आनीक समृद्ध करता.

कोंकणी कथेक नवी दिका दाखोवपी ह्यो कथा आसात.

माधव बोरकार

- माधव बोरकार